हेमंत अय्या हांचीं वेंचीक पथनाट्यां

# पथसम्राट



**संपादक : मंगेश हरिजन**

# पथसम्राट

## (हेमंत अय्या हांचीं वेंचीक पथनाट्यां)

संपादक

**मंगेश हरिजन**






**आर. बी. प्रॉडक्शन**

मडगांव - गोंय.

# पथसम्राट

(हेमंत अय्या हांचीं वेंचीक पथनाट्यां)

संपादक

**मंगेश हरिजन**

| | |
|---|---|
| **पथसम्राट** | **PATHSAMRAT** |
| (पथनाट्यां - कोंकणी) | (STREET PLAYS- KONKANI) |
| **संपादक** | **EDITOR :** |
| **मंगेश हरिजन** | **MANGESH HARIJAN** |
| **© हेमंत अय्या** | **© HEMANT AIYA** |
| **पयली उजवाडावणी :** | **FIRST EDITION :** |
| फेब्रेर २०१८ | **FEB 2018** |
| **प्रकाशक:** | **PUBLISED BY :** |
| **राजू बलनायक** | **RAJU BALNAIK** |
| आर. बी. प्रॉडक्शन | RB PRODUCTION |
| मडगांव - गोंय. | MARGAO - GOA. |
| **मुखपश्ट :** | **COVER :** |
| **विघ्नेश शिंदे** | VIGNESH SHINDE |
| **मांडावळ:** | **LAYOUT:** |
| शंतनू अय्या | SHANTANU AIYA |
| **छापणावळ:** | **PRINTED BY:** |
| सह्याद्री | SAHYADRI |
| ऑफसेट सिस्ट्म | OFFSET SYSTEM |
| खोर्ली - तिसवाडी | CORLIM, TISWADI |
| गोंय -४०३११० | GOA - 403110 |




**ISBN : 978-81-936363-0-5**

**email:** rbproduction.goa@gmail.com

harijanmangesh@gmail.com

**Website :** https://hemantaiya57.wixsite.com/rbgoa

**Mobile :** 8552050993 / 9923765935

**मोल : 250 रुपया** | **PRICE Rs 250 /-**

कलेची सेवा करतनाच
आकांताचें समाजभान बाळगुपी
दोन बापूय...
एक सरालो... एक म्हजो...

**श्री. बाळकृष्ण अय्या**
आनी
**श्री. पाडुरंग हरिजन**

हांकां हो ‘पथसम्राट’ ओंपतां!

# मांडावळ



**हेमंत अय्या हांचीं वेंचीक पथनाट्यां**

**परिशिश्टां :**

१) हेमंत अय्या हांच्या पथनाट्यांतली सर्जनशिलताय आनी नाविन्य बरोवपी : मंगेश हरिजन आनी सुश्मिता देसाय

२) प्रतिक्रिया : १) भौ. राजदीप नायक
२) भौ. अनंत अग्नी
३) भौ. राजू बलनायक
४) भौ. मंगलदास भट
५) बाय अन्वेशा सिंगबाळ

३) हेमंत अय्या लिखीत दिग्दर्शीत पथनाट्यांतले यशस्वी कलाकार (वळेरी)

# पथसम्राट कित्याक?

'रस्त्यावेलो राजा' जावं 'रस्त्यावेलो सम्राट' ह्यो उपाद्यो तश्यो नॅगेटीव्ह! पूण हें मळूच अशें मनशाक रस्तादपण करपाक लावपी घडये. तरी पूण ताका थंयूच लोकांचो मोग आनी कलाकार म्हूण प्रतिश्ठा मेळटा. हेमंत अय्या सरालो पथनाट्य ह्या मळा वयलो वावर, तांणी पथनाट्य ह्या प्रकारांत केल्ले प्रयोग आनी हें सगलें करता आसतना पथनाट्यां वरवीं जागे केल्ले गोंयचे तरनाटे...! हें इतलें सगलें कार्य तांणी केलें पथनाट्य ह्या प्रकारांतल्यान... देखून आमचे सर खऱ्या अर्थान पथसम्राट. नटसम्राट, संगीतसम्राट, सूरसम्राट अशो उपाद्यो खूब जाणांक मेळ्ळ्यात आनी मेळटात, पूण जांणी रस्ते गाजयले, कसलोच रंगमंच नासतना एका खिणांत रस्त्यार उपाट लोक एकठांय केले, तांचे मुखार विचार मांडले, जन जागृती केली. हें एक आनी दोन फावटीं न्हय तर सादारण एक तप. अशा मनशाक आमी कितें म्हणटले? ताका फाव अशी उपाधी खंयची? 'रस्त्याचो राजो?', 'पथनाट्यसम्राट?'.... सगलोच संभ्रम! आनी देखून 'पथसम्राट'. पथसम्राट हेमंत अय्या!!! फकत सरूच कित्याक? सरा वांगडा आनी हेर सुवातीनींय रस्त्याचेर खेळ दाखोवन लोकांक जागे करपाचो यत्न करपी दर एका मनशाक ही 'पथसम्राट' संकल्पना लागू जावं येता.

२०११ वर्सा हांव केपें कॉलेजांत पावलों आनी म्हजे जिणेंत कलेचें नवें दालन उकतें जालें. साबार अणभवी शिक्षक, तरण्या विचारांचे मार्गदर्शक हांच्या सांगातांत हें दालन फुललें, घडलें. खरें सांगपाचें म्हणल्यार 'दालन' हें जंय आमी

स्ट्रीट प्लेच्यो तालमी करताले ते सुवातेक दिल्लें नांव. काळांतरान कॉलेजीची नवी इमारत उबी जाली. नवी सुवात; नवें दालन; नवी सुरवात; नवो स्ट्रीट प्ले आनी नवे पथसम्राट! हें दालन घडोवपाचें पुराय क्रेडीट हांव एकाच मनशाक दितलों तो म्हणल्यार, आमचो सर हेमंत अय्या. तांणी हें दालन घडयलें, फुलयलें, फळयेलें आनी 'पथनाट्य' हो प्रकार साहित्यीक तोलामोलाचो हें आपणाल्या पथनाट्यांतल्यान म्हाका तरी पटोवन दिलें. गोंयांत पथनाट्य ह्या प्रकाराक एका नव्या पांवड्यार व्हरून बसयलो तोवूय ह्याच मनशान! देखून ते पथसम्राट!

कांय लोक म्हणटले, ह्या मनशाची व्हडविकाय हांव कित्याक सांगतां काय? हें पुस्तक सर काडीत अशें म्हाका तरी दिसलें ना! कारण सुमार ५० तरी पथनाट्यां सरांन बरयल्यांत हें तांच्याच तोंडांतल्यान जायत्या फावटीं हांवें आयकलां. निदान ३० तरी पथनाट्यां तांणी जल्माक घालून रस्त्यार हाडिल्लीं हांवें पळयल्यांत आनी प्रत्यक्ष तातूंतलोच एक कलाकार म्हूण अणभवल्यांतूय. हीं पथनाट्यां पुस्तक रुपान लोकां मुखार येवप हो सरा वांगडाच आमच्या सारक्या समेस्त 'स्ट्रीट प्लेयर्सांचो' सन्मान.

एका वर्सा फाटीं, उर्बा महोत्सवांत 'मोनोग्राफ' म्हणल्यार एके व्यक्तीचेर 'सोदनिबंद' बरोवपाची सर्त दवरली. हे सर्तींत हांवें बाय सुश्मिता देसाय हाच्या सांगातान "हेमंत अय्या हांच्या पथनाट्यांतली सर्जनशिलताय आनी नाविन्य" असो विशय घेवन सोदनिबंद सादर केलो. ह्या सोदनिबंदाक दुसरें इनाम फाव जालें. अभ्यासू वाचकांचो विचार मतींत दवरून ह्या संपादनांत त्या सोदनिबंदाचो आसपाव केला. इत्सुकांनी परिशिश्टांत ताचो आस्वाद घेवं येता.

सोदनिबंदाचें लेखन सुरू आसतना घेतिल्ले एके मुलाखतींत हांवें सराक विचारलें, "सर, तुमी पथनाट्याचें पुस्तक केन्ना काडटात?" त्या वेळार 'अजून वेळ आसा' अशी कितें तरी जाप तांणी म्हाका दिल्ली. खूब दिसांनी कसल्या तरी कामा निमतान उलयतना हांवें सहज म्हूण पुस्तका बद्दल तोच प्रस्न परत

विचारलो. कारण तांचीं पथनाट्यां लोकां मेरेन पावचीं अशें म्हाका काळजांतल्यान खंय तरी दिसतालें. तांचे विशय ज्वलंत आसताले, लोकजागृताय करपाची सगळीं आंगां तांच्या पथनाट्यांनी आसतालीं. देखून तांच्या पथनाट्यांचे पुस्तक येवचें अशें म्हज्या वांगडाच जायत्या लोकांक दिसतालें. कांय लोक म्हजे कडेन हे बाबतींत उलयल्ले लेगीत. पूण ह्या वेळार भलतेंच घडलें. "तुवें म्हज्या पथनाट्याचेर एक रिसर्च पेपर बरयला पळय...! so आतां म्हजे सगळे स्ट्रीट प्ले एकठांय कर आनी तूंच काड मरे पुस्तक!" ह्या सरांच्या उतरांनी हांव तांच्या तोंडाक पळयत उरलों. घडये सरान तें सहज म्हणिल्लें. पूण उपरांत हांवें तें बरेंच मनार घेतलां म्हणपाचें तांकांय कळ्ळें जावंये! तर अशे तरेन ही जबाबदारी हांवें म्हज्या खांदार घेतली. सरान ह्या वावरा खातीर म्हाका लायक समजलो म्हूण तांकां देव बरें करूं!

बी. ए. च्या पयल्या वर्सा सावन हांव हेमंत सरांचे स्ट्रीट प्ले करत आयलां. १७ वो गोवा युवा महोत्सव. आयोजक कोंकणी भाशा मंडळ, जोड पालव केपें कॉलेज. म्हजें पयलें पथनाट्य. सांज जावन गेल्ली... काळोख पडिल्लो... माटव धोल ताशांच्या तालार नाचतालो... पूण अजून पथनाट्य सर्त सुरूच आशिल्ली! मनशाक मनीस दिसनाशिल्लो. अशे परिस्थितींत आमी स्ट्रीट प्ले सादर केलो. तेन्ना; कसो जालो, बरो जालो, वायट जालो हें पारखुपा इतलो हांव घडये बुदवंत नाशिल्लों. इनाम मेळ्ळेंना आनी त्या युवा महोत्सवाक आमी तसो व्हडलोसो उजवाडूय घालूंक ना! म्हजे यादींतलो हो तांच्या पथनाट्यांक लागिल्लो घडये पयलो आनी निमणो स्पीड ब्रेकर! उपरांत युवा महोत्सवांतली 'खेळ' ही पथनाट्याची सर्त हेर खंयच्याय पंगडाक जिखप शक्य जालें ना. तशेंच जंय जंय पथनाट्य सर्त जाताली थंय पयलें इनाम हेमंत अय्या हांच्या स्ट्रीट प्लेकूच आसतालें. तांणी बरोवन बसयल्लीं पथनाट्यां फकत सर्ती पुरतींच उरूंक नात; जाल्यार गोंयच्या जायत्या शारांनी, रस्त्यांनी, मार्केटांनी सादर जाल्यांत. तांणी गोंयांत पथनाट्याची नवी क्रांती घडोवन हाडली अशें म्हणप चुकीचें थारचें ना. देखून पथसम्राट!

हेमंत अय्या हांणी साबार विशय आपल्या पथनाट्यांतल्यान हाताळ्ळ्यात. म्हादय प्रश्न, रस्तो सुरक्षा, भाशावाद, अशे जिते जिवे विशय तांणी आपल्या पथनाट्यांनी रंगयले; ते विशीं समाजांत जागृताय केली, लोकांक जागे केले आनी पथनाट्याच्या ह्या मळार स्वताची वेगळी वळख निर्माण केली.

पथनाट्य हें जनजागृतीचें माध्यम, जेन्ना लेखक संहिता बरयता तेन्ना भितरली भाशा, संवाद लोकांक कळटात, समजतात इतले सोपे आसचे. ज्या वाठारांत संहितेचें सादरीकरण जातलें; त्या वाठारांतले बोलीचो आसपाव आसचो. कांय पारंपारीक चाली आसच्यो, शिगम्याच्यो, नमनाच्यो आनी गरज पडल्यार नव्या फिल्मी गितांच्योय! देखावे आकर्शक आनी उलोवपी आसचे, हेमंत अय्या हांच्या पथनाट्यांत हे सगले मुळावे घटक जाय तितल्या प्रमाणांत आमकां पळोवपाक मेळटात. कांय कडेन पथनाट्याच्यो रूढ संकल्पना तांचीं पथनाट्यां भिरकावन उडयतात. आनी कोणाचेच कल्पनेंत येवचें ना अशें कितें तरी चमत्कारीक सादरीकरण करून वतात. देखीकः 'कॅशलेस भारत आनी वास्तव' हें पथनाट्य.

हेमंत अय्या हांणी कोंकणी पथनाट्यांत कांय सफळ प्रयोग केले. हे प्रयोग फकत सादरीकरणाचो उठाव वाडोवपाक केल्ले अशें निखालूस न्हय! कांय कडेन ते प्रयोग ही काळाची आनी काळाक धरून विशयाची गरजूय आसताली... (जावं, हांगा खोलायेंत वचना. इत्सूक वाचप्यांनी परिशिश्टांतलो सोदनिबंद वाचचो.) तांच्या पथनाट्याच्या सादरीकरणांत तांणी वेगवेगळीं वाद्यां वापरून पळयलीं. घुमट, शामेळ, धोल, तासो, कासाळें, गितार अशीं वाद्यां वाजलीं. पूण हीं वाद्यां जायत्या लोकांनी आपल्या खेळांनी वापरिल्लीं. देखून घडये थाप पडली ती पखवाजाचेर! आनी वाजलो टाळ! उपरांत पखवाज आनी टाळांचो गाज दालनांत कितलीशींच वर्सां घुवंत रावलो. हांगा युवराज नायक ह्या कलाकाराचें नांव मुजरत घेवचे पडटलें. ह्या कलाकारान सराक पथनाट्यांत वातावरण उबें करपाक आकांताचो आदार केलो. ह्याच काळांत कांय आकांताचे गडे सराक सापडले. वृषभ पटणशेट्टी, स्वप्नेश गांवकार, सोमेश देसाय,

अंकिता धोंड, कांचन नायक, राहुल गांवकार, सुश्मिता देसाय ह्या गड्यांनी हेमंत सराल्या पथनाट्यांक सादरीकरणांतलो सम्राट घडयलो. युवराज नायक, साईश नायक, दत्तराज नायक हांणी पथनाट्यांत संगीत, पार्श्व संगीत हे घटक जिते केले. सूर, लय, ताल, Tempo हे घटक तांणी आपणाल्या पथनाट्याच्या मिटरांत फीट केले. (ह्या गजालींक पथनाट्यांत सुवात जावं म्हत्व आसता हें लेगीत आमकां समजलें तें सरांच्याच सांगाताक)

सराक तशें संगीत, ताल, सूर ह्या मळा वयलें तितलेशें शिक्षण ना! (अशें तरेचें शिकप तांणी घेतलें ना) पूण तांचो कान शेर्त!!! तांणी युवराजाक घेवन वेगवेगळे beat (ठेके) तयार केल्ले. वेगवेगळीं गाणीं त्या ठेक्यार वाजोवप. आनी कांय आकांताचे प्रयोग संगीत आनी मोबाच्या (पंगड) माध्यमांतल्यान घडोवप. आयज गोंयांत साबार कडेन, साबार पांवड्यांचेर पथनाट्यां जातात, सर्ती जातात. लोक मोटे उमेदीन अशा तरांच्या सर्तीनी वांटेकार जातात. पथनाट्यां सादर करतात. बरें दिसता! ज्या नाट्याच्या प्रकाराचेर हांवें उपाट मोग केलो तो प्रकार नवी पिळगी त्याच उपाट मोगान घेवपाक पळयता हाचे इतलें सूख तें खंयचें? पूण एक गजाल हांवें पळयल्या, अणभवल्या आनी कांय कडेन परिक्षक म्हूण वावुरलां तेन्ना सांगल्याय बी. पथनाट्य सादर करतना आयज गोंयांत साबार वाठारांनी जो सांचो वापरतात... त्या सांच्याक हेमंत अय्या सरानूच जल्माक घाला. कांय वेळार सरान तयार केल्ल्यो चाली हेर लोक तश्याक तश्यो वापरतना हांवें पळयल्यात. फकत चालीच न्हय तर सरान घडयल्लें फॉर्मेशन लेगीत तश्याक तशें वापरलां. त्या बद्दल म्हाका कांयच खेद ना. पूण घडये त्या मनशाकूय खबर आसपाचें ना हाचें मूळ खंय आसा तें; देखून ही गजाल म्हाका मुजरत सांगन दिसता. (भुरगेपणा सावन हांवें पळयल्लीं पथनाट्यां... आनी गोंयांत हालींसरा जातात तीं पथनाट्यां हांची हांव जिती जिवी गवाय. हो बदल जातना हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळयला! आनी हांव तें पटोवन दिवपाकूय शकतां.) पूण काळांतरान जशे लोक, साहित्य कोणें बरयलां? कोणें रचलां? कोणें घडयलां? ह्या प्रश्नांक सोडून पयस पावतात तशेंच गोंयच्या

पथनाट्याच्या मळारूय जालां. आनी पथसम्राटाक घडये लोक विसरल्यात. जावं.... ह्या निमतान तरी तो लोकांचे स्मृतींत सासणाचो उरतलो!

साहित्य हो समाजाचो हारसो खंय! पूण पथनाट्य ह्या प्रकाराक साहित्य प्रकार म्हूण मेळूंक जाय तशी प्रतिश्ठा मेळ्ळी ना. तशें पळोवपाक गेल्यार पथनाट्या इतली 'समाज प्रबोधन' ही गजाल आनी खंयच्याच साहित्य प्रकारांत मेळना. देखून पथनाट्याक साहित्याच्या मळार सुवात मेळची; एक संपन्न साहित्य प्रकार म्हूण निदान कोंकणी मनशान तरी ह्या प्रकारा कडेन पळोवचें असोय एक हावेस ह्या सगळ्या गजालींनी आसा. सरांचीं पथनाट्यां पुस्तक रुपांत लोकां मेरेन पावतात हाचे परस व्हड खोशयेची गजाल ती खंयची?

हांवें भुजार घेतिल्ली ही जाबाबदारी तडीक लावपाक खूब गड्यांचो (पथनाट्यांतल्या कलाकारांक सर सदांच गडे म्हणटाले) हात लागला. 'स्क्रिप्टी' सोदपाक आनी त्यो टायप करपाक बाय सुश्मिता देसाय आनी बाब शंतनू अय्या हांणी त्रास घेतले. सरांच्या पथनाट्यांचेर सोद निबंध बरयतना म्हाका मंगलदास भट, बाय अन्वेशा सिंगबाळ, राजदीप नायक, सर अनंत अग्नी, राजू बलनायक, डॉ. अशोक मणगूतकर हांचो खूब आदार जाल्लो. त्या वेळार तांचे कडल्यान मेळिल्ली उर्बाच घडये ह्या वावराक कारण थारली जावंये. तशेंच फोटो, कांय यादी एकठांय करपाक दत्तराज नायक, युवराज नायक, साईश नायक हांणी हातभार लायलो. पुस्तकाचे मुखपृश्ठ तयार करपाक म्हजो वांगडी विघ्नेश शिंदेन कश्ट घेतले. सर डॉ. अशोक मणगूतकार हांणी आकांताची प्रस्तावना बरोवन ह्या पुस्तकाक वजन हाडलें, पथनाट्याक साहित्यांतलो एक मुखेल प्रकार म्हण पळोवपाचें जें सपन हांवें सरांच्या सांगातान फाटलीं कितलीशींच वर्सां पळयत आयलां त्या सपनाक मणगुतकार सरांले प्रस्तावनेन पांखां मेळोवन दिल्यांत ही गजाल हांगा मुजरत सांगन दिसता. तांचो हांव मना काळजा सावन उपकारी! म्हजे इश्ट आनी मार्गदर्शक राजू बलनायक आनी टीम आर. बी. हांणी वेळावेळार उर्बा दिवन हें काम म्हजे कडल्यान करून घेतलें, तांचोय हांव भोव उपकारी. कोंकणींतले तज्ञ, म्हजे शिक्षक, मार्गदर्शक आनी वेळावेळार

म्हजी कानउगडणी करून चुकी सुदरावपी डॉ. राजय पवार हांचेय हांव मनाकाळजा सावन उपकार मागतां. हें पुस्तक पुराय करपाच्या वावरांत सर सुशांत नायक हाणी आपलो मोलादीक वेळ दिलो, तांचोय हांव भोव उपकारी आसां. जांणी सरांचे स्ट्रीट प्ले पळयल्यात, जांणी ते बसयल्यात, जांणी ते सादर केल्यात, अणभवल्यात, जे स्ट्रीट प्ले जगल्यात, जांका स्ट्रीट प्ले लागल्यात त्या समेस्तांक हें पुस्तक मानवतलें अशी हांव आस बाळगितां... आनी कोंकणी मळा वयलो हो 'पथसम्राट' पयलेच फावट तुमच्या मुखार पुस्तक रुपान दवरतां!

देव बरें करूं!

**- मंगेश पांडुरंग हरिजन**

# पथनाट्य - स्वरूप आनी संकल्पना

पारंपारीक लोकनाट्य ह्या साहित्य प्रकारांतल्यांन मुखार सरिल्लो पथनाट्य हो एक साहित्य प्रकार. ताचें रूप - स्वरूप, प्रयोजन, ताचो इतिहास हांचो विचार गंभीरतायेन जावप गरजेचें दिसता. ताचें म्हत्व तात्कालीक, सर्वकालीक आसता. काळाचे पाटयेर लोकनाट्याच्या ह्या साहित्य प्रकारांत पथनाट्य आकाराक येतना वा अविश्कृत जातना गरजे प्रमाण तातूंत बदल जायत गेले. तांचो अभ्यास जावप आनी साहित्यीक मळार ताची सुवात आनी ताचें म्हत्व समजून घेवप गरजेचें.

गोंया संदर्भांत विचार केल्यार जागोर, रणमालें वा इत्रुजा वेळार जावपी खेळ अशी परंपरा दाखोवप शक्य आसा. थर्ड थेटर, समांतर थेटर, अशेंय वळण हे कलेन घेतलें. नाटकाचे जाय ते घटक ह्या प्रकारांत पळोवंक मेळटात. भौसांतल्यानूच तयार जाल्ली आनी काळा प्रमाण बदल करीत मुखार आयिल्ली ही एक कला. कलेचे नदरेंतल्यानूच पथनाट्य ह्या प्रकारा कडेन पळोवंक जाय.

मनशाची जीण म्हणल्यारूच एक नाटक. दर मनीस दर खिणाक नाटक करीत आसता. देखून हो कला प्रकार मनशाच्या जल्मा सावन दिश्टी पडटा. समाज वाडटा, व्हडलो जाता, मुखार जगपाक लागता तशो ताच्यो गरजोय कळूंक लागतात. तातूंतल्यान एकमेका कडेन संबंद दवरतना नाट्य घडत आसता. ताचे प्रकार नव्या नव्या तरांनी जल्म घेतात, अविश्कृत जातात. संवाद,

नाटकुलें, नाटिका, एकांकी, नाटक, खेळ अशे जायते प्रकार आप - आपलें रूप घेवन कलेच्या दालनांत आपली सुवात सोदीत आसात. अभ्यासकांनी कलेच्या दालनांत पथनाट्याची सुवात सोदून काडप आनी दाखोवन दिवप भोव गरजेचें दिसता. खंयच्याय कलाप्रकाराचे निर्मणेंतूच ताचें सुत्र आनी शक्त आसपावता. हें सुत्र म्हणल्यार ताचें मूळ. पथनाट्याचो अभ्यास करतना ह्या मुळाचो सोद घेवनूच मुखार सरचें पडटलें. ह्या कला प्रकाराची 'पारिकताय' ही विशेशताय. देखून मुळाचो सोद घेवप सोपें न्हय. अभ्यासकांची मर्यादीत नदर भुतकाळांत जे मेरेन पावता ते मेरेन तिका वोडून; थंयच्यान तरी अभ्यास सुरू जावचो अशी इत्सा.

''भारतांत हें बीज रुजवणेक घातलें बादल सरकार ह्या संवेदनशील नाट्य कलाकारान'' (संदेश प्रभूदेसाय, सर फुडें, पृ. ७) पश्चीम बंगालांत सुरू जाल्ली ही चळवळ ल्हव ल्हव पुराय भारतांत पसरली. गोंय मुक्ती उपरांत; चड करून १९८० उपरांत गोंयांतूय पथनाट्याची चळवळ सुरू जाली.

विवीध विशयांची लोकजागृती करप गरजेचें आसता. हें प्रयोजन दोळ्यां मुखार दवरून लोकनाट्या पसून आधुनीक कला प्रकारांचो वापर समाजांत जायत आसा. पथनाट्य हो लोकजागृतीचे चळवळीतल्यान मुखार सरिल्लो एक कला प्रकार. गोंयांत समाजीक, राजकीय, शिक्षणीक, आर्थीक अशा मळार समाज प्रवोधन जावप गरजेचें आशिल्लें. तातूंतल्यान चळवळी जल्माक आयल्यो. देखीक गोंयांतले मार्क्स स्कॅंडल, विद्यार्थी चळवळी, भाशा चळवळ, वेंचणूक चळवळ, म्हादय बचाव चळवळ, मायनींग चळवळ, पर्यावरण, लैंगीक शोशण, एड्स, मोबायल, प्लास्टीक, रस्तो सुरक्षा, म्हारगाय, भ्रश्टाचार, इफ्फी, वायलांची जीण, चली भुरगें, शिक्षण वेवस्था अशे साबार विशय. दर एका विशयाक सकारात्मक - नकारात्मक बाजू आसातात. खंयचेय एके वटेन एकमत जातलेंच अशें सांगूंक येना. देखून त्या त्या प्रश्नाचेर समाजांत चर्चा जावप भोव गरजेचें. ही चर्चा तरा तरांनी जाता. निवंद, वकृत्त्व, एकांकी स्पर्धा जावप, व्याख्यानां आयोजीत करप आनी हेर. ह्या सगळ्यांचें प्रयोजन एकूच,

समाज जागृताय. आयज आमी स्पर्धेच्या युगांत आसात. देखून तरातरांच्यो सर्ती आयोजीत जातात. पथनाट्याच्योय सर्ती तशोच मुखार सरल्यो. प्राथमीक पांवड्यार आशिल्लें पथनाट्य आंग धरपाक लागलें. पथनाट्याच्यो संहिता तयार जावपाक लागल्यो. ह्यो संहिता ग्रंथरुपान प्रकाशीत जावप गरजेचें आसलें. कोंकणींत आयज 'सर फुडें' (कविंद्र फळदेसाई), 'जनजाग' (सत्यवान नायक), 'पथनाट्यां' (जयेश रावत) अशीं पथनाट्यांचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

पथनाट्य (स्ट्रीट प्ले) च्या स्वरुपा संवंदान वयल्या दोन पुस्तकांच्या प्रस्तावनांनी प्राथमीक स्वरुपाचें विवेचन आयलां. त्या संवंदान परतून हांगा बरोवप गरजेचें दिसना. तरीय कांय गजाली सांगच्योच पडटल्यो.

१) **स्टेज प्ले (नाटक) आनी स्ट्रीट प्ले (पथनाट्य) हातूंत खूब फरक आसा.**

२) **उजवाड येवजण, आवाज येवजण, नेपथ्य, माची, रंगभुशा, वेशभुशा, आनी नाटकाचे हेर घटक पथनाट्याक लागनात.**

३) **पथनाट्यांत काम करपी कलाकार हीच मुखेल प्रॉपर्टी आसता. ताचोच वापर सगळे कडेन कल्पकतायेन करचो पडटा.**

४) **बाजार, बस स्टॅण्ड, रेल्वे स्टेशन वा ज्या जाग्यार पब्लीक/लोक एकठांय जातात अशा जाग्या वयली उकती माची पथनाट्याक गरजेची. तशी त्या त्या जाग्यार त्या त्या वेळार वावुरपी लोक प्रेक्षक म्हण गरजेचे आसतात. तांकां एकठांय करपाची तांक पथनाट्या कडेन आसूंक जाय.**

५) **सगळ्या गडबडींनी हें नाट्य घडटा, देखून पथनाट्यांतल्या कलाकारा कडेन आवाज (लाउडनेस) आसप गरजेचें.**

६) **मनोरंजन करपा खातीर पथनाट्य तयार जायना, तर थरावीक विशया संबंदान समाज प्रबोधन वा समाज जागृती जावपा खातीर पथनाट्य तयार जाता.**

७) **सादारण १० तें २० मिणटां भितर पथनाट्य सादर जावचें अशी अपेक्षा.**

'पथसम्राट' ह्या पुस्तका संबंदान आतां विवेचन करुया. हेमंत अय्या ह्या कलाकारान पथनाट्य सर्ती खातीर बरयिल्ल्यो संहिता संग्रहीत करून, संपादन करून मंगेश हरिजन ह्या तरनाट्यान उजवाडाक हाडल्यात. हेमंत अय्या सर्तींतल्यांन मुखार सरला. विद्यार्थी आसतना गोवा युवा महोत्सवाच्या सर्तींतल्यांन ताका प्रेरणा मेळ्ळी. कलाकार म्हण तातूंत तो वावुरलो. पथनाट्यांच्या मेळिल्ल्या अणभवांचेर ताणें पथनाट्यां बरोवन बसयलीं. ह्या पुस्तकांत आसपाव जाल्ल्या दर एका पथनाट्याक सर्तींत पयलें इनाम फाव जालां. ताचीं कारणां ताचें सादरीकरण, प्रायोगिकताय, पथनाट्याच्या सगल्या घटकांतलें नाविन्य अशीं दिवं येतात. देखुनूच तो सम्राट! ही परंपरा उमेदीन मुखार वचपाक जाय. ताच्या हाता सकयल, ताच्या मार्गदर्शना खाला कांय विद्यार्थी तयार जाल्यात. ते ही परंपरा मुखार व्हरतले हातूंत दुबाव ना. सर्ती आसल्यारूच पथनाट्य बरोवची आनी बसोवची अशें न्हय. 'सर्त' हें एक निमीत्त. ती एक सभावीक उर्जा जावपाक जाय. हेर कलां भशेन 'पथनाट्य' कलारूप जावन समाजाची गरज जावची हो हावेस. सर्त म्हणटकच बरें वायट जाय तें घडटा. पथनाट्याची कला तें सगलें पचोवन जिती तर उरतलीच, पूण ती अदीक समृद्धूय जातली.

ह्या पुस्तकांत चवदा पथनाट्यांचो आस्पाव आसा. तांचे विशय शेतां, भुरगेपण, कॅशलेस, रस्तो सुरक्षा, शिक्षण वेवस्था, म्हादय, मायभास, वेंचणुको, राज्याक खासा दर्जो, वाय जल्माक येवप, पर्यावरण, पावस, अशे आसात. तांचेर नदर मारल्यार तांचें समकालीन म्हत्व समजून येतलें. त्या त्या काळार ते ते विशय म्हत्त्वाचे आसले; तरीय आसतना विशयाची सर्वकालिकता चड म्हत्वाची. मनशाचे जिणेंत दर एका विशयाक म्हत्व आसाच, देखून हीं पथनाट्यां काळा आड जावचीं नात. खंयच्याय काळांत ह्या पथनाट्यांचें सादरीकरण जाल्यार आयज मेळटा तसोच 'आनंद' मेळटालो. देखून तांचें अक्षरत्व चड म्हत्वाचें.

विशया परस आशयाचे नदरेन सगलीं पथनाट्यां म्हत्वाचीं आसात. आयचें वास्तव तंत्र युगान भरिल्लें. शेती हो पारंपारीक वेवसाय. मनशाची जीण

शेतांचेरूच उबी आसा. पूण आतां तांचे उद्देगीकरण आनी यांत्रिकीकरण जालां. देखून आयचो मनीस शेता कडल्यान पयस वचत आसा. ही स्थिती भयानक. शेतकारांक आत्महत्येची वाट दाखोवपी. जें कितें शेतांत पिकता ताची पवित्रताय आनी शुद्धताय तपासची पडटली. उत्पन्न चड जाता; पयशे मेळटात म्हण रसायनाचो वापर करून मनशाचे भलायकेचो खेळ करप, हातूंत मनीसपणा खंय आयलें?

भुरग्यांचें भुरगेपण शेणलां. भुरग्यांचेर अभ्यासाच्या नांवार वजीं दवरतात. भुरगे सैमा कडल्यान पयस वचूंक लागल्यात. भुरग्यांची सपनां तांचे आवय बापूय, पालक थारावंक लागल्यात. भुरग्यांची आवड निवड पळयनासतना तांचेर अन्याय करपाक लागल्यात. हे परिस्थितीचेर विचार जावंकूच जाय!

मनशान मनशा खातिरूच केल्ली मुल्य वेवस्था काळी जाल्या. काळो पयसो तर हिसपा भायर. तो लिपोवपा खातीर काळो मार्ग. तातूंतल्यान भायर सरपा खातीर 'कॅशलेस सपन' हो एक मार्ग. पथनाट्यांतल्यान तांचे बद्दल जागृताय केल्ली दिश्टी पडटा. भारताचें अर्थकारण पुराय बदलपाची तांक आसा ह्या सपनांत. भ्रश्टाचार, काळो पयसो, मडको, कॅसिनो, गॅमलींग, अशे काळे धंदे समाजांतल्यान हुमटावन काडप गरजेचें; हो आशय घेवन कॅशलेस भारत हें पथनाट्य सादर जाता.

यांत्रिकीकरणाक लागून उद्येग वाडले. तातूंतल्यान मोटारी, स्कुटरी वाडल्यो. रस्ते कमी पडपाक लागले. अपघात वाडले. मरणां वाडलीं. जीण धोक्यांत आयली. प्रशासनान, सरकारान हाचेरे जाप सोदली म्हण जावपाचें ना. दर एकल्यान ताचेर जाप सोदपाक जाय असो आशय घेवन रस्तो सुरक्षा हें पथनाट्य सादर जाता आनी रस्तो हें माध्यम फुडाराचें, रस्तो सुरक्षीत आसल्यारूच आमची जीण सुरक्षीत असो संदेश लोकांक मेळटा.

आयचे शिक्षण वेवस्थेन जो बाजार भरला ताचेर विचार करून जाप सोदप गरजेचें. चुकीचे पद्दतीन शिक्षण वेवस्था मुखार सरली जाल्यार भुरग्यांचें लुकसाण जातलें. देखून ही वेवस्था बदलपाची गरज आसा असो आशय घेवन 'आयची शिक्षण वेवस्था' हें पथनाट्य येता.

गोंयांतलो खाण वेवसाय बंद जाले उपरांत गोंयांत आर्थीक मळार उदरगत करपा खातीर शेती आनी पर्यटन अशे दोनूच पर्याय उरतात. शेती खातीर उदक गरजेंचें. उत्तर गोंयांत उदक पुरवण करपी म्हादय न्हंय देखून म्हत्वाची. पूण ताचेर कर्नाटकाचो दोळो. गोंया खातीर तर म्हादय ही आवय. हे आवयक गोंयकारान सांबाळची असो आशय 'माय म्हादय' ह्या पथनाट्यांत मांडला. जाल्यार 'मायभास जाय' ह्या पथनाट्यांत मायभाशेचें म्हत्व सांगलां. आमी जाणात इंग्लिश गरजेची पूण संस्कृताय तिगोवन दवरपाक आवयभासूच जाय. देखून माय भास जाय असो उलो पथनाट्यांतल्यान मारला. मायभाशेचें म्हत्व सांगपी हो आशय खंयाच्या तेपार म्हत्वाचो. इंग्लिश शिकले म्हण आमी कितलेय व्हड जाले तरी आमचें अस्तित्व तिगोवन दवरचे नात. ते खातीर मायभासूच गरजेची असो आशय मांडपी हें पथनाट्य!

वेंचणुको हो राजकी विशय. आमच्या संविधानान/घटनेन आमकां मतदानाचो हक्क दिला. मतदाराचें मत मेळोवन सत्ते खातीर संघर्श उबो रावता. ह्या संघर्शाचें चित्रण करून मतदारांक लोकशाये संबंदी जागृत करपाचो आशय घेवन वेंचणुको हें पथनाट्य सादर जाता. राजकी फुडारी लोकशायेचे लचके तोडापाक लागल्यात. लोकशायेक दारा दारांत भीक मागत भोंवचें पडटा. लोकशायेचीं पाळां मुळांच खणून उडयल्यांत. स्वार्था खातीर अनितीचो मार्ग आपणायतात. समाजाचे उदरगती खातीर हो मार्ग बरोबर न्हय.

पोर्तुगेजांक धांवडावन गोंय मुक्त जालें. मुक्त गोंयांत कांय प्रस्न उप्रासले. देखीक खाण वेवसाय बंद पडप, अर्थकरणाचो भार पर्यटानाचेर पडप. पर्यटनाक लागून ड्रग्स वाडप, गोंयच्यो जमनी भायला लोकांनी विकत घेवप अशे आनी हेर जायते प्रस्न. गोंयकारपण शेणलें आनी तें मेळोवपा खातीर गोंय राज्याक खास दर्जो मेळेचो अशे दिसपाक लागलें. भारतांत कांय राज्यांक थंयचे आदिवासी लोक जिणेक लागून खासा दर्जो मेळ्ळा. गोंयची स्थिती अशी आसा? विचार करचो पडटलो आनी आमकां अस्तित्वा खातीर झगडचें पडटलें. आसो आशय गोंयाक खासा दर्जो ह्या पथनाट्यांतल्यान मेळटा. केंद्र सरकारान खासा

दर्जो दिवं वा ना दिवं, आमी खास गोंय घडयतलें असो विश्वास आनी इत्सा पथनाट्यांत दिसता.

स्त्री जातीक न्हयकारपाची संस्कृताय आमची न्हय. बायल मनशेक आमी देवी मानतात. पूण आमचे समाजीक वेवस्थेंत बायल मनशे कडेन दुर्लक्ष जालां हें खरें. देखून आमकां समाजांत वायल मनीस जाय पूण तिचो जल्म म्हज्या घरांत नाका अशें सगल्यांकूच दिसता. ह्यो भावना मोडून काडपाक जाय. 'बाय जालां' ह्या पथनाट्यांत अशे तरेचो आशय आसा. आयज खंयच्याय क्षेत्रांत दादल्यांचे तुळेंत बायल मनीस फाटीं ना. स्त्री जातीक समजून घेवपाची मानसीकताय बदलपाची गरज आसा. दर एकल्याक स्त्री जातीचें म्हत्व कळ्ळें जाल्यारूच बदल घडप शक्य आसा.

खाण वेवसाय गोंयात सुरू जालो. पूण ताका मर्यादा उरली ना. तांबडी क्रांती जाली. पयशांचो धुंवर जालो. शेतां भाटां सोंपलीं. जीण धुल्लान भरली. सैम सोदचें पडलें. अशा वेळार समाजाक सादूर करप गरजेचें आसलें. 'कोणाल्यो म्हशी? कोण काडटा उठावशी?' ह्या पथनाट्यांत समाज जागृतीचो उलो मारला. पाचवे क्रांती खातीर चिंतपाक लायलां.

'बाय जालां' ह्या पथनाट्याचो आशयूय Save The Girl Child. 'पर्यावरण' ह्या पथनाट्यांत मायनींग, शेतां भाटां, उदक अशेच विशय परतून आयल्यात. 'यो रे! यो रे! पावसा' ह्या पथनाट्यांत परतून पावस, उदक हेय विशय तोच आशय घेवन आयल्यात. हाची जाणविकाय पथनाट्यकाराक आसा. देखून तो आडखळ्ळा. पथनाट्य कित्या खातीर असो ताकाच प्रस्न पडला. पथनाट्य सोंपोवपाची भास तो करपाक लागला.

वेगवेगळ्या विशयांचेर पथनाट्यांत सोदून काडिल्ल्यो जापो म्हणल्यारूच त्या जापांचे आतां प्रस्न जावन उबे रावल्यात. प्रस्नाचेर जाप आनी जापेंतल्यांन प्रस्न अशें चक्र सुरूच उरतलें, आनी हें सत्य आसल्यार आडखळपाचो प्रस्नूच येना. पथनाट्य सोंपोवपाची भास येच ना. परिस्थिती पळोवन मुखार जगप, चलप हेंच खरें.

पथनाट्याचे विशय आनी आशय ह्या संबंदान आमी विचार केलो. आतां पथनाट्यांचें सादरीकरण! सादरीकरण हो पथनाट्यांतलो सगळ्यांत चड म्हत्वाचो घटक, पथनाट्य जितें जाता तें सादरीकरणांतल्यान. पथनाट्य हो नाटकाचोच एक प्रकार आसलो तरीय पथनाट्याची विशेशताय मतींत घेवची पडटली. उत्ती माची ही पयली विशेशताय. भौशीक सुवातेर आपआपणाल्या कामा खातीर जमिल्लो लोक म्हणल्यार प्रेक्षक, ही दुसरी विशेशताय. ह्या प्रेक्षकांचे लक्ष आपणा कडेन ओडून घेवप ही तिसरी विशेशताय.

पथनाट्यांत काम करपी कलाकारांक ह्यो विशेशतायो मतींत दवरून सादरीकरण करचें पडटा. हेमंत अय्या आपल्या पथनाट्यांचीं सुरुवात गितांनी करता. पळयात देखीक-

१) **मेरे देश की धरती**
**सोना उगले, उगले हिरे मोती**

२) **या रे या आमी खेळ खेळुया**
**सैमाचे सासायेन जीण जगुया**
**भुरगेपण जगुया...आमी मज्ज्या करुया**

३) **हय हय बदल जाला..हय हय बदल जाला**
**अच्छे दीन आयला**

४) **वक्रतुण्ड महाकाय सूर्यकोटी समप्रभः**
**निर्विघ्नं कुरू मे देव सर्व कार्येषु सर्वदाः**

५) **छडी वाजे छम छम**
**विद्या येयी घम घम**

६) **सुख करता... दुख व्हरता आमची माय म्हादय**

७) **गणराज गजानन हो.....गणा गजानन हो...**

८) **सुख करता... दुख व्हरता वेंचणुको येता**

ताई माई अक्का, ताई माई अक्का खोशी कित्याक जाता

९) अच्छे दीन आयला
नव्यान जीण आमची फुल्ल्या
अच्छे दीन आयला

१०) हय हय बाय जालां
हय हय बाय जालां

११) यो रे सायबा यो रे
खेळ आमचो पोळोवंक तू यो
भाटात भरिल्ल्यो कोणाल्यो म्हशी
कोण काडटा उठाबशी

१२) यो रे यो रे पावसा यो
दितां तुका पयसो
पावस जालो खोटो
पयसो आयलो मोटो

ह्या सुर्वेच्या गितांनी स्तोत्रां, आरती, नमन, नांदी, चित्रपट गीत अश्या प्रकारांचो वापर केल्लो दिश्टी पडटा. ह्या गितांतल्यान नमना वांगडाच पथनाट्यकार विशयाकूच हात घालता आनी जमिल्ल्या लोकांक उलो मारता. ह्या गितांनी लोकांचें लक्ष पथनाट्या कडेन ओडून घेवपाची तांक आसा. देखून पथनाट्याक सुरवातेकूच यश मेळटा. ह्या गितांनी लोकूय चिंतूंक लागतात आनी उमेदीन मुखार पळोवपा खातीर लागीं येवन उबे रावतात. तांकां विशय कळपाक लागता. आशय समजूंक लागता, आनी लोकांचो प्रतिसाद मेळपाक लागता. पथनाट्यांत मांडिल्ल्या विशया संवंदान लोक जागृत जावपाक लागता.

जे पद्दतीन गितांनी पथनाट्याचे सुर्वेकूच लोक आकर्शीत जातात तशेच पथनाट्याच्या शेवटाकूय. गितांनीच पथनाट्याचो समारोप जाता. पथनाट्याक प्रतिसाद दितना एके वटेन लोकांचें मनोरंजन जाताच पूण ते परस तांतूतल्यान ते

गंभीर जातात. पथनाट्यांत मांडिल्ल्या प्रस्नांचेर चिंतूंक लागतात, समाजांत चर्चा जावंक लागता. वता तेन्ना निमणे कडेन लोकांक चिंतूंक लावपाची तांक ह्या गितांनी आसा. देखीक पळयात-

१) आमी भुरग्यांक जपतले
तांचें भुरगेपण जपतले
नवो संवसार घडयतले

२) कॅशलेस भारताचें सपन कोण पळयता
म्हशी कोणाल्यो कोण उठाबशी काडटा

३) जागे जायात भावांनो, देशाक जागोवया, देशाक जागोवया
सगल्या प्रस्नांक सोडोवपी, सगल्या प्रस्नांक सोडोवपी वेवस्था निर्मोवया

४) एकूच न्हंय एकूच म्हादय
राख मात्सो तूं गोंयकारा
घरांतल्यान यो रे भायर
मायेच्या आदारा

५) वेदना जी तुजी
वेदना जी म्हजी
श्वासांतली रक्तांतली
आवय कोंकणी म्हजी

६) एकूच मत निवळ मत सत्यान मत घाल भावा
खरें मत बरें मत जिखून हाड सत्याक भावा

७) खास गोंय आमी घडयतले
खास गोंय आमी घडयतले, जागला गोंयकार

८) स्त्री जाल्माची एक ही काणी
घेवन आमी आयल्यात

९) पर्यावरणाचें हें रडगाणें घेवन आमी आयल्यात

**तुमकां जागोवंक आमी आयल्यात**

**१०) यो रे तूं यो रे पावसा**

**मनीस पिसावला...पावसाक विटला**

अशीं हीं पथनाट्यांनी शेवटाक आयिल्लीं गितां लोक वतां वतां मनांत म्हणीत वचूंक लागतात, चिंतूंक लागतात... ज्या पथनाट्यांचो शेवट गितांनी जायना थंय पथनाट्यकार लोकांक प्रस्न विचारुन उलो मारता आनी चितूंक लायता, देखीक पळयात;

**सुत्रधार** : आसा कोणा लागीं हाची जाप? आरे कशी आसतली? आमीच न्ही ते कृत्य करपी आनी घडये चुकून आयलेंच तें बाय जल्माक जाल्यार "ना गो! बाय हे फावट!" म्हण तोंड वांकडें करून जिलेब्यो वांटपी, आतां तरी बदल मनशा, आतां तरी बदल. *(पथनाट्य- बाय जालां)*

सादरीकरणांत संवाद (भास) हीच एक मुखेल. आशयानुरूप विशेशताय. प्रसंगानुरूप, विशयानुरूप, व्यक्तीचितनानुरूप संवादाचो वापर जाल्लो दिश्टी पडटा. प्रादेशीक भाशेच्या वापरांतल्यान वातावरण निर्मिती जाता.

बाजारांत भाजी विकपाक वशिल्ल्या भाजयेकारांचे संवाद पळयात;

१. **भाजीकार** : **आवो भाय! बटाट सवाय दिया.**

**भाजीकार २** : **लिंबू लेवो भाय! २० रुपयोको ५ डाल्या लेवो.**

*(पथनाट्य- शेतां आनी आयची पिळगी)*

२. **दोन** : **आगे! तुम्हारी भाजी सगली कुसा मगे!**

*(पथनाट्य- कॅशलेस भारत आनी वास्तव)*

प्रसंगानुरुप सादरीकरणांत जशी गंभीरताय आसा तसो विनोदूय आसा. देखीक - कॅशलेस हें पथनाट्य पळोवचें. प्रसंगांची माडांवळ दिग्दर्शकाक कल्पनेन करपाक खुबूच मेकळीक मेळटा. हे मांडावळींतल्यान वेगवेगळ्या तरांनी विशयाचेर भाश्य करपाक मेळटा. कलात्मक पांवड्यार पथनाट्य

पावता, दर्जोय वाडटा. कलाकारांचो कस लागता.

सादरीकरणांत जशें सभावीकपण आसा, तशीच प्रायोगीकताय आसा. कलाकारांच्या आदारान केल्ली मांडावळ प्रायोगीक सादरीकरण उंच पांवड्यार पावता. देखीक- वाद्यांचो वापर करून प्रसंगांची कलात्मक आनी प्रायोगीक मांडावळ करू येता.

पथनाट्याचें यश जशें संहितेंत आसा, तशेंच तें सादरीकरणांतूय आसा. फाटलीं स-सात वर्सां हेमंतबाबाचीं पथनाट्य सादरीकरणां हांवें मुळा साकून पळयल्यांत. देखून व्यक्तिगत पांवड्यार म्हाका जाणवल्ली हेमंताची विशेशताय सांगीनशी दिसता.

- **कलाकारां मदी कुटुंबीक वातावरण निर्मिती करप.**
- **दर एकल्या कलाकारां कडेन घरगुती संबंद जोडप.**
- **कलाकारांच्या अंतरंगांत रिगून तांकां समजून घेवप.**
- **कलाकारांचे घरांतले वा कुटुंबांतले प्रस्न सोडोवपाक मदत करप.**
- **कलाकारांच्या कवशल्यांचो, शक्तीचो वापर करून कमींत कमी खर्चांत पथनाट्य बसोवन तयार करप.**
- **कलाकारां कडेन चड वेळ मागचो पडटा, देखून तांच्या जेवणा खाणाची, वेवस्था करपाक पयशे मोडचे पडटात. हेमंतबाब हो खर्च झिरोचेर हाडटा. ताची टेकनीक हेमंतबाबा कडल्यानूच शिकची पडटली.**
- **कलाकारां मदीं आत्मविश्वास वाडटा. कलाकार आनी हेमंतबाब हांचे मदलें सरांचें नातें विरगळटा आनी भावा-भयणींचे, मनीसपणाचें नातें तयार जाता.**
- **पथनाट्य सादरीकरणांत हेमंतबाब आपलें अस्तित्व वेगळें दवरिना. सगळ्या कलाकारां मदीं आपूण एक कलाकार जावन वावुरता. कलाकाराक**

**लागपी सगळे गूण हेमंतबाबा कडेन आसात.**

- **हेमंत बाब एक कवी, कथाकार आसा. ताका साहित्याची जाण आसा. देखून पथनाट्य संहितेंत कलात्मकताय येता.**

अशो सगळ्यो गजाली हेमंतबाबा कडेन आशिल्ल्यान मंगेश हरिजन ताका ''पथसम्राट'' म्हणटा. ह्या भायर ह्या संपादकान ''पथसम्राट कित्याक?'' हाचें स्पश्टीकरण पुस्तकाचे सुर्वेक दिल्लें आसा. ते भायर परिशिश्टांक सोद निबंद, मुलाखती, आयज मेरेन वांटेकार जाल्ले कलाकार अशी सगळी म्हायती दिल्ल्यान हो संपादन संग्रह उजवो थारता. देखून मंगेश हरिजनाचें कवतूक करपाक जाय.

पथसम्राटाक शुभेच्छा!

निमाणे कडेन एकूच इत्सा, पथनाट्य हो एक साहित्य प्रकार जातलो आनी हेर साहित्या भशेन शिक्षणीक पांवड्यार पथनाट्य प्रकाराचोय अभ्यासा खातीर आसपाव जातलो ते दीस पयस नात. पथसम्राटाक उपाट यश आंवडेतां...

**- डॉ. अशोक मणगुतकार**

# 1

## शेतां आनी आयची पिळगी

(घुमटार थाप पडटा आनी एके वटेन गडे मोटे उमेदीन गाणें गायत एका फेऱ्यांत भितर येतात.)

**मेरे देश की धरती**
**सोना उगले, उगले हिरे मोती**
**मेरी देश कि धरती**

*(चालः मेरे देश की धरती)*

(धोलार बडी पडटा आनी दुसरे वटेन आनीक एक पंगड गोंयचे तालगडेच्या तालार नाचत भितर येता.)

**शेतकारा शेतकारा**
**शेत पिकलां**
**पिकिल्लें धान पळोवन**
**मांड हांसला**
**बल बले बल बले बले.**

**एक** : कांय वर्सां आदली खबर.
**दोन** : आमचे भुंयेचेर पिकतालें भांगर.
**एक** : आयज परिस्थिती आयल्या वायट.
**दोन** : मेंदवान आमच्या पेटना लायट.
**एक** : शेतां सगलीं जाल्यांत काबार.

**दोगूय** : सोदतात नोकऱ्यो दिवपी हजार.

**किर्तनी** : (हो गजर ताळयो वाजयत किर्तनी सगल्यां कडल्यान घोळोवन घेता.)

**श्रीराम, पांडू, अकबर, टॉनी**
**जॉबाक वचूंक लागल्यात**
**शेता सुवातीर उब्यो बिल्डिंगो**
**सूट बूट मारूंक लागल्यात**

**चार** : ए! बंद करात! बंद करात तुमचीं हीं गाणीं! तुमी गेल्यात शेतांत केन्ना? दवरला केन्ना चिखलांत पांय? ह्या देशाचें एक बरें. हांगा शेतांत केन्नाच पांय दवरूंक नाशिल्लो ऍसी रुमांनी बसून शेतकारांक जाणवायो सांगता.

**पांच** : पूण ज्या वेळार शेतकाराक आत्महत्या करची पडटा तेदे वेळार खंय आसतात रे तुमचे हे बुदवंत?

**स** : खणपी खणटा आनी मेरे वयलो परवता, म्हणटात पळय ती गजाल फट न्हय.

**तीन** : शेती प्रधान अर्थवेवस्था खंय.... खंयची ती? दाखय पळोवया मात्शी.

**सात** : मागीर कितें करुया..? वग्गी बसून रावुया..? ते आत्महत्या करतात आनी आमी व्हायट कॉलर जॉबा फाटल्यान धांवतात. शेतां करपाक लायक आशिल्ली जमीन सुक्यार पडटा, ताचेर विकासाच्या नांवार बिल्डिंगो, रस्ते, मोबायलाचे टॉव्हर, ब्रीज, शेतांक सासणाचे काबार करून उबे जातात. हें उक्त्या दोळ्यांनी पळयत रावुया..?

**चार** : तुमच्यो भावना म्हाका समजतात. केन्ना तरी भांगराळें धान फुलोवपी मळ वसाड पळोवचें पडटा तेन्ना म्हज्यांतलो मनिसूय रडटा, म्हज्यांतलो शेतकारूय घुस्मट्टा. पूण कितें दवरलां रे तुमी शेतकारांक?

**आठ** : ए! कितेंय उलोवं नाका. देशांत जावपी दर एका बजेटांत तुमचो, शेतकारांचो विचार पयलीं जाता हें तरी मानता मरे तूं?

**चार** : सारकें, पूण जें शेतकारांक दितात तें खावन वता भलतोच! तें शेतकारां

ग्मेरेन पावच ना! आनी चुकून पावलें जाल्यार तें शेतां मेरेन तर निखालूस पावना. हेंच खरें वास्तव ह्या देशांतलें आनी ह्या राज्यांतलें.

**सगल्याच वटांनी केस्तावां**
**शेतां सगलीं पडलीं सुक्यार**
**शेतकारांचेर आयलो सांवार**
**भोंवता तरनाटो बेकार**

*(चाल : हे भोळ्या शंकरा)*

(एक घर. घरांत चलो, बापूय आनी आवय अशीं मनशां बसल्यांत)

**बापूय** : पुता! शिकता रे... शीक शीक. ना जाल्यार हे वटवटे काडचे पडटात. सैमाचेर पातयेवन पोट कितलो तेप भरप. मटक्याक काबर जाल्लो मनीस आनी शेतकार हातूंत चड फरक ना. तो पयशे लावन मरता आनी शेतकार पीक लावन. दोनूय कडेन वाटावतलो जाल्यार लागता नशिबूच.

**चलो** : ना बाबो. हांव अशें जावपाक दिवचों ना. हांव शिकतलों, व्हड जातलों. बऱ्या कामाक लागतलों.

**तो** : आनी शेतां पडींग उडोवन कोणाक तरी ताजेर बिल्डिंगो बांदपाक दितलो. अशेंच मरे?

**आवय** : जाल्यार कितें करप सांग मरे शेतकारांनी? अशेंच जगप, मरत मरत? पावस चड पडलो जाल्यारूय हुस्को, तो पडूंक नासल्यारूय हुस्को. लायल्या उपरांत जगपाचो हुस्को, जगल्या उपरांत पिकपाचो हुस्को, पिकल्या उपरांत खपपाचो हुस्को आनी हे सगले हुस्के सोंपसर दुसऱ्या वर्सा परत लावपाचो हुस्को. ह्याच चक्रांत मरप शेतकारान? आतां उलय मरे... बसली दांतखिळी?

**श्रीराम, पांडू, अकबर, टॉनी**
**प्रश्नांची हेंच्या जाप दियात.**
**हुस्क्याचेर हुस्को दीस रात हुस्को**

हांकां जियेवपाची आस दियात.

(एक बाजार भरला. बाजाराक जाय तीं दुकानां लागल्यांत. दर एकल मनीस आपणालो म्हाल खपोवपाक बोवाळ करता)

**भा. १** : आओ भाय! बटाटा सवाय दिया.

**भा. २** : लिंबू लेवो भाय! २० रुपयको ५ डाल्या लेवो.

**तो** : गांवठी गे!

**भा. ३** : हय बाबा! शेतांतल्यान हाडला ताज्जी पळय भाजी. कितें दिवं. मुळ दिवं? चिबड तरी व्होर.

**तो** : कसो दिलो मुळो.

**भा. ३** : धा रुपया?

**तो** : कितें? धा रुपया? मुळो मगे काय भांगर गे? आनी चिबड कशें दिलें?

**भा. ३** : चिबड व्होरता? घे, घे. ७० रुपया दी.

**तो** : पन्नासां दोन दिता जाल्या व्हरतां?

**भा. ३** : बाबा आमकां करतल्यांक कितेंय सुटूं नाका रे?

**तो** : हें! म्हारग तुगे भाजी.... ही बेळगांवची भाजीच बरी. हीं आमगे भाजीकारां काती काडटात.

**सुत्रधार** : पळयलें! आमी चवथीक हजारांचो फोग लायतात, बेळगांवची भाजी वाणपणां करून करून हाडून खातात. मोलांनी वचून पांच रुपयांची च्या ५०० रुपया दिवन पितात. पूण एक शेतकार आपणाल्या शेतांत पिकयल्ली एकादरी भाजी, फळावळ घेवन बाजारांत बसता तेन्ना बोंबलेच्या देंठा सावन आमी वाणपण करतात. आरे! तो शेतकार भीक मागना तुजे कडेन... ताणें घेतिल्ल्या कश्टाचें मोल मागता तो.

**दोन** : हो वाणपण करपीच मुखार वतलो आनी आयच्या शेतां विशीं आनी शेतकारां विशीं भाशणां करतलो. ही खरी विकृती ह्या शेतीप्रधान

देशाची.

**तीन** : ताजी भाजी घेवन बशिल्ल्याक धा मेळनात. पूण तेच भाज्येचें सालाद आमी १०० रुपया मेजून हॉटेलांत गिळटात.

**चार** : म्हाका सांगात, कोणाक कशें जायन दिसतलें रे शेतकार आनी दिसचें तरी कित्या खातीर?

**पांच** : मान्य आसा. आमच्या राजकारणान शेतांक आनी शेतकारांक कावार केल्यात.... पूण ते कावार जावपाचें खरें कारण समाजांत आसा. तुमच्या आमच्या काळजांनी आसा हें विसरूं नाका.



**विसर नाका विसर नाका!**
**खरे पातकी आमीच विसर नाका!**
**दाखय नाका दाखय नाका!**
**दुसऱ्याक बोट भावा दाखय नाका!**

(रानांत प्राणी बसल्यात. बैल, कावळो, कोलो, सोसो, खेतीं, बेबो अशीं वेगवेगळीं जनावरां आवाज काडटात.)

**एक** : मनशाच्या विश्वांतल्यान पावले ह्या जंगल बुकांत.

**दोन** : बैल, सोसो, खेतीं, कोलो बसल्यात सगलेच दुखखान.

**तीन** : एका नवीन प्राण्याचो रानांत जाता आसपाव.

**दोन** : रानांत नागरिकत्व मेळोवपाक आयल्यात हांचे बैलभाव.

**कावळो** : म्हाराज, आमच्या रानांत असली केस पयलेच फावट आयल्या. एका बैलान म्हळ्यार मनशा बराबर रावपी पाळीव प्राण्यान आमच्या जंगलांनी कायम स्वरुपाचें नागरिकत्व मागलां.

**खेतें** : कांय गरज ना. ताका धांवडयात हांगा सरलो. मनशा बरोबर रावपी जनावर बैल. ताचें रानांत कसलें काम? धांवडयात ताका.

**सोसो** : कोले माम, म्हाका दिसता आमी एकदां बैलाची बाजू आयकून घेवची. आमी जनावरां मनशा इतलीं दळडिरीं न्ही. आमचीं भुरगीं पळयतात.

तांकांय ती मुकाल्ल्या काळार बरी देख आसतली.

**कोलो** : सोशालें मत म्हाका पट्टा. बैलाक उलोवपाची, आपणाली बाजू मांडपाची एक संद दिवपाक जाय अशें म्हाका तरी दिसता. कोण कोण आसात सहमत?

(सगलीं जनावरां आप आपणाले आवाज काडून हयकार दितात.)

**कोलो** : उलय बैलभावा. ही रान संगटना तुजी बाजू मांडपाची तुका संद दिता.

**बैल १** : भावांनो आनी भयणांनो. हांव तुमच्याच मदलों. पूण शेंकड्यांनी वर्सां आदीं मनशान आपणाल्या सुवार्थाक लागून आमच्या पुर्वजांक तुमचे कडल्यान पयस व्हेले. तांकां जोत जाय आशिल्लें शेत करपाक. शेंकड्यांनी वर्सां आमकां राबयले. आनी आतां शेत करपाचें थांबोवन आमकां वाऱ्यार उडयले. “ना घरका ना घाटका” अशी आमची आवतिकाय जाल्या. पाळीव प्राणी म्हणून घेवचे परस आमकां रानवटी जनावर म्हणून घेवपाक आवडटलें. उपकार कर आमचेर, आमकां तुज्या रानांत आश्रय दी.

**बैल २** : पयलीं मनशान आमकां गोठो नांवाचें घर दिलें. आतां मनशाच्या राज्यांत मनशाकूच सुवात ना. आमी बैल आनी खंय रावतले. देखून आमचे जायते जात भाव रस्त्याचेर जीव सोडटात. प्लॅस्टीक, कचरो खावन मरतात. देखून परत रानांत येवपाक सोदतात आमी. मागून घे आमचें मागणें. (सगले प्राणी परत आवाज काडटात)

**सुत्रधार** : पळयलें, जनावरांची जीण लेगीत आमचे नोकरे प्रितीन दुखावल्या. हाता कडेन केल्ले जीव आमी बिनदास्तपणान पयस करपाक लागल्यात. कितें आसतलो ह्या शेती प्रधान देशाचो फुडार? उलय मनशा, उलय.

**उलय रे उलय रे उलय मनशा**
**भाटां सुकलीं, शेतां करपलीं.**

*(चाल : परदेसी परदेसी)*

(जाणटे बसल्यात)

एक : कळ्ळें मरे कुशाली. चले काय तयार नात शेतांत वचपाक. आतां म्हजेंय शेत पडटा दिसता पडंग.

दोन : कांयच समजना ह्या भुरग्यांचें. फकत नोकऱ्यो सोदतात. आनी त्यो मेळ्ळयो ना जाल्यार बेकार बसून रावतात. पूण शेतांत वचपाक, शेतांचो वावर करपाक तयार जायनात.

तीन : कितें जालां हे पिळगेक म्हण समजना.

चार : जाणट्यांनो, नेणटे पिळगेक दोश दिवन कांयच फायदो ना. आमी जें चिंत्तात, जे वागतात ताका खरे जाबसालदार तुमीच.

एक : आमी...? आमी कशे दोशी? हें बरें मरे तुजें. तोंड आसा म्हण मेळत तें उलोवं नाका, सांगून दवरतां!

चार : 'फुडलें जोत तशें फाटलें जोत' हें तरी मानतात मरे तुमी. जर तुमी शेत वेवसायाक दिवपाक जाय तशें म्हत्त्व दिल्लें जाल्यार आयज आयल्या ती परिस्थिती येवपाची नाशिल्ली.

पांच : पुता! उलोवप सोपें. दोश दिवपूय सोपो. पूण ज्या तेपार शेतांत मरमर मरून दोन वेळची पेज मेळनाशिल्ली तेन्ना साकून शेतांक घट्ट धरून बशिल्ले आमी. जेन्ना नव्या नोकऱ्यांनी पयसो मेळटा हें समजलें तेन्ना ते वटेन नदर गेलीच आमची. ती चूक मान्य करतात आमी. पूण आतां कितें करपाचें? हाची जाप जाणटे दितले म्हण वाट पळयतात तुमी? आनी तशें जाल्यार आमी केल्ली चूक तुमीय करतात हें विसरूं नाकात.

**उठ मात्सो बाप्पो**
**आतां सोदया जापो**
**आतां मात्शो मारया**
**शेतांमेरेर खेपो**

*(चाल : सुंवारी - येदें येदें वानर)*

**सुत्रधार** : हय, सोदच्योच पदटल्यो आमकां जापो.

**एक** : आमचो काम धंदो सोडून आमी शेतांनी वचपाक शकनात.

**दोन** : पूण फाविल्ल्या वेळार आमच्या बागांनी, गार्डनांनी, फुलां, फळां भाज्यो अशी पिकावळ लावपाक शकतात तिका, वाडोवपाक शकतात.

**तीन** : शाळा कॉलेजींतल्यान एकादरें लॅक्चर शेती विशीं आसपाक शकता. ह्या लॅक्चरांनी भुरग्यांक प्रत्यक्ष शेतांत वावर करपाक धाडूं येता.

**चार** : एन. एस. एस. सारक्या स्वयं सेवी संस्थांनी कॉलेजींतल्यान वावर करतना आपल्या उपक्रमांत शेतकारांक प्रत्यक्ष ताच्या शेतांत काम करून ताची मदत करूं येता.

**सुत्रधार** : भावा भयणांनो, आमी सगले जाण ते चानये वांटो उखलुया. आमच्यान जाता तें करून आमचीं शेतां परत जितीं करुया आनी परत गावया तेंच गीत जे आमी उमेदीन गायत आयल्यात.... !

**मेरे देश की धरती**
**सोना उगले, उगले हिरे मोती**
**मेरी देश कि धरती....**

(गीत म्हणत गडे उमेदीन भायर वतात)

- सोंपता -

# 2

## शेणिल्लें भुरगेपण

(घुमटार थाप पडटा. एक चली येवन मदोमद अभ्यास घेवन बसता आनी एके वटेन अर्दे गडे भितर लोकां मदीं येतात.)

**अर्दे:**

**या रे या आमी खेळ खेळुया**
**सैमाचे सासायेन जीण जगुया**
**भुरगेपण जगुया ... आमी मज्जा करुया**

*(चाल : या गो या आमी खेळ खेळुया)*

(दुसरे वटेन उरिल्ले गडे भितर सरतात.)

**उरिल्ले :**

**बाबूच्या लग्नाक कावळे आयले**
**बाबूच्या लग्नाक कावळे आयले**
**कावळे कवळेंचे...**
**बाबूच्या लग्नाक वाजोवपी आयले**
**बाबूच्या लग्नाक वाजोवपी आयले**
**वाजोवपी वाळपयचे...**

*(चालः बाबूच्या लग्नाक)*

(हो बोवाळ आयकून मदीं बशिल्ली चली)

**एक** : आरे मात्शे वगी रावात रे! हांव अभ्यास करतां जाणात! आनी तुमी कितें मजा मारतात हांगा.

**दोन** : आगो आतां सुटी मगो! आतां आनी कसलो अभ्यास?

**एक** : फुडल्या वर्सा पांचवेक हांव... थंय खुब्ब अभ्यास आसता... सुटयेंत शिकून दवरलें ना जाल्यार उणे मार्क्स पडटले म्हाका. आनी मागीर मम्मी तापतली. पप्पा रागार जातलो. तुमी चलात हांगाचे. बोवाळ करूं नाकात... चलात!

(फेरो आकाराक येता... चाल "दत्त दत्त")

**सगले** :

**वजें हें वजें ....**
**कसलें भावा वजें**
**अभ्यासाच्या नांवार**
**भुरग्यांचें खाजें**

**सर्तींचो बाजार**
**पालक मोडटा हजार**
**पुस्तकांची पोटली**
**जीण सामकी विटली**

**वजें हें वजें....**
**कसलें भावा वजें**
**अभ्यासाच्या नांवार**
**भुरग्यांचें खाजें**

*(चालः दत्त दत्त दत्ताची गाय)*

**दोन** : हय, खाजेंच जालां आमचे जिणेचें. अभ्यास, स्पर्धा, ट्युशन, परिक्षा, पाठांतरां, वाचन हांणी शेणोवन दवरलां तुमी आमचें भुरगेपण.

**तीन** : आरे पालकांनो, शिक्षकांनो कसली वाट पळयतात तुमी? कसलीं

भुरगीं जाय तुमकां?

**चार** : मस्ती करिनाशिल्लीं? कांय मागनाशिल्लीं? मोबायल टिव्ही सामकार बसून बाजारांतल्यान हाडून घातिल्लें खाण खावन तुमी सांगत त्या कोर्साक जाप काडिनासतना वचपी?

**पांच** : कसलीं भुरगीं जाय सांगात मरे.

(वाजोवपी आपलें वाद्य माथ्यार घेवन मदीं येता. हो वाजोवपी सेल्समॅन जाला)

**वाकद** : ये सव्वाय काड ! सव्वाय काड! सामके सवाय!

**सात** : ए! कितें हाडला रे त्या साकांत भरून? आनी कितें सवाय काड म्हणटा?

**वाकद** : बीं हाडलां पात्रांम! बीं हाडलां!

**आठ** : बीं? कसलें बीं? दाखय पळोवया

**वाकद** : पात्रांम हें पळय ... हें दोतोर जावपाचें बीं! हें हजाराक एक.

**सगले** : (उमेदीन) दोतोर जावपाचें बीं! दोतोर जावपाचें बीं!

**वाकद** : हें पळय ... हें इंजिनियर जावपाचें बीं! हें हजाराक दोन.

**सगले** : (उमेदींन) इंजिनियर जावपाचें बीं! इंजिनियर जावपाचें बीं!

**आठ** : आनी हीं कुशीक दवरल्यांत तीं! तीं कसलीं बियां!

**वाकद** : हीं... हीं पात्रांम एकदम शवाय. तीं शंबराक दोन... हें मास्तर जावपाचें, हें अकावण्टण्ट जावपाचें, हें सेक्युरिटी जावपाचें, हें प्रिन्सीपल जावपाचें, हें स्मॉल बिजनेशमेन जावपाचें. सामकीं सवाय!

**सगले** : शी! शी! शी! शी! असलीं बियां नाका रे बाबा!

**वाकद** : आनी हें सामकें स्पेशल बीं पात्रांम!

**धा** : स्पेशल बीं? कसलें सायबा?

**वाकद** : हाका बरें खत पाणी घातल्यार ह्या बियांतल्यान आयिल्लें भुरगें सचीन तेंडूलकर, शाहारूक खान जाताच, कांयच ना जाल्यार रणजी, आयपीयल तरी खेळटा!

**सगले** : हय...? म्हाका दी, म्हाका दी. (अशें म्हणत वाजोप्याक घेराव घालतात. वाजोवपी मदीं पडटा. आनी मदल्यान एक भुरगो भायर सरता. तो येता वादळा भशेन. बियां घेवपाक गेल्लीं सगले कडेक शेंवटावन पडटात)

**दोन** : आरे कितें करतात तुमी हें? कितें चलयलां? भुरगो कोण जातलो हें तो जल्मुपाच्या आदींच तुमी थारावन मेकळे जातात? आरे जगपाक दियात आमकां आमचें भुरगेपण? जगपाक दियात हे आमचे खीण! हे खीण येवपाचे नात परते. हें कशें कळना तुमकां? ह्या, ह्या आमच्या भुरगेपणांत तांक आसा हो संवसार घडोवपाची, हो संवसार फुलोवपाची... ही तांकूच काबार करून उडयल्या तुमी तुमच्या सपनांक लागून, तुमच्या सुवार्थाक लागून... हांव कोण जातलें? हांव कोण जातलों? हें म्हाका थारावपाक दियात मरे! तुमचीं सपनां; म्हाका जल्म दिला ह्या एका कारणाक लागून कशीं लादपाक शकतात तुमी म्हजेर! दियात मरे जाप, आतां ओगी कित्याक? तुमचें हें अशें वागप म्हळयार सुवार्थ न्ही?

(एकलो उठून 'भटा'चे शैलींत सुरवात करता)

**आठ** : सांग भावा, सांग भयणी ... ही कसली जाल्या दशा?

**णव** : भुरग्यांचें भुरगेपण मारपी... ही कसली आशा?

**आठ** : मम्मी आनी पप्पा उठून ऑफिसाक वतात.

**णव** : मम्मी पप्पा पावचे पयलींच बाबू सुस्त न्हिदता.

**धा** : मागीर जाता पार्टी... जाता मजा... आनी बाबूच्या नशिबांत सासणाची सजा.

**अकरा** : आनी मागीर

**सगले** :

**झालं झिंग झिंग झिंग झिंग झिंगाट**
**झिंग झिंग झिंग झिंग झिंगाट**
**झिंग झिंग झिंग झिंग झिंगाट**
**झिंग झिंग झिंग झिंग**

(नाचपी थांबतात, एकलो मुखार येता आनी बोवाळटा)

**एक** : ऑल ईज व्हॅल !

**सगले** : ऑल ईज व्हॅल ! (फेरो धरतात, एकलो फेऱ्यांतल्यान भायर येता, दुसरो ताका प्रस्न करता)

**तीन** : आरे शांतू ! कितें रे? आयज पिच्चराक गेल्लो?

**चार** : मागीर ! शी ! कितें पिच्चर रे ! पाव्हर ! कितें काम केलां जाणा अमिर खानान?

**तीन** : हय ! नांव कितें रे पिच्चराचें?

**चार** : तारे जमीन पर. कितें स्टोरी रे ! ल्हान भुरग्यांची. वालोर !

**तीन** : तारे जमीन पर? बेश्ट पिच्चर मरे तो ! आनी एकलोच गेल्लो. भुरग्यांक बी हाडपाचीं !

**चार** : शी... ! तूं पिशार पडला? भुरग्यांच्यो एग्जामी लागीं पावल्यात मरे, तांकां आनी पिच्चराक?

**सुत्रधार** : पळयलें, हो आमच्या समाजांतलो विरोदाभास, भावांनो आनी भयणांनो. आमी तारे जमीन पर, थ्री इडीयटस, बालक पालक, शिक्षणाच्या आयचा घो, सारकीं पिच्चरां पळयतात. पूण तातूंत दिल्लो विचार मात सिनेमाघरांनीच दवरून... बेश्ट पिच्चर हां ! म्हणत भायर येतात.

**पांच** : ग्रावण्डार वचून खेळपी... कपड्यांक चिखोल... आंगाक चिखोल

करून घरा येवपी भुरग्यां परस आमकां कंप्युटरार गेमी खेळपी भुरगीं चड आवडटात.

**स** : तुमच्या घरांनी टिव्ही गाजतात... त्या टिव्हीचेर वाजपी प्रोग्राम सामके ल्हान पिरायेचेर भुरग्यांक लैंगिकतेची जाण आनी लैंगिकतेची ओड लायतात.

**सात** : आनी हे असले जिणेक लागुनूच खेळपाचे, नाचपाचे पिरायेचीं भुरगीं लव, सॅक्स ह्या खेळांनी अडकतात.

**आठ** : मागीर कित्याक विचारतात आमीच आमकां! खंय शेणलां भुरगेपण म्हण कित्याक विचारतात?

**णव** : आमची अत्याधुनीक जीण ह्या शेणिल्ल्या भुरगेपणाक कारण थारल्या.

**धा** : आमची आस, आमचो सुवार्थ, आमची म्हत्वाकांक्षा आमच्या ह्या शेणिल्ल्या भुरगेपणाक कारण थारल्या.

**अकरा** : हाका आळो घालचो पडटलो... ना जाल्यार एक अशक्त, भिवंकुरी आनी असक्षम अशी पिळगी दितले आमी संवसाराक.

**सगले** :

**भुरगेपण आमचें अशें शेणूंक दिवं नाकात**
**आमचे खेळ, आमची मस्ती पयस करूं नाकात**
**समजून घे पप्पा ... सांगणें तूं आमचें**
**भुरगेपण परतें हें येवचें ना**

(सगले गडे बेबे जातात आनी सगल्याक बेबे जावन उडक्यो मारपाक लागतात)

**सगले** :

**हडवो ताल्ल बेबो शेता मेरेर उबो**
**हडवो ताल्ल बेबो शेता मेरेर उबो**
**हांवें म्हळें बेब्या बेब्या खंय रे तुजो गांव**

**हांवें म्हळें बेब्या बेब्या खंय रे तुजो गांव**
**उडकी मारून बेब्यान म्हळें ... डरावं डरावं!**

**बेबो १ :** आगो बाय! यो मगो खेळपाक आमच्या वांगडा.

**बेबो २ :** आमी न्ही खेळटात... खातात, पितात मज्जा करतात.

**बेबो ३ :** आनी रात जाली म्हणटकच आवयचे कुशींत सुस्त न्हिदतात.

**बेबो ४ :** आमी घटमूट उरतात... आमकां थंडी जायना, जोर येना आनी आयल्यारूय चड दीस उरना

**बाय :** आनी, आनी तुमी शाळेंत वतात?

**बेबे :** शाळेंत ?

**बाय :** पयलो नंबर आयलो ना जाल्यार तुमची मम्मी तापयना तुमकां?

**बेबे :** पयलो नंबर...? (सगले हांसतात)

**बेबो १ :** आमी सगलेच एक नंबर! आमची शाळा हें सैम! आमी हांगाच शिकतात! आमची आवयच टिचर आमची! तीच शिकयता आमकां जिणे कडेन झुजपाक... जीण जगपाक... आनी जीण घडोवपाक! हेंच जाय पडटा न्ही जगपाक? जाल्यार तुमी मनीस कितें शिकतात तर शाळेंत वचून?

**बाय :** म्हाका खबर ना! पूण पप्पा सांगता, शाळेंत वच! खूब शीक! व्हड जा! बरें काम सोद! खूब पयशे कर! पयशां बगर कांय जायना खंय आमच्या संवसारांत. खेळून कितें जातलें?

**बेबो २ :** आनी तुमचें भुरगेपण? ताचो विचार कोण करता?

**बेबो ३ :** आमच्या संवसारांत अशें ना गो बाय! आमीच कित्याक सगले प्राणी, जनावरांची जात भुरग्यांच्या भुरगेपणा आड येना! आमी भुरग्यांक खेळपाक दितात... नाचपाक दितात. भुरगे वाडटां वाडटां घडटात. जिणेचो सामनो करपाक तयार जातात. वाड जावप सैमाचो नेम! आमी तो मोडिनात! तुमी मोडटात आनी

देखुनूच असल्या विशयांचेर पथनाट्यां घेवन तुमकां मनशांक रस्त्यार देंवचें पडटा. आमकां न्ही! आतां चल शाळेंत आनी सांग हें तुजे बाईक. तिका सांग पुस्तकां भायरूय एक व्हड संवसार आसा! जो पुस्तकांतल्या संवसारा परसूय व्हड आनी सोबीत आसा!

**सगले** :

**बाबूच्या लग्नाक काणपी आयले**

**बाबूच्या लग्नाक काणपी आयले**

**बाबूच आयलो ना!**

**बाबूच्या लग्नाक सगल्यांक सांगलें**

**बाबूच्या लग्नाक सगल्यांक सांगलें**

**बाबूक सांगलें ना!**

**बाबूक सांगलें ना!**

(एक चली मदीं येता... तिचेर आकांत आयला)

**चली** : कित्याक सांगलें ना रे बाबूक? कित्याक आयलो ना रे बाबू? सांगात मरे खंय गेलो बाबू? जायना मरे! हांव सांगतां. बाबू आसा... पूण बाबूक खबरूच ना आपूण तो बाबू म्हण. ताका बाबू जावपाक दिलोच ना तुमी... घालत रावलीं ताचेर वजीं. तो बाबू म्हण आपणाली वळख विसर मेरेन! मागीर आतां कित्याक रडटात... बाबू शेणलो म्हण! बाबूक तुमी शेणयला. पांच वर्सां, धा वर्सांचे पिरायेचेरूच संवसाराचें वजें मारलां तुमी बाबूल्या माथ्यार. आरे! तो बाबू मोडटलो... मरतलो! आनी जगलो जाल्यारूय तुमचे भशेनूच मुखार वचून... थांबयात, थांबयात हें! हीं भुरगीं तुमचे कडेन तांच्या शेणिल्ल्या भुरगेपणाची भीक मागता.

**सगले :**

**आमी भुरग्यांक जपतले**
**तांचें भुरगेपण जपतले**
**नवो संवसार घडयतले**
**दी उतर**
**हय हय दवर भावा विश्वास**
**भुरगेपण आमचें हें खास**
**आमी भुरगेपण जपतले**
**दी उतर**

*(चाल : हम होंगे कामयाब)*

(गाणें म्हणत गडे भायर वतात)

- सोंपता -

# 3

## कॅशलेस भारत आनी वास्तव

(वट्ट २५ गडे, २ गडे मदीं येतात. टाळ आनी पखवाज घेवन. आनी वातावरण तयार करतात. इतल्यान १० गड्यांचो एक पंग एके वटेच्यान बोवाळत लोकां मदीं येता.)

**एके वटेन :**

**हय हय बदल जाला... हय हय बदल जाला**
**अच्छे दीन आयला, अच्छे दीन आयला, अच्छे दीन आयला,**
**५००, १००० जाले गलबला, ५००, १००० जाले गलबला.**

*(चालः हैजा)*

**एक** : कोण सांगतलो भावा हांकां! हे म्हणटात अच्छे दीन आयला.
**दोन** : मावशे, मामा येयात लागीं, खेळ पळय हाडला.
**एक** : म्हणटाले वेंचणुकां आदीं जातलें परिवर्तन.
**दोन** : कॅशलेस भारताचें सपन दाखोवन, कसलें चल्लां नर्तन?
(दुसरे वटेन आनी १० गडे बोवाळत येतात)

**दुसरे वटेन :**

**कॅशलेस कॅशलेस जातलो आमचो भारत जातलो आमचो भारत**
**ब्लॅक मनी आड आवाज, ब्लॅक मनी आड आवाज उठला रे परत!**

*(चालः सुखकर्ता)*

तीन : म्हणल्यार कितें? परत नोटी बंद जावपाच्यो?

सगले :

**नवे जिणेचें स्वागत भावा देशांत करुया**

**नव्या तंत्रगिन्यानान भावा देशाक घडोवया!**

एक : ए...! बंद करात..! बंद करात ह्यो कोल्याकाणयो. कोल्याकाणयो सांगपी पक्षाचीं धोरणां हीं. तुमकां जाय तेन्ना पारंपारिकतायेचो स्विकार आनी तुमकां जाय तेन्ना नवतेक येवकार? हो कसलो रे कायदो? आनी कसलें हें प्रशासन?

दोन : पाडसावेलो कुवाळो करून दवरला तुमी देशाक. धड हे वटेच्यानूय ना आनी ते वटेच्यानूय ना! कितें म्हणपाचें रे तुमकां?

तीन : बऱ्या आनी खऱ्या नेतृत्वाचे आशेन जांच्या हातांत देश सोंपयलो. तो भ्रश्टाचारी न्हय घडये, पूण बेनुल्ल कापकाक लागून सगलें रान कातरचें? आरे..! त्या रानांतल्या धाकट्या रोंप्यांचो, झाडां झोपांचो, आमच्या सारक्या सामान्यांचो कितें रे गुन्यांव? आतां दियात मरे जाप! आतां खंय गेलें तुमचें कॅशलेस भारताचें सपन?

पांच : आनी तुमचीं सपनां दर फावटीं सामान्यांचे मानगुटेर तलवार आनी पोटार लाथ मारून कित्याक येतात रे जल्माक? आतां उलयात मरे!

सगले :

**याड लागलां रे सायबा... याड लागलां..!**

**गरिबांक कोडू तांकां गोड लागलां..!**

**चार बोडां आड कसलें आंदलोन हें**

**काळो बुकलो घरांत आजून सुस्त न्हिदला.... आ आ आ!**

*(चालः सैराट, याड लागलं)*

(एकलो मदींच उठून)

**चार** : मागीर, आतां कितें करुया म्हणटा?

**सगले** :

**आमी दाखोवया! आमी दाखोवया आमची तांक....**

**लाथावन उडोया बेमानांक.**

**काळया पयशाचें! काळया पयशाचें साम्राज्य मोडुया**

**सर्वसामान्यांचो भारत घडोवया!**

(हें जातनाच मदीं चार खड्डे, चार वटेन तोंड करून बसल्यात हे गांधीचे चार माकड)

**एक** : भारत जालो कॅशलेस आनी आमीय जाल्यात केंसलेस...(तोपय काडून खड्डे लोकांक दाखयतात)

**दोन** : आनी आमच्या माकडां मदीं... एक माकड ब्रेन लॅस!

**तीन** : आरे सदा! बोड केलां मरे तुवें. कोण मेलो?

**माकड१**: आमच्यांतलो सदाचार मेलो!

**चार** : आनी सत्यानंद तुगेलो?

**माकड२**: आमच्यांतलें सत्य मेलें!

**पांच** : आनी तूं रे नितीराम?

**माकड३**: आमच्यांतली निती मेली!

**सगले** : आनी आमच्या सरकारान चोरांक आडावपाच्या बोवाळांत आमकांच केंसलेस केले.

**सगले** :

**भ्रश्टाचारी फुलला... सामान्य हुलपला**

**देशाचेर कसलें अरिश्ट... मामा तुवें हाडलां**

*(चालः रामकृष्णहरी मुकूंद मुरारी)*

न : ए बंद करात! बंद करात हो विरोदा खातीर विरोद!

न : खंयचेय गजालीक दोन बाजू ह्यो आसतातूच आनी त्यो दोनूय पारखून पळोवप हें कर्तव्य आमचें.

ार : भारताच्या अर्थकरणाक पुरायपणान बदलून उडोवपाची तांक आसा ह्या सपनांत. आरे! जर सगलो वेव्हार नकदी शिवाय जालो जाल्यार सगलो हिशोब मेळटलो. काळो पयसो आनीक तयार जावचोच ना! देश मुखार वतलो. हें कशें कळना तुमकां?

गत : भ्रश्टाचार, काळो पयसो, मडको, कॅसिनो, गॅमलींग अशा गजालींचेर कायमचें कुलूप बसतलें.

गंच : जेन्ना चलनच आसचें ना! तेन्ना चलनाचो गैरवापर शक्यूच ना. इतलें सादें सोपें समीकरण कशें समजना तुमकां?

आठ : ए....! बंद कर तुजी तत्वज्ञानां! सामकीं बंद! पिशाक पिंपळ दाखोवपाचें थांबयात.

णव : आनी कोण आसा रे इन्वोल्व्ह ह्या भ्रश्टाचार आनी काळ्या पयशांच्या कारनाम्यांनी... सामान्य नागरीक? हांगा पोटाचो प्रस्न सोडयतना आयुश्य काबार जाता मरे सर्वसामान्याचें..! आनी तुमी परतूय तांकांच कापूंक सोदतात?

सगले :

**ह्या देशांत आयल्या कसली ही सत्ता**

**गरीब घरका ना घाटका!**

*(चालः वयल्या वयल्या दोंगरार)*

(एक देखावो. शेताचो वावर सुरू आसा... कोण तरी भाजी विकता... कोण तरी घराक पेंट काडटा)

एक : आबो! अंदूं जायना शेत. कामेरीं मेळनात, पयशे तर चलनात. आनी हेंगे अकावण्टूय नात. शेतकारांनी जीव दिवपाचो!

(भाजयेकान्न)

**दोन** : आगे तुम्हारी भाजी सोगली कुसा मगे!

**तीन** : कोणूच घेना पयशे दिवन भाजी. मागीर कितें जावपाचें सां बाबा.

(नुस्तेंकान्न)

**पांच** : बाबा, बांगडे घे रे. शोंबरां आंठ घालतां... पयशे मात अकावण्टा आं!

**स** : दोन दीस उपाशीं रावया! ना जाल्यार नुस्तें खायनासतना रावया. कोण काडटलो त्यो ट्रान्स्फराच्यो कटकटी?

**सात** : पळयलें! सामान्या कडेन वेळ ना तुमच्यो ह्यो गजाली करपाक! प्रत्येक वेव्हार पुराय जावपाक नॅट, रेंज आनी कव्हरेजीची गरज लागपाक लागली जाल्यार जालेंच मरे देशाचें कल्याण!

**आठ** : आनी ह्यो साधन-सुविधा उब्यो करतलो जाल्यार कोट्यांनी रुपया मोडचे पडटले सरकाराक. ताचें वजें कोणाच्या माथ्यार रे?

**णव** : पयलीं जगपाक गरजेच्यो आशिल्ल्यो साधन-सुविधा तयार करात... अरे! शेतीप्रधान देश हो! हांगच्या शेतकारांक विचारात तो कित्याक जीव दिता काय म्हण?

**धा** : हातांत मोबायल आनी मोबायलांत इण्टरनॅट आशिल्लो मनीस शेताचो वावर करूंक पावलो ना परतो! हेंच वास्तव ह्या देशाचें! आनी तेंच वीख तुमी हांगाच्या श्रमीक वर्गाक पाजोवपाक सोदतात?

**इकरा** : आरे! जे मेरेन पिकोवपी पिकोवचो ना ते मेरेन खावपी खातलो कितें रे? माती? काय प्लास्टीक करन्सी?

**नवीन वारें भावा देशांत व्हांवता**
**कॅशलेस भारताचें**
**कोण आयकतलो देव जाणा**

## दुखणें भौसाचें

*(चालः गजर)*

(एक वणत उभी जाता)

क्र : म्हज्या मोगाळ भावा भयणांनो... भ्रश्टाचार आनी काळो पयसो हांचेर ताबो मेळयतलो जाल्यार आमकां कॅशलेस जावचेंच पडटलें. ते बगर देशाचो विकास शक्य ना!

न : ए... बंद कर तुजीं भाशणां. कोण चिड्डल्यात पळय तुज्या पांयां पोंदा. हेंच मरे तें कॅशलॅस?

ोन : तुमी देशद्रोही! म्हूण अशें उलयतात!

ा : तुवें सांगलें, तूं परिवर्तन घडयतलो; आमी मानलें! तुवें सांगलें स्वच्छ करुया भारत, आमी सान्नी घेवन देस झाडून काडलो! एका धपक्याक तुवें ५०० हजाराच्यो नोटी बंद केल्ल्यो...! तेन्नाय तेंकोच दिलो आमी तुका! पूण आतांचें तुजें हें सपन पयलीं आमकां मारतलें आनी मागीर आमच्या देशाक! हेंच खरें वास्तव 'कॅशलेस भारत' सपनाचें!

ीन : बाबा रे! हांव घर चलोवपाक सोदतां म्हजें. म्हज्या भुरग्यांक उपाशीं न्हिदपाक पडलें ना जाल्यार ते राती म्हाका सर्गसूख अणभवपाक मेळटा. हें चल्ला तें तुमच्या खातीर, तुमच्या सुवार्था खातीर. हांगा गरिबाक स्थान ना हेंच वास्तव ह्या देशाचें!

चार : विकासाच्या नांवार तुवें उबी केल्ली नवी वर्णवेवस्था ही; जंय परत गरीब चिड्डतलो.. सामान्य जळटलो. व्हड आनी ल्हान... 'पाया आनी इमलो' होच भेद मुखार येतलो. उठात, जागे जायात, आतां सुस्त बसल्यार सोंपतले आमी... एके वेवस्थेचे सासणाचे गुलाम जावन उरतले आमी! उठात! मोडून उडयात ही वणत पयलीं!

(गडे तयार जाल्ली वणत मोडटात)

**पांच** :

**पेंट मात्शी काडून वयर... घरांतल्यांन मात्सो यो रे भायर**

**वाडल्यात घरांतूच घरचे भेदी... चाल तेंची मोडुया**

**खंयचे दीन अच्छे दीन ... खंयचे दीन अच्छे दीन**

*(चालः लुंगी डान्स)*

**स** : म्हज्या मोगाळ भावा भयणांनो. ही कोणा आड टिका टिपणी न्हय! पूण हो एक प्रस्न! जी वेवस्था जल्माक येता... ती दर फावटीं सामान्याले गोमटेरूच कित्याक बसता?

**सात** : आनी कितें जातलें देश कॅशलेस जावन? घडये थांबतूय भ्रश्टचार... पूण याद दवरात, कुलूप करप्या परसूय ते मोडपीच चड हुशार आसता. कितलींय बंदनां घातलीं तरीय तो तीं मोडटलोच.

**आठ** : हें कॅशलेस भारताचें सपन साकारतना अत्याधुनीक यंत्रणा लागतली. आनी पुराय पयसो वतलो अमेरिका, जपान ना जाल्यार आनी खंयच्या तरी भायल्या देशांनी. आनी तो पयसो गेले उपरांत मतींत येतलें हांच्या. हें आमच्या देशांच्या फायद्याचें नाशिल्लें म्हूण.

**धा** : आरे! असो उलयता तरी कसो रे तूं! देश सुदारलो जाल्यार गरबी उरपाचीच ना! हें कशें कळना तुका?

**इकरा** : सामकें सादें समीकरण हें, देशांत काळो पयसोच तयार जावचो ना! सगले प्रस्नूच सोंपले....

**ती** : चुकतात तुमी! चुकतात तुमी! म्हजीं भुरगीं तानेल्यांत... रस्त्यार भीक मागतात... तांचें कितें? आरे कसलें अर्थकारण घेवन बसल्यात रे तुमीं...? म्हजीं भुरगीं दोन वेळचें अन्न मागतात..! रावपाक घर, घेवपाक श्वास आनी आंगार कपडो मागतात. तुमी आयज करपाक पळयतात म्हाका कॅशलेस. दोळे उगडून पळयात. म्हजी ८० भुरगीं जल्मल्या दिसा सावनूच कॅशलेस जावन भोंवतात

हांगा. आरे तांचो विचार करात. प्रशासन देश घडयता. प्रशासन नागरिकांची सोय पळयता. जाल्यार तुमच्या सुदारणांचो, आंदोलनांचो हुंवार एकेच वटेन कित्याक व्हांवता रे? म्हाका जाप जाय! जाप जाय म्हाका!

**एक** : हय! हय हेंच आसा ह्या कॅशलेस भारता फाटलें वास्तव... आनी ह्या वास्तवाची जाप आमच्यांतल्या दर एकल्यान सोदची पडटली. तेन्नाच जातलो बदल! आनी तेच घडये आसतले 'अच्छे दीन'!

**सगले** :

**कॅशलेस भारताचें सपन कोण पळयता?**
**म्हशी कोणाल्यो कोण उठाबशी काडटा**

- सोंपता -

# 4

## रस्तो सुरक्षा

**एक** : **वक्रतुण्ड महाकाय सूर्यकोटी समप्रभः**
**निर्विघ्नं कुरु मे देव सर्वकार्येषु सर्वदाः**

**एक** : **श्री देवा गजानना, जमिल्ल्या प्रेक्षकांक वंदना**
**करता सुरवात ह्या रस्त्या किर्तना सदांवरी**

**एक** : **ठेविलें अनंते तैसें न राहिलें**
**सदैव आयलें चित्ती पिकासावं**

**तीन** : बुवा बुवा, आयच्या किर्तनाचो विशय तरी कितें?

**एक** : विशय सगल्यांचे वळखीचो.. समेस्तांच्या परिचयाचो.. घोळटा वाहन रस्त्यार जांचें तांचें.. तांचे खातीर एकदम गरजेचो

**येयात भावांनो.. येयात भयणांनो..**
**एक खेळ आमी हाडला..**
**रस्त्यार तुमच्या ह्या रस्त्या परस**
**पळय फोंड व्हडलो पडला..**

*(फेरो)*

**दोन** : म्हज्या मोगाळ भावांनो आनी भयणांनो. आमचे रस्ते हो विशयूच मुळांत माथें तापोवपी.

**तीन** : आनी ह्या माथें तापोवपी रस्त्यार वावुरपी आमी माथें नाशिल्ले मनीस.

**चार** : आमकां हॅलमेटां जड लागतात.

**पांच** : स्पिडोमिटराचो कांटो कितलोय वयर पावलो तरी आमकां तो कमीच दिसता.

**स** : वाहनां धांवडायतना आमी विचार करिनात, मुखार कितें जातलें हाचो. आनी...!

**सात** : वाडली रस्त्यांचेर तुमच्या येरादारी रे. पूण रस्ते तुमचे रुंद जायनात रे.

**आठ** : मोडणां फोंडांनी भरिल्ले रस्ते रे. स्पीड ब्रेकर पावता आफ्टर डेथ रे.

**णव** : मोडणां फोंडांनी भरिल्ले रस्ते हे आमचे.

**धा** : पक्के रस्ते म्हयन्यां भरांनी जातात रे कच्चे.

**णव** : रस्त्यांचेरे वाहनां परस चड लूट गोरवांची.

**धा** : दुकरांक, सुण्यांक सांबाळटना जाता वाहनांची गोची.

**णव** : रस्त्यांचेरे तुमच्या ह्या असल्या दुकानां लागतात.

**धा** : जायो, चिबडां, कणगां, घोंसाळीं, रस्त्यार बरीं खपताता.

**सात** : उडटा वाहनांची अशी दाणा दाण रे.

**आठ** : जाले रस्ते आमचे मरणा सांपळे रे.

**एक** : आगो तूं जाणा, वांकडे घांटार एका झाडाक गणपती भशेन तोंड आयलां.

**बारा** : कितें?

**एक** : हय! आतां व्हडलें देवूळ जाता दिसता थंय.

**बारा** : आरे! देव न्ही तो, तेका जाय थंय घेतलोच तो जल्म, संवसार ताजोच.

**सुत्रधार** : पळयलें मरे, आरे इतलो वाठार आसा, इतलीं रानां आसात, इतलीं मळां आसात, मागीर तुमचो देव ह्या रस्त्या कुशींनीच जल्म

कित्याक घेता रे?

**दोन** : पूण राव रे! देव पयलीं कांय रस्तो पयलीं?

**सुत्रधार** : हय, देवूच पयलीं, पूण देवान दिल्ली ही जिणूय पयलीं, आनी ही जीण समृद्ध करपा खातीर आमकां गरज आसा रस्त्यांची, सशक्त आनी सबळ रस्त्यांची. आनी राव रे, तुमच्या देवळांक इगर्जांक, मशिदींक आनी भितरल्या देवांक रस्तेच कशे मेळटात रे जल्म घेवपाक.

**तीन** : देवूळ जावं मंदिर म्हणल्यार कितें तें जाणात तुमी?

**चार** : अशी सुवात जंय समृद्धी आनी शांतताय आसता, खंय आसा रे तुमच्या रस्त्यांचे कुशीक शांती?

**पांच** : आयज काणकोणा सावन मडगांवा कॉलेजींनी वचपी भुरगीं तुमच्या रस्त्यांक आनी रस्त्यावेल्या गैरवागणुकांक लागून तिश्टतात.

**स** : हे तिश्टवणेंतल्यान आनी बेजबाबदारपणाक लागून कितलीशींच सपनां तुमच्या रस्त्याचेर सोंपतात.

**सात** : वाडत आसा वाहनांची संख्या दिसान दीस, पूण रस्ते तेदेच, तशेच.

**सुत्रधार** : कांय वर्सां आदली गजाल, काणकोणा, पैंगीण वाठारांतली. पैंगीण बाजारांत रस्तो सामको अरुंद, जीव घेवपी मोडणां आनी मोडणां उपरांत बाजार, फाटलीं कितलीशींच वर्सां बोबो मारताले पैंगीणकार. बाजारा मुखार रस्त्यार स्पीड ब्रेकर घालात म्हूण. पूण ना.. घातले नात.. घडपाचें तेंच घडलें, घेतलो त्या अरुंद, अशीर रस्त्यान दुकान बंद करून घरा वचपी एका मनशालो जीव. हो गुन्यांव कोणाचो? हो गुन्यांव कोणाचो? दियात जाप.

**एक** : आरे! स्पीड ब्रेकर जाले नात, रस्ते सारके नात, रुंद नात, पूल जायनात ही कितें आमची चूक, प्रशासनान लक्ष दिवपाक जाय न्हय ह्या गजालींचेर.

**दोन** : शाब्बास! म्हळ्यार दर खेपेक प्रशासन, आरे पूण तुमचें समाजकारण रस्त्याक बिगडयता, रस्ते आडायता ताचें कितें?

**तीन** : म्हळ्यार?

**चार** : ए! तूं आनी कितें उलयता रे? जुवारीचेर पूल जालो, मांडवीर दोन जाले, ह्यो दोनूच न्हंयो कसल्यो रे?

**पांच** : आनी राव रे, काल बाबू सांगतालो, हे दोनूय पूल जाल्यार वरा भितर मडगांव पावता खय मरे आमी.

**स** : आरे! पूल रे ते? साकव मरे ते. बरें लागल्यार दोन म्हयन्यां भितर दोनी पूल जावन वतले.

**सात** : मागीर खंय अडलां तर?

**मोडणां मोडणांचो म्हामार्ग तुमचो**
**मठा फुडल्यान गेला**
**स्वामी मंगळूरी मठांतलो तुभच्या ह्या**
**रस्त्याक लागून फुल्ला**
**स्वामी मंगळूरीक लागून भितरल्या**
**पूल न्हंयेर जायनात**
**एक दोन म्हयन्यांनी घडपाचीं कामां**
**वर्सां जाल्यार लेगीत सोंपनात.**

**एक** : आमी कितें उलयतात हें कळनासपा इतलो पिसो न्हय तूं मनशा. रस्तो हें एक भौशीक साधन, तो घडप जावं मोडप हें भौसाच्याच हातांत आसा आनी तुवूंय एक वांटो भौसाचो हें विसर नाका.

**दोन** : ए..! कितें म्हणपाचें आसा तुका, नागरिकांच्या बेजबाबदारपणाक लागून रस्ते असुरक्षीत जाल्यात?

**तीन** : हय..! आनी तुमीच कारण आसात ताका.

**चार** : कशे?

**पांच** : पळय तर...... !

**स** : म्हामार्गाच्या चौपदरीकरणाची स्कीम सरकारान आंखल्या, रस्तो असो वतलो, दिगू, बाबू, विशू, तुमचीं घरां रस्त्याचे सुवातीर आसात तीं मोडचीं पडटलीं.

**सात** : ये..! तोंड फोडटलों! रस्तो लोकांक जाय म्हाका न्हय, म्हजें घर फाटलीं दोनशीं वर्सां जालीं हांगा आसा.

**आठ** : पळयलें मरे, आतां सांग, आमच्या रस्त्यांची स्थिती 'जैसे थ' उरपाक आमीच जबाबदार नात?

**रत्या वेल्यान वतना फुल्ल स्पीड मारतात**
**आनी अपघात जाता रे देवा**
**ओव्हरटेक करतना फाटीं फुडे पळयनात**
**आनी त्रासांत पडटात रे देवा**

**बारा** : आरे बाबू, मडगांव वता तूं. हॅल्मेट तरी घाल मरे, बाळ्ळी पुलीस रावतात, बेश्टे तालांव मारतले.

**चार** : तूं बेश्टी त्रास करनाका, शंबर दिल्यार सोडटात ते, बरें वतां हांव (वता)

**सवका रे बाबा, सवका रे**
**नुस्त्याचें उदक रस्त्यार सांडला रे**
**उदकार त्या गाडी स्लीप जाता रे**
**बाबा जाता रे...**

*(चाल : क्या हुवा इसे क्या हुवा, फिल्म : राजू बन गया)*

(फेरो)

**दोन** : यो, यो बेगीन यो.

**तीन** : कितें..? तिगांय..?

**चार** : यो रे! कित्याक बेश्टो पॅट्रोल वेश्ट करता.

**गाडी चालली... गाडी चालली टिबल सीट**
**हाका आयल्या दिसता देवाची चीट**
**हाका आयल्या दिसता जिणेची वीट**
**गाडी चालली टिबल सीट**

**सायकल मोटारीर बसून टिबल सीट बाबू विथावट हॅल्मेट वता..**
**आनी अकस्मात रस्त्यार चुकून घडपाचें तें घडटा**
**अरुंद आनी एका अशीर रस्त्यार बाबूलो ताबो सुट्टा**
**सुटिल्लें वाहन बाबूलें ताका मरणा दारांत सोडटा**

*(चाल : गजर)*

**बारा** : बाबू... कितें जालें रे...? सायबा..! देवा! कितें जालें रे...? बाबू, कितें जालें रे? देवा!!! तुका शिकोवन व्हड दोतोर करपाचो आशिल्लो म्हाका... कितें केलें रे देवा..?

**एक** : मनशा..! रस्तो हें माध्यम आमच्या फुडाराचें, रस्ते सुरक्षीत जाल्यारूच आमची जीण सुरक्षीत.

**दोन** : रस्तो सुरक्षा ही फकत प्रशासनाची जबाबदरी न्हय, ती आमच्यांतल्या दर एकल्याची जबाबदारी.

**तीन** : ट्राफीक सिग्नलां हीं पाळचे खातीर आसतात, मोडचे खातीर न्हय.

**चार** : रस्ते हे वाहतुकी खातीर आसतात, भाजी पालो आनी देवाक खपोवपा खातीर न्हय.

**पांच** : कोयर उडोवपाक जाय त्यो सुवाती आसतात, रस्तो हें कोयर उडोवपाचें साधन न्हय.

**स** : रोड टॅक्स भरप गरजेचे, रस्ते समृद्ध जावचे खातीर प्रशासनाक नागरिकांची मदत ती.

**सात** : हें सगलें जर तुवें केलें ना जाल्यार अशेंच जातलें, अशेंच जायत

रावतलें.

**काश्मिरा परस व्हडलो सांवार**
**रस्त्याचेर आमच्या घडटा**
**लाख सपनांच्यो जायत्यो होळयो**
**रस्त्यांनी आमच्या पेट्टा**

- सोंपता -

# 5

## आयची शिक्षण वेवस्था

(घुमटार थाप पडटा. गडे हातांत बडयो घेवन लोकां मदीं येतात.)

**सगले** :

**छडी वाजे छम छम**
**विद्या येयी घम घम**
**छम छम छम छम**

**एक** : आरे! तुमी पिशार पडल्यात? ते उंडेय गेले आनी ते पोदेरूय गेले.

**दोन** : तें नुस्तेंय गेलें आनी नुस्तेकारूय गेले.

**तीन** : ते म्हातारेय गेले आनी त्यो काणयोय गेल्यो.

**सुत्रधार** : आनी सगल्यांत म्हत्वाचें म्हळ्यार....

**सगले** : ते मास्तरूय गेले आनी त्यो बडयोय गेल्यो

(सगलीं हातांतल्यो बडयो शेंवटितात)

**ते मास्तर गेले, तो मारूय गेलो**
**आतां कितें उरलां रे भावा**
**आतां कितें उरलां रे**
**शिक्षणाच्या नांवार चल्ल्यांत फकांडां**
**हेंवूय सगलेच जाणात रे**
**भावा हेंवूय सगलेच जाणात रे**
**पालकालीं पापां खंड्यांनी बुकां**
**दोळ्यांनी दुकां रे**

## भावा दोळ्यांनी दुकां रे

*(चाल : गणपती देवा - फुगा*

**एक** : ए बंद करात... बंद करात हीं फकांडां. आरे कितें चलयला तुमी
आमचो देश आर्थीक मळार फाटीं आसा कित्याक लागून?

**सगले** : शिक्षणाक लागून.

**दोन** : देशांत गरिबी आसा कित्याक लागून?

**सगले** : शिक्षणाक लागून.

**तीन** : आमची लोकसंख्या वाडत चल्ल्या कित्याक लागून ?

**सगले** : शिक्षणाक लागून.

**एक** : आनी इतलें सगलें आसुनूय तुमी शिक्षणाकूच नांवां दवरतात? कि
म्हणपाचें तुमकां?

**दोन** : तूं जाय तें म्हण... पूण स्वातंत्र्याक सत्तर वर्सां जालीं... कितें बदल
ह्या शिक्षणान? वयल्यान शिक्षण जे पद्दतीन दितात ते पद्दती
लागून लुकसाणूच चड जालां आमचें?

**एक** : ए! पिश्यांक पिंपळ दाखय नाका... शिक्षणाक लागून लुकसा
जालां? कशें सांग पळोवया.

**हेऽऽ मोलूलो बाबू शाळेक वता**
**शेतांत वचपाक तो बेजारता**
**हेऽऽ मेस्तालो पोर शाळेक वता**
**इन्ने हातांत धरूंक बेजारता**
**हेऽऽ भटालो चलो शाळेक वता**
**भटपणाक भटमाम भेटना जाता**
**हेऽऽ नुस्तेकान्नी चेडूं शाळेक वता**
**आमी फ्रिजांतलें नुस्तें खाता.**
**बल बले बल बले बले...**

*(चाल : तालगडी)*

ात : तुमी कितें सांगतात तें खरें... पूण व्हड जातलो जाल्यार मुळावें शिक्षण तरी जायच न्ही?

ाठ : ए भावा... तूं गैरसमज करून घेता. आमचो आवाज शिक्षणा आड निखालूस ना. हो आवज शिक्षण जे पद्‌दतीन दिता पळय ते पद्‌दती आड आसा.

ाव : आमी शिक्षणतज्ञ न्हय.. आमी भुरगीं... आमकां कितें करप हें खबर ना घडये... पूण कितें चुकता हें पळोवपाक दोळे दिल्यात आमकां देवान.

ा : देखून जें दिसता आनी जें चुकता ताजेर उलयतात आमी. मागीर कोणेंय कितेंय म्हणूं.

**वाट लागल्या रे भावा वाट लागल्या**
**जिवनाची पळय आमच्या वाट लागल्या**
**कसली सांग पाडगी पोसल्या ही वेवस्था (व्येवसता)**
**भुरग्यां फाटीर कित्याक सांगा भार मारला??**

*(चाल : याड लागलं, फिल्म : सैराट )*

(एक घर... भुरगें मस्ती करता. आवय सामकी बेजारल्या)

**आवय** : बाय! हें कितें करून दवरला गो घरांत? घर म्हळ्यार बाजार जाला मगो नुस्त्याचो.

**बापूय** : आगो कित्याक बेजारता अशें. ल्हान आसा तें अजून.

**आवय** : तूं म्हाका शाणपणां शिकोवं नाका. दिसभर ऑफिसांत कामां आनी घरा येवन हेची मस्ती... तुमचें बरें दादल्यांचें. कांय ना विजय. फाल्यांच्या फाल्यां चल आनी हाचें नर्सरींत ॲडमीशन कर. घर तरी निवळ उरतलें.

**सुत्रधार** : पळयलें? पळयलें? समजलें? आरे शिक्षण हीच मोख काय घरचो बोवाळ कमी करप हो हेतू?

**सुत्र. २** : हेंच चल्लां सगल्याक. भुरगें चलपाक भोंवपाक लागलें कीं कोण
नाका आसता घरांत.

**सुत्रधार** : आनी मागीर सुरू जाता शिक्षण नांवाचो बाजार... हय बाजार
भुरगीं सगल्यांक जाय. पूण तांणी मस्ती केली जाल्यार त
शिक्षा... शाळा नांवाची... बालवाडी जावं नर्सरी नांवाची... पा
भुरग्यांची जबाबदारी घेवंक तयार ना आनी शिक्षकाक पा
जावपाक कायदो आडयता. मागीर कशें जावचें पडलें रे शि
आनी कशी जावची पडली असले हे तड्‌डक शिक्षण वेवस्
उदरगत? दी मरे जाप आतां. ओगी कित्याक?

**रथा तुज्यो गुडयो**
**साडेतीनशीं दांडयो**
**रथांत कोण देव बसे गे**
**रथांत कोण देव बसे गे?**

(मदोमद तीन घोडे तयार जातात आनी तांचे फाटल्यान रथ.
रथार एक भुरगो बसला. तो आकांताचो आबूज. खंय चल्ला. ख
नाशिल्लो.)

**एक** : आरे बाबू, खंय वता?

**दोन** : आरे परिक्षा आयच्यान... परिक्षेक वतां.

**एक** : रथार बसून? लोक हांसतलो मरे तुका...

**दोन** : कित्याक हांसतलो...? हो रथ सादो-सुदो न्हय... पळय ह्या रथा
तीन घोडे आसात... हे तीन घोडे म्हळ्यार तीन वाटो. परि
उप्रांतच्यो... म्हजो पयलो घोडो...

**घोडो १** : हांव सायन्स... सगल्यांत गिरेस्त घोडो... दोतोर, इंजिनीयर जावपा
गरजेचो. सामको कठीण. पूण सादल्यार जोड फुल्ल.

**दोन** : म्हजो दुसरो घोडो...

डो २: हांव कॉमर्स... सगल्यांचे आवडीचो... एकावण्टण्ट, ऑडीटर बी जावपाक गरजेचों. आसा जोड सादारण

न : म्हजों तिसरो घोडो...

डो ३: हांव सामको बरबाद घोडो... म्हजे वाटेक जाय जावन कोण येना. म्हजे वाटेक येवपी लोक अपघातांतले... वाट चुकिल्ले... हांव सामकों गरीब...

क : आरे... बेश्ट मरे तुजे घोडे.... तें बरें आसा. आतां तूं खंयच्या घोड्यार बसपाचो?

ोन : तें थारावपी हांव कोण? हें म्हाका मेळपी मार्क थारायतले. ९० टक्क्यां मेरेन पयलो घोडो... डिस्टींग्शन, फस्ट क्लास आयल्यार दुसरो... मार्क कमी पडले जाल्यार हो गरीब घोडो.

एक : आनी नापास जाल्यार...

दोन : नापास जाल्यार, तो पळय, तो घोडो.

एक : तो खंयचो घोडो... गाडव मरे तें.

दोन : हय हय! सारकें... आमी तेका आयटीआय ना जाल्यार पॉलिटॅक्निक बी म्हणटात.

सुत्रधार : पळयलें... हीच मरे आमची शिक्षण वेवस्था? आरे पिशा! फुलाक लेगीत चार - पांच अशो पाकळ्यो आसतात. हॉटेलांत मॅनूचेर घे म्हूण ऑपशन्स आसतात. नॅनोक लेगीत चार सिटां आसतात. आरे तें सगलें सोड, सैमान दिल्ल्या हाताक लेगीत पांच बोटां आसतात. पूण हांगा मात तिनूच ऑपशन्स. सायन्स, कॉमर्स आनी कांयच ना जाल्यार आर्ट्स.

सुत्र.२ : हीच रे वेवस्था. संवसारांतलो दर एकलो मनीस वेगळो. वेगळो सभाव, वेगळो गुणधर्म, वेगळे हुशारेचो. पूण स्ट्रिमी मात तीन. आनी फेल जालो जाल्यार. काडून उडयतात तुमी ताका वाळींत.

सुत्रधार : आनी मागीर तो जीव दिता... घुंवळीचीं वखदां घेता... आरे आमी

कोण रे ताका पास जावं फेल थारावपी...

**सुत्र. २** : आनी याद दवर ! हे वेवस्थेन फेल थारायल्ले जाय ते लोक आ
संवसारार शेक गाजयता.

**सूत्रधार** : जाल्यार कसली ही वेवस्था? कसलें हें शिक्षण? कसो जाव
पडलो परजळीत फुडार हे वेवस्थेन, दियात मरे जाप?

**गाडी चालली... गाडी चालली शिक्षणाची**
**ही वाट भावा धोक्याची**
**आमकां खबर आमकां खबर ना रे त्याची**
**ही वाट भावा धोक्याची**

(एके शाळेंतलो वर्ग... वर्गांत मास्तर आनी भुरगीं... मास्तर भुरग्यां
फॉर्मुला शिकयता)

**मास्तर** : भुरग्यांनो... काल तुमकां शिकयल्ले फोर्मुला तुमी पाठ केले? हा
वयर करात पळोवया. (सगलीं भुरगीं हात वयर करतात. एव
भुरग्याचो हात सकयल)

**मास्तर** : मोलू... तूं आजूय होमवर्क करिनासतना आयलो? तूं फेल जातल
हां. म्हाका सांग कित्याक पाठ केले नात तुवें फोर्मुला.

**मोलू** : मास्तर खरें सांग हां... ! हांवें व्हड जावन कितें ह्या फोर्म्युलांचें लोणच
घालपाचें? खंय उपेगाक येतात हे तुजे फोर्म्युला जगपाक सांग
पळोवया?

**सुत्रधार** : असो प्रस्न करपी भुरगो वर्गा भायर पडटा... ही आमची वेवस्था !

**नवें जिणेचें स्वागत भावा देशांत करुया**
**नव्या गरजांक जाणून घेवन शिक्षण आमचें थारावया**

**एक** : माडाक लागल्यात नाल्ल पाडेली मेळना.

**सगले** : पाडपाक शिकोवपी शिक्षण मेळना.

न : घरचें मदेर जालें पोन्नें... मेस्त मेळना.

गले : मेस्तपण शिकोवपी मास्तर मेळना.

ोन : केंस म्हजे वाडले कापपी मेळना.

गले : हें शिकोवपी शाळा आसना.

ार : आजो मेलो... मरण करपी मेळना

गले : भटपण शिकपाक कोणाक रूच ना.

ुत्रधार : आमचे सगले पारंपारीक धंदे बंद पडल्यात. शिकिल्ल्या भुरग्यांक तीं कामां करप कमीपणाचें दिसता. अशें कित्याक? कितली लाचार करता पळय आमकां ही वेवस्था.

सुत्रधार : परत घे म्हूण वाद हे वेवस्थेंत...

एक : माध्यमांक लागून वाद

सगले : इंग्लिश व्हाय? मायभास जाय!

दोन : शिक्षकांचे सुवाती खातीर... तांचे भरते खातीर वाद.

सगले : आरक्षण, आरक्षण जिंदाबाद!

तीन : अभ्यासक्रम आनी आशयांक लागून वाद.

एक : एन. सी. आर. टी.

दोन : गोवा बोर्ड

तीन : सि. बी. सि. एस.

सुत्र. २ : आमची शिक्षण वेवस्था ही अशी. बर्निंग ट्रेन! पिच्चरांतले ते ट्रेनी सारकी. जिचे ब्रेक फेल जावनूय ती धांवत आसा. कितलेशेच जीव घेयत. हाका आळो घालचोच पडटलो.

सुत्रधार : मोगाळ भावा भयणांनो, जायत्यो देखी आमी दिवपाक शकतात. पूण ताचो फायदो जावचो ना. भारतांत कितें चल्लां? भायल्या राज्यांनी कितें चल्लां? हें सांगून ही शिक्षण वेवस्था कशी मारक? हें सांगपांत कांयच अर्थ ना.

**सुत्रधार** : देखून आमी आमच्यो गजाली सांगल्यात. आमचें जाल्लें लुकसा उलयल्यात.

**सुत्रधार** : आमचो प्रस्न सादो. जे मेरेन पिकोवपी पिकोवचो ना ते मेरेन खाव खातलो कितें रें?

**सुत्रधार** : जाल्यार शिक्षणान पिकोवपाक शिकवचें पडलें ना.... तुमचें शिक्षण फकत खावपाक शिकयता. हेंच खरें वास्तव हे वेवस्थेचें

**सुत्रधार** : आमी लुकसाण करतात आमच्या भुरग्यांचें. नाका त्या वयार नाक तें वजें घालतात बोडार तांच्या. आरे! तांचें भुरगेपण जगपाक दियात तांकां.

**राजेंद्र** : म्हाका वळखतात तुमी? म्हजें नांव राजेंद्र केरकार. हांवूच तो म्हालगडो, जाणें गोंयच्या पर्यावर्णाचे प्रश्न समाजा मुखार दवरले. हांवूच तो मनीस जाणें म्हादयक लागून आंदोलनां केलीं. हांवूच तो टार्गेट जाका आधुनिकतायेचे, यांत्रिकतायेचे खांबे दुस्मान म्हूण पळयतात... हय, हांव राजेंद्र केरकार. हांवें म्हजे चलयेक शाळेक घाली ना. हांवें म्हज्या घराची. भोंवतणच्या सैमाची शाळा म्हज्या बायेक दिली. म्हजें बाय आयज गोंयचें एक फामद कवी... तें बरयता. सैमाक आपल्या कवनांनी गिरयता. हांव राजेंद्र केरकार. हें हांव करपाक शकता जाल्यार तुवूंय. कारण सैमा इतली व्हड आनी गिरेस्त शाळा ह्या संवसारांत खंयूच ना हें विसरू नाकात.

**सुत्रधार** : सारके तुमचें राजेंद्रबाब. तुमच्या सारक्या लोकांचो आदर्श बाळगुचो पडटलो समाजांत. जाल्यारूच जातलें कितेंय तरी. ना जाल्यार हे गिरेस्त लोक व्हड जायत उरतले. आनी कसलीच पर्वा नाशिल्लो व्हायट कॉलर्ड मध्यमवर्गी जल्माक येयत रावतलो. कारण हे गिरेस्त लोकूच देंवतात आयज शिक्षणाच्या मळार. ते शाळा काडटात, कॉलेजी काडटात... आरे कित्याक? समाजसुदारणेक?

**सुत्रधार** : मोख पयशे करप हीच आसता. तांच्या धंद्यांक लागपी कामगार,

त्यांच्या निर्मिल्ल्या वस्तूंक लागपी गिऱ्हायक ह्या शाळा कॉलेजींनी जल्मतात. हेंच खरें रूप हे वेवस्थाचें. आरे! हें केन्ना समजतलें तुमकां?

(एक भुरगो. निराश जावन घरांत येता. आवय धांवत वचून तेचो हात धरता)

**आवय** : बाबू, कितें जालें? हे फावट तरी पास जालो मरे तूं? (बाबू वग्गी) ना...! परत फेल जालो. बाबू कितें केलें? कितें केलें तुवें हें?

**बापूय** : कसलो पूत जल्माक घालो तुवें... सादी धाव्वेची परिक्षा जायना हो पास... वचून जीव दी...

**भुरगो** : बाबो! (चवताळटा) बंद कर तुजें तोंड... सामकें बंद... हांव शिकतलों... खूब व्हड जातलों.. पूण हें शाळेंत शिकयतात तें शिक्षण न्ही. हांव शेत करपाक शिकतलों. जोत धरपाक शिकतलों... माड पाडपाक, बांय खणपाक शिकतलों. देवान दिल्लो दर एक अवयव वापरतलों... निराश जावं नाका बाबो. ही वेवस्था तुज्या पुताक फेल थारावपाक शकना हें जाणून घे आनी खोशी जा.

**सुत्रधार** : पट्टा तुमकां, घडये पटचें ना. पूण हेंच खरें वास्तव हे वेवस्थेचें.

**सुत्र.२** : आरे उठात! सांगात प्रशासनाक, समाजाक, ही वेवस्था बदलपाक जाय म्हूण.

**तीन** : जागे जायात भावांनो, जागे जायात.

**चार** : जागे जायात, एके नवे सुरवातीक... येयात रे, करुया आरत...

**जागे जावया, जागे जावया, जागे जावया भावा,**
**जागे जावया भावा.**
**नाका जाल्ल्या ह्या कोयराक, नाका जाल्ल्या ह्या कोयराक,**
**शेंवटावया भावा.**

**शिक्षणाच्या ह्या झेतान प्रगती जावची ना**

प्रगती जावची ना
आसा ते वेवस्थेन, आसा ते वेवस्थेन,
कांयच बरें जालें ना.

जागे जायात भावांनो, देसाक जागोवया
देसाक जागोवया
सगल्या प्रस्नांक सोडोवपी, सगल्या प्रस्नांक सोडोवपी
वेवस्था निर्मोवया

- सोंपता -

# 6

## माय म्हादय, My म्हादय

(सगले गडे चार पंगडांनी वांटून पडल्यात... तांबडो पंगड वाजोवप्यांचो... पाचवो पंगड... काळो पंगड आनी निळो पंगड... घुमटार थाप पडटा.. आरती म्हणत निळो पंगड भितर सरता)

**निळो पंगड :**

**सुख करता.... दुख व्हरता आमची माय म्हादय**
**आमची माय म्हादय**
**भाटांनी माय म्हादय**
**काळजांनी म्हाय म्हादय**
**गोंयची माय म्हादय**

*(चालः आरती)*

**पाचवो पंगड :**

**शेजारी आडायता आमची माय म्हादय**
**आमची माय म्हादय**
**जिणेची आस म्हादय**
**कोंकणीचो श्वास म्हादय**
**गोंयची माय म्हादय**

*(चालः आरती)*

**काळो पंगड :** (मागीर सगले फेरो धरतात)

**यो रे सायबा यो रे खेळ आमचो पळोवंक तूं यो**

**शेजाऱ्याली पळय ओजनेरी माय म्हादयक आडावन धरी**
**खेळ आमचो पळोवंक तूं यो**

*(चालः यो रे सायबा यो रे)*

(मदी निळी वोडणी... एके वटेन पाचवो आनी एके वटेन काळो पंगड)

**काळो१** : ए... न्हंय म्हगेले सुवातीर सुरू जाता. न्हंय म्हगेली. (कारवारी बोली)

**पाचवो१**: ए घ्यांट्या! ओगी राव! तुजे परस चड म्हजे सुवाती वेल्यान न्हंय व्हांवता, तिजेर पयलो अधिकार म्हजो.

**काळो२** : हे आळशी लोक... हेंकां उदा कित्याक? आमी कश्टकरी. उदका खरी गरज आमगेली.

**पाचवो२**: आमी कश्ट करिनात? आमी शेतां करिनात? तुका आसा तितलीच उदकाची गरज म्हाकाय आसा विसर नाका.

**काळे वटेन सगले** : येळी! येळी! जोराग येळी!

**पाचवे वटेन** : वोडा! वोडा! जोरान वोडा!

**तो** :

**कोणाल्या न्हंयी...? कोणाली सत्ता...?**
**तुज्या-म्हज्या झगड्यांनी ह्या**
**माय म्हादय रडटा**

*(पाचवे आनी निळे)*

**एक** : हें वारें चुकुनूच व्हांवता पेपरांतल्यान.

**दोन** : वर्साक एकदां कोणाक तरी याद जाता; वयर कोण तरी म्हादय आडायता.

**तीन** : पूण देंवना कोण रस्त्यार... करिना कोण आंदोलनां!

**चार** : राजकी पांवड्यारूय जातात, नेमक्या ह्याच विशयाची कुचंबणा.

**पांच** : आरे! अशें कित्याक? नेमक्या ह्याच प्रश्नाचेर तूं असो भिल्ले भशेन कित्याक?

**स** : म्हादयक लागून चर्चासत्रां जायनात.

**सात** : राजकी पांवड्यार म्हादय खातीर आवाज काडपी फुडारीय दिसनात.

**आठ** : जाल्यार कित्याक हीं पथनाट्यां? कित्याक हे देखावे? फकत कॉम्पिटिशनांनी परिक्षकांक इंप्रेस करून प्रायझां मारपा खातीर? हय?

**सगले** :

**शेजारी आडयता माथ्यार उदक**

**सकल गावता सुकें मरण दोळ्यांनी उदक**

*(चालः पाण्या गेली राधा गवळण)*

**काळो१** : ए...! बंद करात...! बंद करात तुमगेली ही पथनाट्यां! तुमकां कीत दिसता, आमी कीत तुमकां मारू आडायता उदा?

**काळो२** : वयर अर्दांन अर्द लोक उपाशी आमगेले.

**काळो३** : तुमी गोंयकार... तुमी सुशेगाद. तुमकां फरक पडचना... तूं जाणा... वर्साक एक फावट पावस जायनाशिल्ले प्रदेश आसात आमगेल कडे. आमगेली चूक कितें...? आनी न्हंय आमगेले वाठारांतल्यान सुरू जाता म्हण घेवन आमगेल जाल ना रे उदक?

**पाचवो१**: ए.... घांट्या, बंद कर तुजी भाशणबाजी. तुमचे त्रास ते त्रास आनी आमकां जातले तें कितें?

**पाचवो२**: आनी एक याद दवर, आमी आतां मेरेन समजून घेतला तुमकां.

**पाचवो३**: आनी देखुनूच आमच्या पुलीस खात्यांनी, रान खात्यांनी, ऑफिसांनी, शाळा कॉलेजांनी तुमचेच लोक दिश्टी पडटात.

**पाचवो४:** बाजारांनी तुमी, पारंपारीक धंद्यांनी तुमी, मोबायल विकपाक तुमी, झॅरोक्स मारापाक तुमी, भाजीय तुमचीच, फुलांय तुमचींच.... आतां मेल्ल्यांनो आमचें उदक तरी सोडात मरे आमच्या खातीर.

**सगले :**

**पॅण्ट मात्शी काडून वयर**
**घरांतल्यान मात्सो यो रे भायर**
**शेजाऱ्याली मोडूक चाल**
**रस्त्यार आमी देंवुंया .... माय म्हादय.... माय म्हादय....!**

*(चालः लुंगी डान्स)*

(इतल्यान मर्दी म्हादय आकाराक येता... न्हंय वाठारांनी शेतांत काम करपी वावराडी दिश्टी पडटात)

**एक** : बाबो, आनी थोडो तेप हीं पुरण शेतां... वयर शेजारी धरणां बांदतात तें जाणा मरे?

**दोन** : म्हादयचें उदक वेगळे दिकेन व्हांवोवपाच्या यत्नांनी आसात खंय मरे शेजारी!

**तीन** : तुमी उलयतात तें खरें, पूण शेतकार रे कसो देंवतलो.. शेतांतलो वावर सोडून रस्त्यार?

**चार** : सारकें बाबो तुजें. ह्या शेतीप्रधान देशांत शेतकाराचें दुख्ख कोणाक दिसना हेंच व्हडलें दुख्ख.

**पांच** : सारकें मरे हे उलयतात तें... लिपीचो प्रस्न घेवन आवाज करपी लोक दिश्टी पडटात, राजकी अनास्थेचेर भाश्य करपी पथनाट्यांय दिसतात... तूं पोर्तुगेज काय गोंयकार अशा प्रस्नांच्यो व्हडा आस्तेन जापो सोदपी म्हालगडेय दिश्टी पडटात... मेल्ल्यांनो गोंयची गंगा आडायतात शेजारी... आतां खंय लिपून बसल्यात रे म्हालगडे?

**सगले :**

**हुबळी - धारवाडाक फुल्लीं शेतां**
**केळी पिकयल्यात**
**सकल पडला दुकळ जीवघेणो**
**घरांत तुमी न्हिदल्यात**

*(चालः गजर)*

**सुत्रधार** : न्हंय कोणाली ह्या प्रस्नाक तसो अर्थूच ना. कारण न्हंय सैमाची.... ती कशी व्हांवतली ही ती थारायतली... तुमी आमी कोण रे तिचो मार्ग बदलपी? पूण ना... सैमाचेर आघात करपाची आमची वृत्ती... कितें म्हणपाचें तुका शेजाऱ्या...

**सुत्रधार** : आनी शेजारी तुजे आवय कडेन असो हलकट खेळ खेळटात तें पोळोवन वग्गी रावतल्या; तुका तरी कितें म्हणपाचें?

**चार** : याद दवर, शेजाऱ्या परस घरच्यालें आळशीपण आमकां चड नाडपाक शकता!

**पांच** : तूं आवाज करना आनी तो बांदकाम थांबयना. पूण याद दवर, हे फावट लुकसाण आमचेंच जातलें. आमीच सोंपतले, आमीच सोंपतले. जागो जा गोंयकारा, जागो जा!

**सगले** :

**हडवो ताल्ल बेबो न्हयी धडेर उबो**
**हावें म्हळे बेब्या बेब्या खंय रे तुजो गांव**

**काळो१** : म्हजो गांव? हांव हुबळीचो.

**काळो२** : हांव कारवारचो.

**पाचवो१** : हांव गोंयचो... (काळे बेबे हांसतात)

**काळो३** : घांट्या! घ्यांट्या! म्हण चाळयतालो मरे म्हाका. आतां सुकून मर मेल्ल्या! चला रे या, धरणा वयर खंय तरी.

**पाचवो१** : आतां कितें करपाचें गे आई? वयर उदक आडयलें जावं दुसरे वटेन

परतयलें जाल्यार सोंपले मगे आमी!

**पाचवो२**: कांय कळना पुता! एका तेपार आमकां धरतल्यांक कायदो धरतालो; पूण हांगा तर आमी मरतले उदका विणे.

**पाचवो३**: फकत आमीच न्हय! आमच्या वांगडा सगलें पर्यावरण, सगलें सैमीक सौंदर्य मरतलें, आतां हांच्या आड कित्याक येय नात रे कायदे?

**सगले** :

**कायद्याक मेल्ल्यांनी लायलो खुंटयेक**
**काम सुरू धरणाचें**
**कर्नाटकान काडला फर्माण**
**गोंयच्या मरणाचें**

**एक** : हय! हय! हय! आमच्या मरणाचेंच फर्माण हें! आमच्या शेजाऱ्यान काडिल्लें!

**दोन** : घांटया म्हणल्यार तुका वायट दिसता शेजाऱ्या... तुज्यो भावना दुखवतात... पूण भुरग्यांक आवय कडल्यान पयस व्हरपाच्या ह्या कर्तुपाचें कांयच कशें दिसना तुका?

**तीन** : तुमी जाणात? ओपा धरण अर्द्या उत्तर गोंयची तान भागयता... आनी मेल्ल्या तुजी इतली आजनेरी, तूं आमच्या तोंडचें पाणी पळोवन घांटार केळीं पिकयता?

**चार** : खाण वेवसाय बंद जाले उपरांत आमचे कडेन दोनूच पर्याय उरल्यात.

**पांच** : एक शेती आनी दुसरें पर्यटन

**स** : आनी ह्यो दोनूय गजाली मुखार वतल्यो जाल्यार आमकां म्हादय सामकी गरजेची!

**सात** : म्हादय बगर पर्यटन आनी शेतां दोनूय शक्य नात हें विसरनाका गोंयकारा...!

ळो१ : ए! वगी! सामके वग्गी!!! तुमगे गोंयां किंतू अर्दो पावस जायना वयरी... पावसा सगले उदा तुमी अशेंच दर्या वचूं दिता.. आडायात मरे तें.... ना तें जावचें ना आनी आमगेले उदकार दोळो हयी....

चवो१ : हें शाणेपण तूं आमकां शिकोवं नाका, येदेशें गोंय आमचें खंय आडोवन दवरपाचें रे उदक?

चवो२ : आनी आमी मनीस करतले पावसाळी उदकाचें नियोजन.. पूण झाडां-पेडां-रानां, पशू-पक्षी-प्राणी, तांकां रे कोण शिकयतालो पावसाळी उदकाचें नियोजन?

त्रधार : शेजारी सामको हुशार विसरनाका गोंयकारा.... ना जाल्यार एक दीस येतलो जेन्ना... (एकली बायल उदक हाडपाक न्हंयचेर गेल्या)

**पाण्या गेल्ली राधा गवळण**

ायल : आरे! हें कितें? न्हंय खंय गेली?

**परतून आयली घरा**
**घेवन रितें आयदन**

*(चालः पाण्या गेली राधा गवळण)*

ाचवो१ : २००६ वर्सा सावन कायद्याची संमती नासुनूय कळसा - भांडुरा ह्या वाठारांत धरण प्रकल्पाचें काम युद्ध पातळेर सुरू आसा. कोणें दिला रे तुमकां हो अधिकार?

सुत्रधार : कोणें दिला हो हक्क?

पाचवो३: न्हंयेचेर आपणाली मालकी कोणूय कसो सांगूंक शकता रे?

पाचवो४: म्हादय माय जावंक शकता! आवय जावंक शकता! पूण तूं My म्हादय म्हण झगडटा?

काळो१ : आमी हांगा कोणाक शेजाऱ्या आड भडकोवपाक आयले नात!

पाचवो१ : दोन शेजाऱ्यां मदीं झगडीं पेटचीं अशेंय आमकां दिसना!

**निळो१** : घडये आसतली तांचीय बाजू बरोबर.

**पाचवो२**: आमचो प्रस्न होच, हे समस्येर गोंयकार अजून इतलो व
कित्याक?

**सुत्रधार** : कोणूय सोदून दिवशात म्हजी आवय! शेणल्या म्हजी आवय!
शेणली विचारूं नाका... चोरली कोणें सांग नाका! ती हेच व
व्हांवताली! म्हजो वाठार फुलयताली! तुवें पळयल्या रे? पळय
तुवें! कोण तरी यो फुडें, मात्शें सोडय हें कोडें! काल मे
आशिल्ली म्हजी माय! शेणली रे म्हजी आवय! कोणूय सो
दिवशात म्हजी आवय... पत्तो म्हज्या लागीं माग नाका! फा
फावट केन्ना पळयल्ली विचारी नाका! कोणूय सोदून दिवशात म्ह
आवय... म्हजी न्हंय. म्हजी म्हादय...! (तें कोसळटा)

**सुत्रधार** : होच आसतलो फुडार तुजो गोंयकारा, आतां तरी जागो जा,
जाल्यार शेणिल्ली न्हंय असोच पिशावरी सोदत भोंवतलो एक दी
तूं.

**एकूच न्हंय एकूच म्हादय**
**राख मात्सो तूं गोंयकारा**
**घरांतल्यान यो रे भायर**
**मायेच्या आदारा**
**घरांतल्यान यो रे भायर**
**मायेच्या आदारा**

- सोंपता -

# इंग्लिश व्हाय? मायभास जाय!

(एक गणपती काल्याचो नाच नाचत प्रवेश करता. सगले काल्याचें पद मोटे उमेदीन गायतात)

**गणराज गजानन हो... गणा गजानन हो...**

त्रा :

**वक्रतुण्ड महाकाय सुर्यकोटि समप्रभः**
**निर्विघ्नं कुरु मे देव सर्वकार्येषु सर्वदाः**

त्रधार : श्री देवा गजानना! आमी भुरगीं हांगसर आयल्यांत कांय आर्गां घेवन, तुवें हो संवसार घडयलो. ह्या संवसारांत माणकुलें अशें भांगराळे गोंय आमका दिलें. आनी तुज्या ह्या गोंयच्या सैमांतल्यान एक भास फुल्ली. गोंयच्या सैमांतली भास! आमचे अस्मितायेची आनी अस्तित्वाची भास! आमची कोंकणी भास! पूण गोंयकार व्हडविकाय गायता भायले भाशेची. देखून आमी आयल्यांत, आमचें मागणें मागून घे रे देवा...!

ुवा :

**श्री देवा गजानना, जमिल्ल्या प्रेक्षकांक वंदना**
**करता सुरवात ह्या रस्त्या किर्तना सदांवरी**

एक : बुवा, बुवा, आयच्या किर्तनाचो विशय तरी कितें?

ुवा : विशय सगल्यांचेच वळखीचो, समेस्तांच्या परिचयाचो, जगतात

आमी गोंयांत ज्या, त्या गोंयच्या फुडाराचो!

**येयात भावांनो! येयात भयणांनो!**
**येयात भावांनो! येयात भयणांनो खेळ आमी हाडला**
**कोंकणी उलोवपी गोंयकाराचेर भूत, इंग्लिशिचें बसलां**

**तीन** : चोत्राय! चोत्राय! चोत्राय! समेस्त गोंयच्या भौसाचे भलायके खा[illegible] गोंय सरकारान शाळांनी इंग्लिश भाशेचें शिक्षण दिवपाचें थारायलां. [illegible] चोत्राय! चोत्राय! चोत्राय!

**चार** : दिगंबरा! दिगंबरा! वाट विसरलो दिगंबरा!

**सगळे** : दिगंबरा! दिगंबरा! वाट विसरलो दिगंबरा! *(चालः गजर)*

**पांच** : कांय वर्सां आदली खबर!

**स** : गोंयच्या शेतांनी पिकतालें भांगर!

**पांच** : आयज परिस्थिती आयल्या वायट!

**स** : मेंदवान पेटना आमच्या लायट!

**पांच** : मायभासूच धड उलोवंक येना!

**स** : पोकळ! पोकळ! पडलीं मनां!

**एक** : गोंयकारांचो एकूच गजर, कोंकणी पावची संवसारभर. कोंकण[illegible] गोंयच्या दुदा वयली साय, इंग्लिश व्हाय, मायभास जाय!

(घोव बायलेचें संभाशण)

**बायल** : तुजें बोड फिरलां. कितें उरलां रे त्या कोंकणी मराठी शाळांनी माकड जातात भुरगीं, तें काय ना, आमी आमच्या बाबूक कॉन्वॅण्टांत घालुया! थंय बरी इंग्लिश बी शिकतलो तो!

**घोव** : आगो! पांचवी यत्ते उपरांत इंग्लिश शिकूं तो! म्हजें काय म्हणणें ना[illegible]

**बायल** : आंवंय! तुमी म्हण सामकेच *old school* मूं! हांव सांगतां तुमकां,

*that* पोदेर *also gone* आनी ते उणेय *gone*. कळ्ळें? हांगा कोंकणी शिकून पांचवेक पावतकच थंय बाकीचीं भुरगीं फेंस फेंस करून इंग्लिश उलयतलीं आनी हाका माकोड म्हणटलीं, सामको *Monkey!*

**धार** : गोंयकारा तूं जागो जा! काळ पाडगो आयला. तुजोच एक भाव तुज्याच घरांत पळय मायभाशेर मुतला.

**दशो गोंयच्या शाळांनी सरकारान इंग्लिशू हाडल्या**
**गोंयच्या शाळांनी सरकारान इंग्लिशू हाडल्या**
**दशो भायले संस्कृतायेचें पीक माजयलां**
**भायले संस्कृतायेचें पीक माजयलां**
**दशो घरांत, देवळांत, बाजारांत कोंकणी उलयता**
**घरांत, देवळांत, बाजारांत कोंकणी उलयता**
**दशो भुरग्यां मुखार मॅडम इंग्लिश भेंडां हालयता**
**भुरग्यां मुखार मॅडम इंग्लिश भेंडां हालयता**

*(चाल; शिगमो आरत)*

(एक शाळा, इंग्लिश शाळा, Teacher भुरग्यांक शिकयता)

**Teacher**: So students! Today we will learn defination of language. Can anyone tell me what is language?

**एक** : बाई, लँग्वेज म्हळ्यार भाशा!

**Teacher**: ok! we all know that. But in reality language is the medium of communication. say with me! 'language is the medium of communication.'

**सगळे** : language is the medium of communication.

**दोन** : जालें! होच अर्थ भाशेचो? भाशा हें एक संप्रेशणाचें साधन इतलेंच!

जाल्यार मोन्यानी उलोवया मरे आमी.

**सुत्रधार** : भाशा हें फकत माध्यम न्हय, भाशा म्हळ्यार संस्कृतायेक चालन दिवपी घटक, भाशा हो अस्मितायेचो पालक, भाशा ना जाल्यार कांय ना. आनी याद दवर गोंयकारा, गोंयांत कोंकणी ना जाल्यार कांय ना!

**पांच** : आरे! तूं सांगता तें खरें! पट्टा म्हाका तुजें! पूण कोंकणी शिकून पोट भरपाक जाता? हांव दोतोर जावपाचों, सांग लोणचें घालपाचें हांवें कोंकणी शिकून?

**स** : तुमी - आमी ही परिस्थिती गोंयांत निर्माण केल्या! आयज फकत मायभास शिकून पोट भरपाक जायना ही गजाल खरी, पूण कित्याक जायना?

**सात** : आमी वैजकी अभ्यास, इंजिनियरींगाचो अभ्यास, आनी हेरे विज्ञानाची म्हायती दिवपी पुस्तकां बरोवया मरे कोंकणींत.

**आठ** : आमी वापरतात ते संगणक, इंटरनॅट हांची भासूय करुया मरे कोंकणी!

**णव** : कोंकणी मनीस दोतोर इंजिनीयर जालो ना? तो शिकलो ना? मागीर ताणें घेतिल्लें शिक्षण तो मायभाशेंत कित्याक हाडूंक शकना?

**धा** : इत्सा जाय घडोवपाची! तुमच्या भिजूड हिजडेपणाचो छाप व्हरून भाशेच्या माथ्यार थापनाकात. आमची भास समृद्ध, देखून समृद्ध अशी जीण जियेतात आमी हें विसरूं नाकात!

**इकरा** : आयज इंग्लिशीची आमकां इतली व्हडविकाय दिसता, जाल्यार गोंयचें सुटके झूज कित्या खातीर? पोर्तुगीजांक आमी धांवडायले कित्या खातीर?

**बारा** : कित्याक मागली रे कोंकणी राजभास? आमचे *Writer, Fighter* जावन वावुरले कित्या खातीर?

धार : हीच शणै गोंयबाबाच्या, रवीन्द्र बाबांच्या आत्म्याक दिल्लीं आमचीं आर्गां? दियात जाप..! दियात जाप..! आतां वग्गी कित्याक रे? फुडार हाची जाप दिवचो ना! दिवचो ना फुडार हाची जाप! हाची जाप वर्तमानानूच दिवची पडटली! आमकां.. आमकां सगळ्यांक दिवची पडटली!

**गोंयाकारा हातांत भांगराचें ताट**
**गोंयाकारा हातांत भांगराचें ताट**
**पयस करून कोंकणी**
**लायनाका वाट..!**

क : कोंकणी ही गोंयची मायभास हें आमी जाणावं. पूण कोंकणी शिकोन पोटां भोरिनात, पोटां भोत्ता इंग्लीश, जोडून दिता इंग्लीश. तेन्ना जें उपेगाकूच येना तें भुरग्यांक शिकोवन तांची जीण आमी कित्याक इबाडया?

ान : ए..! तोंड बंद कर भामट्या. तुजें हें शेरमांव घट्टण करतलें आमचें. गोंयकारूच मरे तूं? धर्माचें पांगरूण पांगरून कितें पाजता रे भौसाक? (ती 'कोंकणी' पिशेवरी भोंवत आसा, हांसता खिदळटा.)

ोन : जाणा कोण ती? जाणा हय रे कोण ती? ती आवय म्हजी, आवय तुजी. आवयभास आमच्या सगल्यांची, पिशार पडल्यावरी भोंवता. तिजेच कांय पूत लाथी घालतात तिका. धांवडावंक सोदतात तिकाच तिज्या घरांतल्यान.

ुत्रधार : कित्याक? कित्याक गरज जाली रे आमकां ह्या आमीशांची, कित्याक गरज जाली? आमचें गोंय एका तेपार परिपूर्ण आशिल्लें, आमच्यो अन्न, वस्त्र, निवारो ह्यो मुखेल गरजो आमी आमच्या बळार भागयताले.

धार : तेन्ना कोणाकूच दिसली ना गरज इंग्लिशची, जाल्यार आयजूच हें

शणें कित्याक? आनी तेंवूय रक्ताचे आवयक सोंपोवन?

**एक** : आधुनिकतायेच्या वाऱ्यान काबार केले मरे आमकां? कितें दितले आमी आमच्या भुरग्यांक?

**दोन** : भ्रश्ट जाल्ली संस्कृताय?

**तीन** : नागड्या कुडींनी भरिल्ल्यो दर्या वेळो?

**चार** : पाडसा वेल्या कुवाळ्या वरी हे वटेन ते वटेन नाचपी तरणी पिळगी

**पांच** : भ्रश्ट राजकर्ते? शिमिटाचीं जंगलां? दियात जाप?

**सुत्रधार** : भौतीक संस्कृतायेची आमी वाट लायल्याच. हांवूय घडये जबाबदा ताका! पूण आयज आमच्या हातांत आमचें अस्तित्व तिगोव दवरपा सारकें एकूच साधन उरलां! आमची मायभास. तिका काबार करूंक उठल्यात रे तुमी?

**एक** : पळयात तिच्यो वेदना! जाणून घेयात तिका! आमकां तिका परतू घडोवपाची आसा! आतां फाटीं सरून जावचें ना..!

**माय** : हांवेंच जल्माक घाल्लो, आंगा खांद्यार खेळयल्लो, हांवेंच दिल्ल वळख तुका, हांवेंच तुका घडयल्लो, लुडबे म्हौंवाळ बोल तुजे काळजांत धरून हांसत रावलें, तरणे जाल्ले पांय तुजे, आंगार म्हज्य सोशीत रावलें, पूण आयज तूं विसरलो..! विसरलो तूं..! विसरलो..! कुत्र्यावरी पांय वयर करून गेलो.. कुत्र्यावरी पांय वयर करून गेलो....!

**सुत्रधार** : ही आमची मायभास, हें आमचें गोंय. आरे! रडटा तें कर्तुपांनी तुज्या, रडटा तें. आतां तरी जागो जा, आतां तरी जागो जा. आरे आपणाले अस्तित्व तिगोवन धरप होच खरो स्वाभिमान, हीच खरी अस्मिताय. हें इंग्लिशेचें कानांत भरिल्लें वारें काडून वडय गोंयकारा, ना जाल्यार आयज ती रडटा, फाल्यां तूं रडटलो.

**एक** : आवय, खरें तुजें! विसरलों जायत तुका हांव, पूण आतां ना!

**दोन** : आतां आमी वावुरतले तुजे खातीर, तुज्या आनी आमच्या अस्तित्वा खातीर.

**तीन** : जागे करतले! जागे करतले घरा घरांतल्या पुतांक तुज्या.

**चार** : जे बदनात तांचे आड झूज दितले! जागे करतले..! सगल्यांक जागे करतले!

**पांच** : खंयच्च्याच सुवार्थाक बळी पडनासतना तुजी राखण करतले! आवय तुजी राखण करतले.

**स** : गोंयकाराचो एकूच गजर, कोंकणी पावची संवसार भर कोंकणी गोंयच्या दुदा वयली साय, इंग्लिश व्हाय माका मायभास जाय.

**वेदना जी तुजी..**
**वेदना ती म्हजी**
**श्वासांतली रक्तांतली**
**आवय कोंकणी म्हजी**
**वेदना जी तुजी..**
**वेदना ती म्हजी**

- सोंपता -

# 8

## वेंचणुको

(एक एक वादक आपलीं आपलीं वाद्यां घेवन लोकां मर्द येता... सगलीं तालवाद्यां एकूच ताल वाजयतात)

**अर्दो पंगड एके वटेन :**

**सुख करता, दुख व्हरता वेंचणुको येतात, वेंचणुको येतात,**
**ताई माई अक्का, ताई माई अक्का खोशी कित्याक जातात**

**अर्दो पंगड तिसरे वटेन :**

**वेंचणुकेच्या बाजाराक रेट फुल्ल मेळटा, रेट फुल्ल मेळटा**
**आतां नोटो गुलाबी, आतां नोटो गुलाबी वाट तुमची चोयता**

**एक** : बायलो खोशी जातल्यो घेवन कोटन साडयो.

**दोन** : कोणाचो तरी बावटो घेवन रस्त्याचेर येतल्यो गाडयो.

**तीन** : पयलींय जातालीं झुजां देंवतालीं एक दोनूच भुतां

**चार** : हे फावटीं आयला सांवार.... तुमी काबार जातले करून कोतां?

**पांच** : बाबा! म्हज्या बाबा! ही रे कसली भानगड?

**स** : वाड्या वाड्यार जल्मला फुडारी.... करपा खारीर गडगड

**सात** : हय! जाल्या बेश्ट मरे!

**आठ** : बेश्ट? कशें?

**णव** : **हाजेंय खावया ताजेंय खावया**

**आतांच खावन घेवपाचें रे**

**आतांच खावन घेवपाचें रे**

**पांच वर्सांनी असली संद**

**परत हाताक लागची ना रे**

**परत हाताक लागची ना रे**

**बारा** : ए! बंद करात! बंद करात तुमची ही नौटंकी... दर खेपेक इलेक्शनां येतात.. दर खेपेक ही नौटंकी, हातांत डमडमी घेवन तुमी रस्त्यार येतात. पूण कितें बदल्लां?

**एक** : भ्रश्टाचाराचें खरें तांडव आमी माजयलां... काळ्या पयशांक आमी जल्म दिला. हेंच खरें वास्तव!

**दोन** : आमच्या हाताक खाज सुट्टा! आमची जीब लाळेता! इलेक्शना लागीं पावतकच! आनी देखुनूच सादता हांचें! आरे खऱ्यांनीच सर्वसामान्य भौस... हांगचो कॉमन मेन नितळ जाल्यार भ्रश्टाचारी लोक परत परत कित्याक निवडून येतात? आतां दियात मरे जाप. आतां ओगी कित्याक?

**तीन** : तुका जाप जाय! जाप जाय मरे तुका? हांव दितां जाप! आरे शापीत लोकांचो देश हो! शापीत हें गोंय.... आमी पाट्यांचे, जातीचे, धर्माचे चश्मे लावन भोंवतात. चश्माचो जो रंग तोच रंग आमकां भोंवतणी दिसता. मागीर तो भगवो जावं ना तर पाचवो!

**चार** : हय मरे! जाल्यार कितें वेगळें जातलें तर हे फावट...!

**पांच** : वेगळें! वेगळें जातलें, वेगळीं धुमशणां जातलीं... वेगळ्या रंगाच्यो नोटी खपतल्यो.

**आठ** : दिल्लीचो बाबू गोंयचे विधानसभेंत किंगमेकर जावन नाचतलो

आनी गोंयचीय जातली दिल्ली!

**स** : जागो जा मतदारा, जागो जा! जागीं कर तुज्या घरच्यांक, जागीं कर शेजाऱ्यांक पाजाऱ्यांक.

**सगले** :

**रथा तुज्यो गुडयो, साडेतिनशीं दांडयो**

**रथांत कोण देव बसे गे, रथांत कोण देव बसे गे!**

(रथ तयार जाता... रथांत तो बसला)

**रथकार** : रथांत बसलां हांव... हांव बसलां रथांत. तुमच्या सगल्यांचो देव जावन, फाटलीं कितलीशींच वर्सां हांव ह्या रथार विराजमान आसां. हो रथ सत्तेचो, हो रथ खुर्चेचो. हांगा धर्म हांव, सदाचार हांव, न्याय हांव आनी कायदोय हांवूच. ही लोकशाय, ही लोकशाय लोळटा पांयां पोंदा म्हज्या... लोळत आसा आनी लोळत रावतली. मागीर ती १९४७ जावं ना जाल्यार २०२० जावं... म्हज्या रथाक वोडाटात म्हजे हे तीन घोडे. म्हजो पयलो घोडो

**घोडो १**: हांव पयसो! हय, हांवूंच तो पयलो घोडो!

**घोडो२** : हांव जात! हांव मनीस पळयना, कर्तूप पळयना, हांव पळयतां फकत जात!

**घोडो३** : ये कापतलों! मत हाकाच मारपाक जाय! ना जाल्यार... (हांसता) तूं मेलो समज!

(कोण तरी मर्दीच)

**एक** : पावचे नात रे पावचे नात, हे घोडे तुका पावचे नात.

**दोन** : जिखचो ना रे तूं जिखचो ना... ह्या फावटीं तूं जिखचो ना.

**रथकार**: आरे! कोण हे... तिसऱ्या घोड्या कितें पळयता? कापून उडय

हांकां! (तिसरो घोडो सुट्टा... आनी सपासप एक एकल्याक कापून उडयता)

**एक :**

**कोणाली खुर्ची.... येतली कसली सत्ता**

**तुज्या म्हज्या झगड्यांनी ह्या लोकशाय रडटा**

(घुमटार थाप पडटा. एकलो उठ्ठा)

**दोन :**

**ह्या ... गोंयांत येतली रावणाची लंका.**

**गोंयकार, घरका ना घाटका!**

(फेरो जाता... आनी मदीं एक व्हड वणत तयार जाता... हे वणटीचे एके वटेन वयर वचून 'तो' उबो रावला आनी भाशण करता.)

**तो** : म्हज्या मोगाळ जात भावांनो आनी भयणांनो, हांव तुमचो जात भाव, याद दवरात शेवटाक जातूच पावता जातीक, तुमकां कितें दिसता, भायलो येवन करतलो तुमचो उद्दार! ना केन्नाच ना! आरे आमचे जातीचे लोक कशे येवचे पडले रे मुखार?

**तीन** : ए! बंद कर! बंद कर हीं भाशणां! ही कसली वणत वाडयता तूं हें जाणा आमी.

**चार** : एका धर्मनिरपेक्ष राज्यान हे जातीचें राजकारण करून तुमच्या सारके जायते आतां मेरेन निवडून आयल्यात... पूण आतां ना!

**तो** : म्हळ्यार आमचे जातीचो उद्दार जावपाचोच ना? आमची जात व्हड कशी जावपाची?

**पांच** : देशाक व्हड करात... गोंयाक व्हड करात... जात आपसुकूच व्हड जातली.

**तो** : पयलीं जात, मागीर देश, मागीर गोंय.

**स** : पळयलें... पळयलें, जातीच्या नांवार राजकारण करपी ह्या लोकांनं खंय व्हेलो रे देशाक...

**सात** : आनी आतां ह्या वेंचणुकांनीय आमी हेंच करतले?

**आठ** : ते बदलचे नात, पूण आमी? आरे आतां आमी तरी बदलुया मरे.

**णव** : ही जातीवादी वणत मोडची पडटली... उठात, उठात! मारात धोलार बडी.

(घुमचेकटर वाजता. नेटान ती वणत गडे मोडून उडयतात)

**सगले** :

**जाती जातींक...**
**जाती जातींक आयला नेट भावा,**
**वेंचणुकांची वाडटली रेट**
**चिंतून भावा तूं,**
**चिंतून भावा तूं लाय रे बोट...**
**भावा वेंचणुकांची वाडटली रेट**

(पाट्यांचे तीन उमेदवार तीन वटांनी आपल्या आपल्या गटांतल्या लोकांक घेवन उबे आसात)

**एक** : पात्रांव, फ्लड लायट टुर्नामेण्ट करतां. डोनेशन...

**तो** : घे सायबा! पूण मत मात मार सायबा.

**दोन** : पात्रांव महिला मेळावो करतां. डोनेशन...

**तो** : घे सायबा! पूण मत मात मार सायबा.

**तीन** : बोस! भुरग्यांक फेन्सी ड्रेस करतां. डोनेशन...

**तो** : घे सायबा! पूण मत मात मार सायबा

(पखवाज वादक आपणालें वाद्य तकलेर घेता आनी स्किमी

वांटीत भोंवता)

**वाजोवपी** : जातल्यांक स्किमी, मरतल्यांक स्किमी, शिकतल्यांक स्किमी, शिकयतल्यांक स्किमी, लग्न जावपाक स्किमी, लग्न करपाक स्किमी, मुताऱ्यो बांदपाक स्किमी, संडास बांदपाक स्किमी, स्किमी, स्किमी, स्किमी...

(हीं सगलीं चित्रां लाचारपणान लोकशाय पळयत आसा... एका एका दारार वचून ही लोकशाय भीक मागता.)

**लोकशाय** : आरे! कितें चलयला हें, कितें चलयला? म्हजे लचके कित्याक तोडटात अशे... हे लोकशायेक लाचार केल्या तुमी. हे लोकशायेक दारादारांत भीक मागत भोंवचें पडटा तुमकां लागून! आरे म्हजीं पाळां-मुळांच खणून उडयल्यात मरे तुमी! सत्य म्हाका बळगें दिता! उडपाचो हावेस दिता, घर दिता दार दिता, अनितीर मात करपाक शक्त दिता. आनी तुमी अनितीचोच मार्ग तुमच्या सुवार्थाक लागून आपणायतात...? म्हाका जाप जाय, जाप जाय म्हाका.

**ते** : **खंय पावलो सुवार्थान जाप दी तूं मनशा**
**आमच्या काळया कर्तुपांनी हिची अशी दशा**

**सुत्रधार** : हय, हेंच आसतलें चित्र! परतूय घडये अशीच ही लोकशाय लाचार जातली! दोळे उगडून पळयात. हेंच दिसता सरभोंवतणी. दर एके गजालीक राजकी रंग चडला. पूत बापायक आनी बापूय पुताक पक्षाचो कार्यकर्तो म्हूण पळयता. कितें आसतलो आमचो फुडार? कितें आसतलो?

**एक** : ह्या धुमशेणांतल्यान बरें प्रशासन कशें जल्माक येतलें हाची जाप नव्या वर्साचें दार उकतें करचे पयलीं आमकां सोदची पडटली.

**दोन** : वेंचणूक २०१७, मनीसपण, निती ह्यांचे सगले पांवडे हुंपून

वचपाचे तयारेंत आसा... पूण हांव खंय आसा हाचे मदीं हो प्रस्न विचारचोच पडटलो दर एकल्यान स्वताक.

**लोकशाय** : कोणूय म्हाका साथ दियात, कोणूय मात्सो सांगात दियात, सपन आसा फुलपाचें, सत्यान म्हाका बळगें दियात... संवसारांतली ही सगल्यांत गिरेस्त लोकशाय तुमचे लागीं सत्याची भीक मागता.

**सगले** :

**वायट परंपरांक लाथावन उडोवया**
**नवे वेंचणुकेंत सत्याक जिखवया**
**नाका सोरो हांचो, नाका रे पयशे**
**सत्याचें बळगें लोकशायेक दिवचें**
**मेकळी निवळ वेंचणूक आत्मो रे गोंयचो**
**जाती, पयशे, गुंडाक रस्तो बंदखणीचो**
**एकूच मत निवळ मत सत्यान मत घाल भावा**
**खरें मत बरें मत जिखून हाड सत्याक भावा**

*(चाल : घालिन लोटांगण)*

-सोंपता-

# 9

## गोंयाक खासा दर्जो?

(दोगूय वाजंत्री दालनांत देंवतात. आपल्या मूकवादनान लोकांक आफयतात, आनी भायर पंगड हैजा घालपाची तयारी करता)

**हय हय बदल जाला**
**अच्छे दीन आयल्यात**
**नव्यान जीण आमची फुल्या**
**अच्छे दीन आयल्यात**

क : कोण सांगतलो हांका. हे म्हणटात अच्छे दीन आयला, पूण खासा दर्जा खातीर धडपड गोंयकाराची चल्ल्या.

ोन : म्हणटाले वेंचणुकां आदीं जातलें खासा परिवर्तन.
स्पेशल स्टेटस मेळूंक ना.. रितेंच आमचें आयदन.

ोन : भावा, नवें सरकार आयलां, भावा नवें सरकार
स्पेशल स्टेटसा खातीर... आमी केंद्राच्या दारांत

(पाऱ्यार दोग जाण बसल्यात.. पेपर वाचतात आनी चर्चा करतात)

ार : फसवणूक म्हणटात पळय ती हीच हां..

ांच : अशें कित्याक म्हणटा तूं?

स : वेंचणुकां आदीं हेच सांगनाशिल्ले, गोंयाक खासा दर्जो मेळोवन दितले म्हूण.. मेळ्ळो?

**सुत्रधार** : जंय थंय पळय अशेंच कितें तरी उलोवप चल्लां.

**पांच** : मोटे उमेदीन परिवर्तनाक मत मारपी गोंयकार मात फटवला.

**स** : आनी स्पेशल स्टेटस मागपी आमचो भाई बी तांणी उखल्ला

**सगले** : आतां सांगात कसो मेळचो पडलो खासा दर्जो?

**सगले** :

**स्पेशल स्टेटस मेळोवचे खातीर धडपड चल्ल्या**
**स्पेशल स्टेटस मागपी भाई दिल्ली पावला**
**हें गोंय सांग कोणाचें - गोंयकारांचें**
**अस्मिताये खातीर परत उठचें पडटलें**
**तिगोवंक आमचे गोंयचे भुंयेक - जागचें पडटलें**

(एक मनीस मायक जावन उबो रावता.. कांय लोक सकल त
आयकुवपाक बसल्यात)

**एक** : म्हज्या मोगाळ भावा-भयणांनो. खाण वेयवसाय बंद पडलो. अर्थकरण
सगलो भार पर्यटनाचेर पडलो. आमच्या राज्यांत क्रायम वाड
वयर कोण तरी म्हादय आडयता, भायलो भितर भरिल्ल्यान आम
जमनी आमच्या हातांतल्यान गेल्यात. परत आमच्या आवय - भयण
लजेर हात घालता कोण तरी भायलो. ह्या सगल्या गजालींचेर ए
उपाय.. आनी तो म्हणल्यार खासा दर्जो!

**दोन** : सायबा, तुजें हें खासा दर्जाचें प्रकरण म्हाका समजूंक ना. म
सोडोवन सांगशी..?

**एक** : खासा दर्जान आमच्यो जमनी आमकांच वापरूक मेळटल्यो. न्हं
दोंगर, उदक आमचें. गोंयकारपण विगोवन दवरतल्यो.

**दोन** : भायल्या लोकांचो धुमाकूळ आपसुकूच जातलो कमी. आमचे र
शाळा, शारांचो फायदो फकत आमकाच जातलो.

**तीन** : भावा, खासा दर्जो जाय आमकां, खासा दर्जो. काळजा-काळज

पेटचो स्पेशल स्टेटसाचो उजो.

त : खासा दर्जो खंय, खासा दर्जो, कित करतले तुमी हो खासा दर्जो घेवन? आमकां धांवडोच्याक तुमी केल्लें हें कारस्थान मरे?

त्र : याद दवरात! तुमी भारतांत एक नवो देश जल्माक घालपाचे तयारेंत आसात.

त : हें तुमकां पेलतलें.. आपल्या दवरचें धांकून आनी दुसऱ्या पोळोवचें वांकून.. अशे गोंयकार तुमी.. कित्या काट्टे बसल्या ह्यो उठा बशी?

ाठ : आनी तुमकां खऱ्यांनीच दिसता, हें थळावें राजकारण आनी राजकारणी चलोवपाक शकतले खासा दर्जो प्राप्त राज्य? ना मरे? मागीर कित्याक मागतात आमी हें स्पेशल स्टेटस?

त्रधार : ए! दिशाभूल करता तूं लोकांची. तुका हंगाच पुरतोलों.

.दोन : हो प्रस्न राजकारणाचो न्हय, राजकरत्यांचोय न्हय; १९५४ वर्सां पं. जवाहरलाल नेहरून एक उतर दिल्लें गोंयकारांक. पोर्तुगेजांक धांवडायले उपरांत गोंयचें गोंयकारपण तिगोवन दवरपाक भारत सरकार यत्न करतलें अशें आस्वासन दिल्लें तांणी, तूं राजकारण उलयता न्हय? तूं सांग, कितलीं सरकारां येवन गेलीं तांचीं, कितें केलें तांणी! गोंय आनी गोंयकारा खातीर? आसा जाप? आतां उलय मरे घांटया!

पगळे :

**दी घांटया जाप कितले घेतलो शाप?**
**उडयलो बदलून तुवें; घांटया गोंयचो मॅप!**

(एक घर. थंय एकलो पेपर वाचत बसला. आपले बायले वांगडा उलयता)

एक : कळ्ळें मुगो! अंदमान निकोबार, नागालँड, अरुणाचल प्रदेश, जम्मू काश्मीर अशा आनी हेर कांय राज्यांक आसा खंय मुगो खासा दर्जो.

**दोन** : पूण तो दर्जो थंयचे आदिवासी लोकजिणेक लागून मेळ्ळा. हांग
आसात आदिवासी?

**तीन** : हांगाय आसात माई आदिवासी. पूण ह्या आदिवाशांतले ९०
आदिवासी हे आरक्षणाचे ताळये वयलें लोणी चाटून बाकीच
त्रासांत उडोवपी.

**एक** : सारकें. आनी अशा लोकांच्या हाताक हो खासा दर्जो ल
म्हळ्यार माकडाच्या हातांत कोलीत आनी चोराच्या हातांत तिजो
चाव्यो दिल्ले भशेन हें विसर नाका!

**सगले** :

**नवीन पक्ष भावा आयला सत्तेर.. मागणें खासा दर्ज्याचें**
**मुखेली आमचे बडयतात दार दिल्लीवाल्यांचें**

**एक** :

**दार उगडलें ना...दार उगडलें ना**
**खासा दर्जोय गावलो ना..**
**खासा दर्जोय गावलो ना ..**
**खासा दर्जोय गावलो ना!**

(एक पेपरवालो. पेपर विकता)

**इकरा** : आज की ताजा खबर... केंद्रान गोंयच्या खासा दर्जाचें माग
न्हयकारलें... केंद्रान गोंयच्या खासा दर्जाचें मागणें न्हयकारलें.
केंद्रान गोंयच्या खासा दर्जाचें मागणें न्हयकारलें.. आज की ता
खबर... आज की ताजा खबर...

**सुत्रधार** : कोसळ्ळें मरे आंदोलन? जालें मरे ढील? आनी आतां कि
कोम्पिटिशनांनी प्रायजां मारपाक हीं पथनाट्यां? खरे कापजदा
जाल्यार हांगाच्यान उठुया... आनी अशे बेश्टेच न्हय... आ
केन्नाच उठलेनात अशे उठुया!

: ए...! कोणाक उठपाक सांगता तूं? कोणाक उठोवंक पळयता? ह्या गोंयकारांक? इतिहास गवाय आसा.. आमकां फकत बावगोपाक कळटा.. दुसऱ्या मुखार लीन जावपाक कळटा... लाचर जावन भीक मागपाक कळटा... आनी देखून माजल्यात हांगा भायले येवन.

धार : आमकां आमचें सुसेगादपण सुटना, आमचो आळस पयस वचना, म्हूण जाय जाला रे हो खासा दर्जो, अशें न्हय? जाल्यार उठात मरे.

ले :

**पँट मात्शी काडून वयर**
**घरांतल्यान मात्सो यो रे भायर**
**दिल्ली वाल्यांक करूंक जागो**
**घांटयालो आमी करया गोबोर**
**नवें गोंय घडोवया....**
**ऊठ गोंयकारा**
**खासा दर्जो मेळोवया**
**ऊठ गोंयकारा**
**दर्जो खास..दर्जो खास..**
**दर्जो खास..दर्जो खास..**

*(चाल : लुंगी डान्स)*

(एकलो सेल्समॅन खासा दर्जो विकता)

ंदरा : आदिवासी चड जाल्यार - खासा दर्जो; सिमे लागसरल्यांक - खासा दर्जो; भायल्यांच्या अतिक्रमणाक - खासा दर्जो; आर्थीक संकट आयिल्ल्यांक खासा दर्जो... सवाय... सवाय... सवाय...

एक : भावोजी भावोजी! हमको भी देदो जी.

दोन : इल्ल्याशा गोंयाक इल्लोसो खासा दर्जो.

सुत्रधार : असो बाजारांनी विकत मेळटालो... जाल्यार केन्नाच घेतिल्लो आमी

हो खासा दर्जो...!

**तीन** : चळवळींतले कांय म्हालगडे पिशांक पिपळ दाखयतात.

**चार** : ३७० आनी ३७१ ह्या कलमा खाला येना गोंय.

**पांच** : आमचें खासा दर्जाचें मागणें असंविधानीक ते नदरेन.

**स** : आमकां खासा दर्जो दिवप हें संविधानांत बसना हेंच सत्य.

**सुत्रधार** : हय मरे! जाल्यार... सांगात आतां. कितें करतले आमी?

**सात** : आतां हो गोंयकार उठ्ठलो.. आमी सांगून पळयलें. मागून पळयलें

**आठ** : साम जालो.. दाम जालो.. आतां उरला तो दंड आनी भेद...

**सगले** :

**फुलां विकता कोण भैय्या.. भाजीकान्न कोण सैय्यां..**
**मुतारेंत युपी.. बांदता घरा हांगा एम. पी.**
**झेरोक्स मारता मारवाडी; आमकां राग येवंक जाय**
**पेडे विकता गुजराती; आमकां राग येवंक जाय**
**डोसा, उत्तप्पा उडपी**
**भावा आतां आमची सटकली**
**घांटी सगल्याक पातळ्ळयात**
**आमकां राग येवंक जाय**
**आमच्या घरांत आमकां सोंपयल्यात**
**आमकां राग येवंक जाय**

**एक** : आमच्या आवय-भयणांक सुरक्षा जाय.

**दोन** : वाडत वचपी क्रायम बंद जावपाक जाय.

**तीन** : शिमेर चलपी काळे धंदे ना जावपाक जाय.

**चार** : आमचीं भाटां-बेसां, जमनी, सगल्या नैसर्गीक संपदांचेर फकत आमचोच अधिकार आसपाक जाय.

च : आनी ह्याच गजालींक लागून आमी मागिल्लो खासा दर्जो.. म्हणुनूच हें आंदोलन.. पूण आतां फकत ह्या आंदोलनान भागचें ना.. आतां झगडचें पडटलें आमकां; आमच्यो समस्या सोडोवपाक.

: जायते गोंयकार ह्या प्रस्नाचें राजकारण करतात. पूण मुळांत हो प्रस्न राजकारणांतलो न्हीच.

ात : आमची आयडेण्टीटी तिगोवंक जाय आशिल्लो मरे आमकां खासा दर्जो?

ाठ : आमचें अस्तित्व.. आमची अस्मिताय.. आमचें गोंय.. आमची भास.. हें तिगोवन दवरपाक आमी सक्षम नात?

ाव : तांणी खासा दर्जो न्हयकारलो मरे.. आमी आमच्या कर्तुपान खासा गोंय घडवया.. संवसारांतल्या दर एका मनशाच्या.. देशाच्या काळजांत गोंय आनी गोंयकार हांचे खातीर खासा दर्जो जल्माक घालुया..

गले :

**स्पेशल स्टेटस न्हयकारलां केंद्रान.. ऊठ तूं गोंयकारा..**
**कर्तुपांतल्यान खास घडोवया.. आमच्या ह्या गोंया**

तें : त्या महात्म्याचें सपन आशिल्लें.. भारत संवसारांतली एकसंघ म्हाशक्त जावची.. अशें दिसतालें ताका. भारत स्वतंत्र जालो.. फाळणी जाली.. सपन तुटलें.. हांव स्वतंत्र जालें.. पोर्तुगेजांनी म्हजेर केल्लो अत्याचार ना जालो... पूण वेदना सोंपली ना.. ती मात वाडतच गेली... म्हजो गोंयकार पूत म्हज्याच घरा भायलो जालो.. चेपलो म्हजो पूत.. ताचो आवाज पावलो ना तुज्या दिल्लीवाल्यां मेरेन.. म्हाका खासा दर्जो नासल्यार जाता.. पूण म्हाका खास स्थान जाय.. दर एकल्याल्या काळजांत.. म्हाका म्हजें अस्तित्व, म्हजी लज.. म्हजी अस्मिताय तिगोवन दवरूंक.. म्हज्या बाळकांचीं हीं निर्शेल्लीं तोंडां म्हज्यान आनीक पोळोवं नज.. ऊठ पुता ऊठ.. तुजी

ही संपन्नतायेन नटिल्ली दळडिरी आवय तुका साद घालता.

**एक** : आई ! उठलां हांव... उठला तुजो पूत.. आतां जावचे नात तुजे हाल

**दोन** : घडये दिवचे नात ते आमकां खासा दर्जो, म्हण कितें जालें. आम
करतले तुका खास.

**तीन** : आमी फुलयतले नवी जीण.. नवें गोंय.

**सगले** : हय आई... आमी घेतात सोपूत.

**सगले** :

**खास गोंय आमी घडयतले**
**खास गोंय आमी घडयतले**
**खास गोंय आमी घडयतले जागला गोंयकार**
**हय हय दवर आवय विश्वास**
**करून पयस सगले दुस्वास**
**खास गोंय आमी घडयतले**
**खास गोंय आमी घडयतले**
**खास गोंय आमी घडयतले जागला गोंयकार**

*(चालः हम होंगे कामयाब)*

- सोंपता -

# 10

## बाय जालां

(रस्तो सामको मेकळो. खेळगडे पंगड करून एके वटेन उबे आसात. अकस्मात बोवाळ जाता)

**सगळे :**

**हय, हय, बाय जालां**
**हय, हय, बाय जालां**
**बाय जालां**
**बाय जालां**
**बाय जालां**
**काकी काकाचेर Tention आयलां**
**बाय जालां**
**बाय जालां**
**बाय जालां**

*(चाल : हैजा)*

(फेरो पुराय जायसर हें सुरूच उरता)

**एक** : बाबा रे, हो कसलो हैजा घालतात तुमी?

**दोन** : माई, ह्या हैजाची जातच निराळी!

**तीन** : अस्तुरे बगर सांग पोळोवया जावची कशी दिवाळी?

**चार** : आनी देखुनूच आयल्यात आमी.

पांच : जागे करूंक आयल्यात हांगाच्या दर एकल्याक.

स : जाणटेल्यांक - नेणटेल्यांक, घरातल्यांक - भायल्यांक.

सात : काकीक, काकाक.. मामीक, मामाक..

एक : हय... ! जाल्यार हांवूय येतां मरे तुमच्या वांगडा... करात सुरवात.

**सगळे :**

**येयात भावांनो**
**येयात भयणांनो**
**खेळ आमी हाडला**
**येयात भावांनो**
**येयात भयणांनो**
**खेळ आमी हाडला**
**सगळयाक पडला बोवाळ व्हडालो**
**बाय आमगेरे जालां**

एक : कांय वर्सां आदली खबर !

अस्तुरेचो घोवा वांगडा जातालो गोबोर.

दोन : आयज परिस्थिती आयल्या वायट.

तीन : मेंदवांत आमच्या पेटना लायट.

चार : अस्तुरी पोटांतूच सोंपत चल्ल्या.

पांच : जल्मलें बाय बाबडें मरत चल्लां.

(एकलो तकलेर हात घेवन बसला, दुसरो ताची चवकशी करता)

एक : कितें रे सुधाकर, टॅन्शनान बसला सो ?

दोन : कितें सांगतलों, रातीं बायल सुटली, परतुनूय चेडूंच जालें मेल्लेगेर.

एक : आरे देवा ! म्हळयार चवथें चेडूं तुका... तूं एक काम कर आतां !

जीव दी! जाल्यार सुटलो... आरे फुडार कसो जातलो तुजो ह्या चेडवांक घेवन?

**दोन** : तेंच तर टॅन्शन न्ही रे. ती बायलूच दळडिरी. तिच्या नशिबांतूच ना दिसता चलो!

**सुत्रधार** : ह्या रस्तो नाट्याक जमिल्ल्या दर एकल्या रसीकप्रेक्षकाक मायेमोगाचो येवकार... पळयलें, पळयलें तुमी... एक बाय जल्माक येतकच हांगासरलो दर एकलो बापूय.. दर एकली आवय.. असलोच कितें तरी विचार करता... असल्याच नाका जाल्ल्या प्रश्नांनी शेणटा.

**सुत्रधार** : आमची संस्कृताय आवय मानता अस्तुरेक.. तिका देवी, माता, आदी माता अशो उपाद्यो दिता.. आनी तेच संस्कृतायेंत जगपी आमी, ते नव्यानूच जल्मल्ले अस्तुरेक आनी तिचे आवयक दुशणां दियत रावतात.. अशें कित्याक? कित्या खातीर? आनी केन्ना मेरेन?

**सगळे** :

**जल्माक आयिल्ले चलयेक**
**कित्याक सांग दुशणां**
**घालून चलयेक जल्माक**
**आवय आयकता भाशणां**

*(चाल : सुंवारी)*

**सुत्रधार** : आमचे संस्कृतायेन केन्नाच करूंक ना स्त्री जातीचो धिक्कार... केन्नाच तिका फाटली जावं मागासलेली समजूंक ना.. पूण समाजान मात.. तेच संस्कृतायेचो, भाग आशिल्ल्या समाजान मात तिका सदांच पयसावल्या... तो समाज मात तिची पिळणूक करीत रावलो!

**सुत्रधार** : इतिहासाचें... पुराणांचें खंयचेंय पान उक्तें करून पळय.. दर एक

पान खंयचे तरी बायल मनशचेर जाल्ल्या अत्याचाराकूच तुमच्या मुखार दवरतलें. पूण हें केन्ना मेरेन...? कितलो तेप...? दियात जाप..! आतां... ओगी कित्याक रे आमी?

**सगळी :**

**गणपती देवा आमगेर बाय जालां**
**आतां कितें करप रे.. देवा आतां कितें करप रे..**

**ह्या चेडवाक घेवन संवसार सांग आमचो**
**कसो फुडें वतलो रे.. देवा कसो फुडें वतलो रे..**

**गोड आनी गुडगुडीत दी एक बाब**
**आनी कितें मागतलें रे.. देवा आनी कितें मागतलें रे**

*(चालः फुगडी - गणपती देवा)*

(एकलो मनीस आपले गुरवार बायलेक घेवन दोतोरा कडेन कळवळ्यान धांवत आयला)

**एक** : दोतोर! दोरोर! कळ्ळें तुका..? कळ्ळें तुका आमगेर बाय जातलें काय बाब जातलो तें.. कळ्ळें? सांग दोतोर, बेगीन सांग.. आयलो रिपोर्ट?

**दोन** : Sorry! हेवूय खेपेक तुजे बायलेच्या पोटांत चलीच आसा.. हेवूय वेळेक तुका बायूच जातलें.

**एक** : कितें दोतोर? हेवूय खेपेक चली...? आयकलें मुगो तुवें...? हेवूय खेपेक चली...! शी...! तशें जाल्यार वेळ करनाका दोतोर, वेळ करनाका.. सोंपय ते चलयेक.. हिच्या पोटांतूच सोंपय! (फेऱ्यान सगळे किळच्यो मारतात)

**सुत्रधार** : पळयलें, बाय जल्माक येतलें ह्या भंयान खंयच्या थराक व्हेले आमकां! आरे ही भिरांत कित्याक? कित्या खातीर?

**पांच** : ए....! तूं चड उलयता..! एकेच वटेन उलयता...! हांव एक चली भुरगें..! हांव जाणा, हांगा जल्माक आयिल्ले चलयेचें कितें जाता तें...! हो समाज पिडटा चलयेक..! तांच्यो अदाशी नदरो.. सदांच *scan* करीत रावतात तिचो आंगलोट...! नदरांनी छळटा! चिंतनांनी छळटा! बायल म्हूण छळटा..! आवय म्हूण छळटा..! सून म्हूण छळटा..! सगळे वटेन पिळणूकच जाता तिची..! मागीर कित्याक घेवचो हो स्त्री जल्म सांग? देवा नाका हो बायल मनशेचो जल्म, नाका हो स्त्री जल्म!!!

**सुत्रधार**: (मदींच येवन अभंग गावंक लागता)

**चैतन्याचें बीं खंय सोदचें**
**सोदचो खंय रे अंत**
**स्त्री जल्म हो नाका जाला**
**नाका जाल्या जीण**

**सगळे** :

**स्त्री जल्म हो नाका जाला**
**नाका जाल्या जीण**

(एका घरांतलो देखावो. घरांत एक पूत मेजार बसून च्या पिता. आनी एक चली सकल बसून आयदनां घांसता)

**एक** : आरे बाबू! अजून एकूच चपाती खावन जाली ना...? घे! हें दूद सोंपय! ना जाल्यार व्हड कसो जातलो तूं? (तशीच ती आयदनां घासपी चलये कडेन वता) ए म्हाराणी, बेगीन बेगीन सोंपय हें काम..! आनी कामां पडाल्यांत घरांत..! शी..! पिडा खंयचे कडली! तुका जल्माक घातलें पळय तेंच चुकलें आमचें..! आनीक एक चलो जाल्लो जाल्यार बेश्टच जावपाचें.. शी..!

**सुत्रधार :** **दोळयांतुलें गोठलां उदक**
**काळजां हीं थंडावल्यांत**
**अस्तुरी अस्तुरेच्या पोटांत**
**कित्याक सांग सोंपल्या**

**सगळे :** **स्त्री जल्म हो नाका जाला**
**नाका जाल्या जीण**

**सुत्रधार :** हय, खऱ्यांनीच गोठलां आमच्या काळजांतलें उदक! आनी देखुनूच हो अधःपात! आनी देखुनूच चल्ल्या ही स्त्री जातीची विटंबणा!

**एक** : आरे! मागीर करचें तरी कितें?

**दोन** : वंशाचो दिवो चलो म्हजो!

**तीन** : घराचो कुलदिपक पूत म्हजो!

**चार** : घराक घरपण हाडटलो तो!

**पांच** : नातू म्हज्या रक्ताचो दितलो तो!

**सुत्रधार :** तो! तो! तो! दर वेळेक दर खेपेक तो. अरे केन्ना मेरेन केन्ना मेरेन; वाचून उरतलो हो तुजो 'तो' खातीरचो फटकिरो आनी कपनखायरो मोग? आरे ह्या 'तो' च्या मोगान 'ती' सोंपत चल्ल्या ताचें कितें?

**सुत्रधार :** आमच्यांतलो दर एकलो एक गजाल बेस बरे रितीन जाणा; आयज बायल मनीस, स्त्री खंयच्याय मळार; खंयच्याय क्षेत्रांत; पुरुशाचे तुळेन फाटीं ना. तरीय लेगीत आमी आजुनूय दुस्वास करतात स्त्री जातीचो.. फकत दादलेच न्हय, तर बायलोय बी..!

**तीन** : आनी देखुनूच बाय जल्माक आयलें म्हणटकच पयली आटी मायच्या कपलार पडटा, आवय दुकांनी रडटा.. आनी बापूय तकलेर हात मारता.. अशें कित्याक?

**पांच** : ए...! बंद कर तुजें भाशण.. म्हाका पांच चलयो.. तांकां शिकयल्यो व्हड केल्यो, रिणां काडून लग्न करून दिल्यो.. आयज तांचो संवसार वेगळो, म्हजो संवसार वेगळो..! हांव पडलों वाऱ्यार... ह्या पांच चलयां परस एक चलो जाल्लो जाल्यार सुखान मरपाक तरी शकता आशिल्लों हांव..!

**सुत्रधार**: आरे! पूण हाका जबाबदार कोण रे? आमीच मरे? चली जल्माक आयली म्हणटकच पयलीं विचार तिका धांवडावपाचो..! तिच्या लग्नाचो..! तिचें शिक्षण..! तिचें वाडप..! फुलप हाचो विचार जावपाक नाका?

**सगळे** :

**घरांत आवय जाय**
**हांकां घर सांबाळपाक**
**हातरुणार बायल**
**हांची रात फुलोवपाक**
**बाय मात नाका कोणाक**
**बाबाची भूक दर एकल्याक**
**कसलो पळय जाला समाज**
**मरता हंगा स्त्री रे**
**गंदी बात गंदी बात गंदी बात**

*(चाल: गंदी बात)*

**सुत्रधार**: चलये शिवाय कशी मुखार वतली रे मनीस जीण? हाचो विचार करूक नाका आमी? वण-वण भोंवचें पडटलें आमकां बायल मनशे खातीर.. सांवार येतलो सांवार.. देवान जल्माक घातिल्ल्यो ह्यो दोनूय जाती, स्त्री आनी पुरूश एका सामाजाचे घटायेचें मुखेल कारण हाचो विसर पडला काय रे तुमकां?

**पांच** : आमची ही दळडिरी मानसीकताय आमकां बदलची पडटली. स्त्री जातीचें म्हत्व प्रत्येकान जाणून घेवचें पडटलें आनी तेन्नाच

घडटलो बदल.

**सात** : (एक चली मर्दींच येवन) म्हाका जगूंक जाय..! जगूंक जाय म्हाका..! मळाबा येदें सपन म्हजें..! जोगला जोगें पावल म्हजें..! म्हाका जगूंक जाय...! ए..! तूं वळखता रे! वळखता तूं म्हाका? कसो वळखतलो? हांव जल्मलेंच ना..! जल्मलेंच ना..! फकत आवयच्या पोटांत आवय बापायच्या भोगाचो भाग म्हूण जल्मलें...! पोटांतूच..! तांकां समजलें..! बाय जाता म्हूण आमगेर..! तांणी वेळ करूंक ना.. पोटांतूच सोंपयलें म्हाका..! मारून वडयलें..! बाय जल्माक आयलेंच ना..! वडयलीं मारून म्हजीं सपनां..! आडायलीं म्हजीं जोगलां वरी पावलां.. कित्याक मम्मी? सांग कित्याक मारलें पप्पा म्हाका सांग? आरे म्हजो गुन्यांव कितें?

**सुत्रधार**: आसा कोणा लागीं हाची जाप? आरे कशी आसतली? आमीच न्हय हें कृत्य करपी. आनी घडये चुकून आयलेंच तें बाय जल्माक जाल्यार "ना गो, बाय हे फावट" म्हूण तोंड वाकडें करून जिलोब्यो वांटपी. आतां तरी बदल मनशा, आतां तरी बदल.

(परत हैजा जाता)

**सगळे :**

**हय, हय, बाय जालां**
**हय, हय, बाय जालां**
**बाय जालां, बाय जालां, बाय जालां**
**काकी काकाचेर Tention आयलां**
**बाय जाला, बाय जालां, बाय जालां**

-सोपता-

## 11

# कोणाल्यो म्हशी? कोण काडटा उठाबशी!

(चौक मेकळो, एकलो येता आनी नमनाक सुरवात करता)

क : **वक्रतुण्ड महाकाय सूर्यकोटी समप्रभः**

**निर्विघ्नं कुरु मे देव सर्वकार्यषू सवर्दाः**

(सगले चौकांत लोकांक आफयत फेरो धरतात)

गळे :

**यो रे सायबा यो रे**
**खेळ आमचो पळोवंक तूं यो**
**भाटांत भरल्यो कोणाल्यो म्हशी**
**कोण काडटा उठाबशी**
**खेळ आमचो पळोवंक तूं यो**

गळे :

**मायनिंगान नटलां धुल्लान माखलां**
**सैम मनशांनी पांयां पोंदा माडयलां**

एक : कांय वर्सां आदली खबर

दोन : गोंयच्या शेतांनी पिकतालें भांगर

आयज परिस्थिती आयल्या वायट

एक : मेंदवांत पेटना आमच्या लायट

**दोन** : खणपी मिनेरे खणत आसा

**तीन** : सैम आमचें इबाडीत आसा

**सगळे** :

**गोंयकारा तूं मातयेच्या पुता, गोंयकारा तूं मातयेच्या पुता,**

**सैम इबाडपाचें सोड रे तूं, हें सैम इबाडपाचें सोड**

(मदींच उठून एकटो)

**चार** : ए...! एके वटेन उलयतात तूमी... एकूच बाजू चलयतात.

**पांच** : आमी बुडल्यात पुरायपणान, आमचीं रिणां, आमचे ट्रक, आम
अर्थकारण, मुखार वचचें तरी कशें?

**स** : आरे पापयांनो, पर्यावरण, पर्यावरण करतात तुमी, घर चल
पडलें कशें?

**सात** : मनीस म्हूण अस्तित्वच सोंपत चल्लां आमचें, आतां जगचें पड
कशें?

**आठ** : सगलेच प्रश्न, सगल्यांकूच समस्या. ह्या समस्यांक तोंड दिव
पडलें कशें?

(हे सगळे एके वटेन वचून उबे रावतात, आनी येदोळचे लोव
एके वटेन. रस्सीखेच सुरू जाता. मदीं तो रावला आनी हांसता.

**तो** : म्हाका फरक पडना..! म्हाका फरक पडना..!

(भायलो फेरो)

**दोळे उगडून पळय गोंयकारा**

**दशा जाल्या कशी**

**भाटांनी भरल्यो कोणाल्यो म्हशी**

**कोण काडटा उठाबशी**

**सुत्रधार**: छू घातिल्या एका कुत्र्या भशेन गत जाल्या तुजी. पयलीं ताण

सांगलें खण माती, तुवें खणली. मागीर ताणें सांगलें व्हांवय माती, तुवें व्हांवयली माती, आनी आतां तो सांगता चल मेळत तेका चाब, घांस मार... आनी तूं? कितें करता तूं गोंयकारा? पिशार पडिल्लो कुत्रो जाला तूं, पिशार पडिल्लो कुत्रो.

च : आमची मागणीं बदल्लीं, आमचीं गितां, पदां आमची जिणे कडेन पळोवपाची नदर सगलेंच हालोवन वडयलें ह्या मायनिंगान.

: आरे! खऱ्यांनीच आसा आमकां गरज इतले लाचार जावपाची?

त : एक उद्देग सोंपलो, म्हूण हात पांय गळसणून आमी अशे बसल्यार आमचें भविश्य वाडचें तरी कशें?

ठ : आनी एक याद दवर गोंयकारा, कोणें तरी तुका स्वातंत्र मेळोवन दिल्लें, तें तुवें फकत खाण वेयवसाय करून तुजें पोट भरपा खातीर न्हय.

व : उस्ती उस्ती उस्तिलें तुवें, मागीर केन्ना तरी हें सोंपतलें हें थरिल्लें न्ही? आंता कोण तरी गिरेस्त जावचे खातीर तूं रे कित्याक माथें बडयता?

(तीन वेगवेगळ्या फेऱ्यांनी फुगडी सुरू जाता. ह्यो खाण वेयवसायाच्यो तीन बाजू आनी तीन कथा. *For, Against* आनी सरकार, अश्यो.)

**गणपती देवा करीन तुजी सेवा**
**खणी चालू जाल्यो तर रे देवा**
**खणी चालू जाल्यो तर रे**
**खणून खणून आमी वाट गोंयची लायली**
**आनी पाड कांय नाका रे देवा**
**आनी पाड कांय नाका रे**
**Revenue Genrate कसोच जायना**

**सरकार कशें चलोवचें रे देवा**
**सरकार कशें चलोवचें रे**
**Illegal Mining दे जल्मभर**
**आनी काय मागीन रे देवा**
**आनी काय मागीन रे**
**लोकांच्यो बोबो, सरकारार हल्लो**
**आतां सहन जायना रे देवा**
**आतां सहन जायना रे**

*(चाल : फुगडी - गणपती वा*

**एक** : वालोर.. तूं हांसता... पथनाट्य बोरोवप्यान कितें कवी कल केली... म्हूण ताजी कलाजाणविकाय तोखेता. आरे कितें म्हण तुका गोंयकारा, आरे माकडांनो आमचीच अवतिकाय ही अ आमकांच पथनाट्यांत पळोवन हांसता?

**सुत्रधार** : तुवें उपोशणां केलीं, बंद पाळ्ळे, मोर्चे काडले, खंयच्या कारणाक लागून जीव दिल्ल्या लोकांकूच खाण चळवळीं हुतात्मे केले. कितले मिनेरे जावं मायन ओनर आशिल्ले तुमच्या वांगडा तेन्ना? मागीर ह्यो उठाबशी रे कित्याक?

**दोन** : मायनींग बंद जालें म्हूण तांकां कांय फरक पडना, हें तुका व समजना.

**सगळे** :

**कितलें खणलें कांय खबरना**
**कोणाक विकलें हाचो पत्तो ना**
**दुडू आयलो खंय बाबा गेलो**
**ट्रकांचो मालक कसो भिकारी**
**धुमशणां! धुमशणां!**
**चवथ शेळेली दिवाळेक काळोख**

**नरकासुराची *size* जाली बारीक**
**कोणालो पयसो? कोण बोबो मारता**
**कोण घाम गाळटा, पयसो कोण व्हरता**
**कायं कळना! कांय कळना.....**

(मायनींग सुरू आसा, ट्रक भरून म्हाल व्हरतात. एकलो गाडी घेवन येता आनी कट मारीत वता. इतल्यान मुखा वेल्यान ट्रक येता आनी ताका टक्कर दिता. हें सुरू आसतनाच भायल्या फेऱ्यांत पद सुरू आसा)

**फकत फकत मायनींग फकत**
**खणीतंलो म्हाल, म्हालाचो ट्रक**
**ट्रकांचे ट्राफीक, ट्राफिकाचो रस्तो**
**रस्त्यावेल्यो वाटो, वाटेवेलें मरण**

*(चाल: दत्त दत्त दत्ताची गाय)*

(हें सगळें सुरू आसा. इतल्यान भायलो फेरो परतो आकाराक येता आनी पयलें पद परत सुरू जाता)

**दोळे उगडून पळय गोंयकारा**
**दशा जाल्या कशी?**
**भाटांनी भरल्यो कोणाल्यो म्हशी**
**कोण काडटा उठाबशी?**

*(चाल: गजर)*

(एक जोडपें, खंय तरी उलयत बसलां.)

**अमर** : अशें उलोवंक तरी कशें शकता तूं संध्या? स वर्सां जालीं आमी आसात रिलेशनांत, आनी तूं आतां फाटीं सरपाच्यो गजाली करता?

**संध्या** : जाल्यार जा मरे लग्न म्हजे वांगडा.

**अमर** : तेंच करपाक शकना न्ही गो हांव.

**संध्या** : अमर, तुजो मोग म्हजे खातीर, तूं कितलो बरो, कितलो खरो
मोलूय म्हजे खातीर, पूण तुका आई बाबान पसंत केला तो
गिरेस्तकाये खातीर.

**अमर** : पूण ती गिरेस्तकाय आता खंयचे कडेन नाच जाल्या संध
आंगणांतले चार ट्रक एका तेपार घराची सोबा वाडयताले.
तेच ट्रक आयज दुस्मान जावन गोमटेर बसल्यात म्हज्या.

**एक** : पळय गोंयकारा... पळय कितलो लाचार जाला तूं... अरे
लाचारी कोणा खातीर?

**दोन** : तूं शेतां करतालो, तुजीं शेंता भाटां सोंपलीं.

**तीन** : तूं झाडां पेडांनी, रानांनी खेळटालो, तीं रानांच सोंपलीं.

**चार** : देवान तुका संवसारांतल्या सगळ्या गिरेस्त अशा सैमीक वाठारां
जल्माक घालो, तुवें थंयच्या सैमाकूच सोंपयलें.

**पांच** : न्हंय, दर्यो पुरवले, रस्त्यावेलें ट्राफीक विनाकारण वाडलें, हातां
आयलो फकत पयसो. पूण ह्या पयशांनी तरी खंय पावय
आमकां.

**स** : हो *eassy money*च आमच्या अध:पाताचें कारण थारलां
जाणा तूं? आनी परत प्रश्न तोच. हें सगलें कोणा खातीर?

**सुत्रधार** : इतली सगली वाट लावनूच आयज तुज्या हातांत कांयच ना हाच
अर्थ कितें? म्हळ्यार खण वेवसायाक लागून इतलो तेप भलतोच
कोण तरी गिरेस्त जातालो असोच ताजो अर्थ मरे? कोण
मिनेराचें, खाण मालकाचें पोट भरपाक जाय काय कितें
आमकां खाणी?

(इतल्यान 'तो' येता आनी तांकां बंद करून थाटान भाशण करपाक लागता)

: ए..! तोंड बंद ...! सामकें बंद..! येयात रे.. प्रशासनान आमचेर व्हड अन्याय केला, हें प्रशासन काबार करतलें आमकां, विरोध करात, प्रशासनाच्या खाण धोरणाचो विरोध करात, जय हिंद! जय गोवा!

(कोण तरी येवन कानांत कितें तरी सांगता)

: सायबा! एक खोशयेची खबर! दोन हजार कोटींचो प्रकल्प पास जाला.

: जाणा हांव! आतां तसोय ह्या खाण वेवसायांत व्हडलो सो नफो ना, फकत ह्या ट्रक मालकांक लागून खणी सुरू जावच्यो असो आव घेवन उलोवचें पडटलें. नाजाल्यार कोणाक पडला सध्या खाणींचें. चल तूं या आमी!

क : पळयलें मरे.. पळयले मरे.. तांकां फरक पडना.. पडना फरक तांकां.. पूण तिका मात सोंपयली तुवें.. ती पिशार पडली... तिचेर मात आयलोच सासणाचो काळ.. तुवें कापली गोंयकारा, आवयूच तुजी.. तिकाच सोंपयली तुवें.

सुत्रधार : गोंयकारा, तांबडे क्रांतीचो अंत जाला, गोंयांत आतां आनीक तांबडी क्रांती मागूं नाका, नाजाल्यार भुकेची लाट पयस ना. गरज आसा हांगा परत एकदां पाचवे क्रांतीची, पाचवे लाटेची. खूब फुडें पावले आमी आतां. राव आनी परत एक फावट फाटीं वळून पळय, नाजाल्यार तो आनीक व्हड जातलो, आनी जेन्ना खणपा सारकें कांयच उरचेंना तेन्ना परतो तूं मरतलो आनी तो दीस पयस ना..! पयस ना तो दीस...!

सगळे :

यो रे सायबा यो रे
खेळ आमचो पोळोवंक तूं यो
भाटांत भरल्यो कोणाल्यो म्हशी
कोण काडटा उठाबशी
खेळ आमचो पोळोवंक तूं यो

- सोंपता -

## 12

# सेव दी गर्ल चायल्ड

(सगळ्याक बोवाळ, टाळ वाजतात, पेटी वाजता, घुमटार पयली थाप पडटा, गणेश प्रवेश करता, एका चल्याच्या हातांत टाळ, होच तो सुत्रधार. सुत्रधार पदाक सुरवात करता. रोखडोच एक मनीस आसन जावन मदल्या जाग्यार येता.)

**गणराज गजानन हो....**
**गणराज गजानन हो....**

(गणपती आसनार बसता, सुत्रधार मुखार येता, गणपतीच्या पांयार तकली दवरता)

**वक्रतुण्ड महाकाय सूर्यकोटी समप्रभः**
**निर्विघ्न कुरु मे देव सर्वकार्येषू सवर्दाः**

**सुत्रधार :** श्री देवा गजानना! आमी भुरगीं हांगा आयल्यांत कांय आर्गां घेवन, तुमी आनी देवगणांनी मेळून हो संवसार घडयलो. स्त्री आनी पुरूस अश्यो दोन मुखेल जाती एकमेकाच्या आदाराक, मनीसजीण सुखासमाधानाची करपाक घडयल्ल्यो. पूण मनीस दळडिरो, कपनखायरो, मनीसखायरो, बायलखायरो. तुवें निर्मिल्ले एके जातीचो अधःपात करूंक आतुरला. जल्माक येवचे पयलींच अस्तुरेक कापत चल्ला, देखून आयल्यांत आमी, संवसाराक चार उतरां सांगपाक, हीं उतरां मानून घे रे देवा!

**सगळे :**

**स्त्री जल्माची एक ही काणी**
**घेवन आमी आयल्यांत**
**तुका जागोवंक आमी आयल्यांत**
**तुका उठोवंक आमी आयल्यांत**
**तुका हांसोवंक आमी आयल्यांत**
**तुका घडोवंक आमी आयल्यांत**

**एक** : ना माहेरची, ना सासरची (बायलेक एक दादलो धुकलून व्हरता)

**दोन** : ना घरांतली, ना दारांतली (बायलेक दुसरी बायल धुकलता)

**तीन** : सगळें सांबाळपी आवय तुजी

**सगळे :**

**ना घरांतली ना दारांतली**
**ना घरांतली ना दारांतली**
**वणवण भोंवपी तुका घडोवपी**
**आवय तुवें सोंपयली**
**ना घरांतली ना दारांतली**
**ना घरांतली ना दारांतली**

**स्त्री जल्माची एक ही काणी**
**घेवन आमी आयल्यांत**
**तुका जागोवंक आमी आयल्यांत**
**तुका उठोवंक आमी आयल्यांत**
**तुका हांसोवंक आमी आयल्यांत**
**तुका घडोवंक आमी आयल्यांत**

(सुत्रधार प्रवेश करता, किर्तनी ठेको, आनी चाल)

ुत्रधार : कांय वर्सां आदली खबर, अस्तुरेचो घोवा वांगडा जातालो गोबर.

्क : आयज परिस्थिती आयल्या वायट, मेंदवांत आमच्या पेटना लायट.

ोन : अस्तुरी जल्माक येवंच ना, पडिल्लें बीं भावा रुजच ना.

(एक मनीस मोट्यान पुलिसी थाटांत)

धार : आरे! कसलो बोवाळ चल्ला?

ांच : save girl child चें कॅम्पेन चल्लां.

स : आरे! पूण कित्याक चल्लां.

सात : माकडा! तुका जागोवंक चल्लां.

आठ : हांव जागोच आसां, देखून चलतां भोंवतां.

णव : म्हणूनच, म्हणूनच पोटांतलें चली भुरगें कापत चल्ला, कापीत चल्ला.

धा : आरे! मागीर करचें तरी कितें?

इकरा : वंशाचो दिवो! चलो म्हजो.

एक : घराचो कुलदिप पूत म्हजो.

दोन : घराक घरपण हाडटलो तो.

तीन : नातू म्हज्या रक्ताचो दितलो तो.

सुत्रधार : तो! तो! तो! दर वेळेक, दर खेपेक तो, केन्ना सोंपतलो, केन्ना सोंपतलो हो 'तुजो' तो खातीरचो फटकिरो आनी कपनखायरो मोग. हांसत आसा, खेळत आसा, प्रगतीचें गीत आमी गायत आसात. पूण सोंपत चल्ल्यात आमी, आमचें अस्तित्व, आमच्यांतलें मनीसपण. विशय सगल्याचेंच वळखीचो. कारण असगल्यांनी तेंच चलयलां, चली भुरग्याक गर्भांतूच सोंपयलां. आनी जमल्यात हांगा Campain घेवन Save Girl Child. आरे! कित्याक जायन दिसतलें म्हाका चलयेची आवय? कित्याक?

एक : चलो भुरग्याक हुंडो दिवंक?

दोन : घटस्फोटीत बायल म्हूण जगूंक?

तीन : समाजाचे आंबट शौक भागोवंक?

चार : काय एका जिवाक चिरंतरी वेदनेंत धुकलूंक?

(एक चली आवय जाता, व्हडल्यान आड्डता आनी भितर सरता

ती : ना! ना! हो जुलूम म्हाका पोळोवपाचो ना, म्हज्या पोटांतलें बाळक 'तो' आसल्यारूच जगतलें, 'तें' आसल्यार जगचें ना. हांव मारून वडयतलें तेका, हांव सोंपयतलें, घोट्ट्लें हांवूच ताचो गळो... सोंपयतलें ताका, सोंपयतलें...!

एक : आवय, तुजो पानो सुकलो कसो?

दोन : विटलो कसो तो, दुखलो कसो?

तीन : सांग तुजी काणी, आवय सांग तुजी काणी!

चार : अस्तुरे विणें आतां जगचें कोणें?

सगळे : **सांग तुजी काणी आवय, सांग तुजी काणी**
**अस्तुरे विणें आतां जगचें कोणें**

तें : म्हजी काणी? म्हजी आनी कितें काणी? जल्माक येवचे पयलीं, पोटांतूच म्हज्या आवय बापायनूच म्हाका सोंपयलां. हें चालूच आसा.. चालूच आसा.. चालूच आसा.

पांच : दोतोर! दोतोर! सांग कितें जालें, सांग कितें जालें?

स : Sorry! तूं हेवूय खेपेक चलयेचोच बापूय जातलो, तुजे बायलेच्या पोटांत हेवूय वेळेक चली भुरगेंच आसा!

पांच : कितें...! मागीर दोतोर वेळ काडी नाका.. वेळ काडी नाका.. फाटले वेळेक केल्लें तेंच कर.. सोंपय तिका.. सोंपय तिका...!

आवय : हय दोतोर! सोंपय तिका.. सोंपय तिका..!

(चली रडटा, तिगांय मेळून तिचो गळो आवळितात)

**सगळे** : हूं... ! हूं... ! हूं... ! हूं... !

(चली परत उबी जाता.. आनी)

**तें** : कित्याक मारलें म्हाका? कित्याक मारलें? म्हजो गुन्यांव कितें? हांव एक स्त्री होच? कितें म्हजो गुन्यांव? सांग आई... सांग? सांग पप्पा सांग? अशें कितल्याश्याच म्हज्या भयणांक तुमी सोंपयत आयल्यात... कित्याक? कित्याक?

**सुत्रधार** : **जाप दिवची कोणें? जाप दिवची कोणें?**
**सगळें घडोवपी आमीच करपी**
**मनीस आमी आमी मनीस आमी**

(आवय बसल्या 'तो' येता)

**सात** : आई, म्हाका शंबर रुपया जाय.

**आठ** : म्हजे लागीं ना रे राजा.

**सात** : पाड पडिल्ले, तुजे लागीं म्हका दिवपाक पयशे नात! (तिका लाथ घालता, 'तें' चली व्हडान हांसता.. हांसतना रडटा)

**तें** : कित्याक नाका जालें गे तुका हांव? सांग आई सांग.. अशो लाथो तरी घालना आशिल्लें तुका.. आमी प्रगतीचें गीत गायतात.. कांय वर्सां आदीं घोवा वांगडा बायल सती वताली.. पूण आयज ती पोटांतूच सती जायत आसा.. कसली ही प्रगती? कसली ही सुदारणा? कसलो हो विकास? गर्भांतलें लिंग जाणून चलयेक सोंपयतल्यांक ख्यास्त करपाचे नेम आंखले.. पूण नेम करपी तुमी आनी मोडपीय तुमीच.. हांगा न्याय जावचो ना.. ! हंगा न्याय जावचो ना.. ! मनशा शाप लागतले तुका.. ! शाप लागतले.. ! तुवें केल्ल्या खुनाचे शाप लागतले आनी तुका, तुज्या अस्तित्वाक सोंपोवन वडयतले.. सोंपयतले तुका.. पळय, पळय तुजो फुडार... !

(एक चलो आनी बापूय)

धा : पात्रांव.. हो म्हजो चलो, दोतोर.. तुगे चली आसा जाल्यार हेज कडे लग्न कन्न दी रे.. पांय पडटां.

इकरा : चली वखदा ना पात्रांव.

धा : बाबा.. म्हजो चलो लग्न...

स : हें...!

धा : बाय..! हो चलो म्हजो.. लग्न जाता?

सात : पयलींच पांच आसात.. ह्या सव्याक खंय दवरूं ?

धा : धा लाख रुपया दितां.. हाका चली दी.

आठ : तुका हांव पन्नास दितां. तूं म्हाका लग्नाक चली दी..!

चली : शाप लागतले..! म्हजे शाप लागतले..!

सुत्रधार :

**वण वण भोंवता आवय खातीर**
**वण वण भोंवता बायले खातीर**
**सोंपली तुजी जात सोंपली तुजी**
**आमी सोंपले आमी.. आमी सोंपले आमी**
**आमी सोंपले आमी.. आमी सोंपले आमी**

**देखून........**
**स्त्री जल्माची एक ही काणी**
**घेवन आमी आयल्यांत**
**तुका जागोवंक आमी आयल्यांत**
**तुका उठोवंक आमी आयल्यांत**
**तुका हांसोवंक आमी आयल्यांत**
**तुका घडोवंक आमी आयल्यांत**

-सोंपता-

# 13

## पर्यावरण

(सगले वांटेकार लोकांतल्यान नांदी म्हणत लोकां मदीं येतात)

**मायनिंगान नटलां, धुल्लान माखलां**
**सैम मनशांनी पांयां पोंदा माडयलां**
**परमेशानूय दोळे धांपल्यात**
**दर्या वेळांनी प्लास्टीक सांडलां**

**(चाल : नमन नटवरा)**

**एक** : कांय वर्सां आदली खबर
गोंयच्या शेतांनी पिकतालें भांगर

**दोन** : आयज परिस्थिती आयल्या वायट

**तीन** : मेंदवांत आमच्या पेटना लायट

**चार** : खणपी मिनेर खणत आसा
सैम आमचें इबाडीत आसा

**सगळे :**

**गोंयकारा तूं मातयेच्या पुता**
**माती खणपाचें सोड रे हें**
**माती खणपाचें सोड**

*(चाल : श्रीभगवंता कमलाकांता)*

**पांच** : आरे कसलो बोवाळ चल्ला?

**एक** : सैम राखून दवरपा खातीर कॅम्पेन चल्लां.

**स** : आरे पूण कित्याक चल्लां?

**दोन** : माकडा! तुका जागोवंक चल्लां.

**तीन** : पूण हांव तर जागोंच आसां, देखून चलतां भोंवतां.

**चार** : म्हणूनच, म्हणूनच सैमाक सभोंवतणच्या इबाडीत चल्ला.

**सगले** :

**दशो गोंयचे जमनीचेर लोकांनी मायनी हाडल्यात**
**गोंयचे जमनीचेर लोकांनी मायनी हाडल्यात**
**दशो पारंपारिकतायेचें मूळ कापलां**
**पारंपारिकतायेचें मूळ कापलां**
**दशो घरांत, दारांत, रस्त्यांनी धुल्ल माखला**
**घरांत, दारांत, रस्त्यांनी धुल्ल माखला**
**दशो सैमाकूय मायनींगाचो रोग लायला**
**सैमाकूय मायनींगाचो रोग लायला**

**सुत्रधार**: आरे! कसलें मायनिंगा फाटलें राजकारण घेवन बसल्यात रे तुमी?

**दोन** : जे मेरेन शेतकार पिकोपाचे नात ते मेरेन खातले कितें रे तुमी...? माती..?

**तीन** : शेण खावपाचीय माणसुकी ना, गोरवांच्या पोटांतूय प्लास्टीक सापडटा आयज.

**चार** : रेंव खातलो म्हळ्यार दर्या वेळांनी पोतयो, बाटल्यो आनी कोयरूच चड जाला.

**पाच** : झाडांचीं मुळां, पालो, पाचोळो खातलो म्हळ्यार रानांय कापलीं आमी आनी उबीं केलीं कोंक्रिटाचीं जंगलां ते सुवातेर.

धार : उदकांत लेगीत कॅमीकलां घालून तें शुद्ध म्हूण पिवचें पडाटा मरें तुमका? मागीर उदरगत उदरगत म्हळ्यार कितें रे?

: मागीर कितें म्हणपाचें आसा रे तुमकां? सगळें बंद करुया? धुल्ल जाता म्हूण मायनिंग थांबोवया, प्रदुशण जाता म्हण कारखाने बंद करुया? आनी कितें सगले काश्ट्यो मारून शेतांनी वचुया म्हणटात?

न : वेळार सगल्या गजालींचेर ताबो मेळयलो ना जाल्यार काश्ट्योय उरच्यो नात आनी शेतांय उरचीं नात हें विसरूं नाका आनी देखुनूच आयल्यात आमी.

ाले :

**पर्यावरणाचें हें रडगाणें घेवन आमी आयल्यात**
**तुमकां जागोवंक आमी आयल्यात**
**तुमकां जागोवंक आमी आयल्यात**

(पसरकार.... एक गिरायक येता)

. : ओ पसरकारा...! कसो आसा?

: आसां बरो..! कितें दिवं?

. : म्हाका मरे एक कील तांदूळ, एक लिटर तेल आनी पाव लिटर उदक दी.

: उदक म्हारग जालां.. जाणा मरे?

. : कितें.?

**उदकाचे थेंबे वीस रुपयांक दोन**
**म्हारगाय जाल्यार इतली**
**वाचतलो सांग कोण**

(गिरायकान एकदां ह्यो वळी म्हणले उपरांत सगले जाण फेरो घेवन परत्यो म्हणटात)

(दोन मनीस बसल्यात, दोगांच्याय बसपांत शेतकाराचो

दिसता)

**एक** : आबो..! अंदूं शेत करूं जावशे ना आ..!

**दोन** : कित्या रे पुता? कितें जालें?

**एक** : आबो..! सोसायटेंत घे म्हूण तांदूळ मेळटात मरे, तुगे वावराक एक कामेरें हाडटोलो जाल्यार दिसाक १५० रु मेजचे पडटात, पाड पडूं तुजें शेत..!

**दोन** : पुता..! कितें उलयता तूं हें? आनी जमनीचें कितें करपाचें तर

**एक** : बाबो..! हांव नकळो.. दिवया कोणाकूय मिनेराक ना जात दिवया कोणाकूय फॅक्ट्री घालूंक.. पाड पडूं सगळें..!

**दोन** : पूण सैमाचो विचार कोणें करपाचो रे?

**एक** : मागीर शेतकामत्यांनी कितें गळफास लावन मरपाचें? पिकयतलो जाल्यार बरें उदक जाय, माती सुपीक जाय, पा वत-वारो वेळार जाय, आबो..! आधुनिकरणाचो वारो प पिकोवंक शकता पूण शेतां न्हय..

**दोन** : पुता..! पट्टा म्हाका तुजें.. पूण सगल्यांनीच असो वि केल्यार जावचें पडलें कशे.

**एक** : तूं समजना आबो..! आरे! हो प्रश्न फकत म्हजो आनी न्हय.

**दोन** : सैमाचो प्रश्न होवूय फकत तुजो आनी म्हजो न्हय.

**एक** : आबो..! हांव पूत तुजो.. हांवूय एक शेतकारूच न्हय? शे वयले वटेन जेन्ना मायनिंगाचें वेस्ट दाट्टा तेन्ना म्हज्याय मा फातर दवरिल्ले भशेन जाता. पूण शेतां पिकनात, जळीं कंपन्यांनी मोबायलाचे टॉवर उबे केले. त्या रेडियेशनाक ल माडा वेल्यान सुपारे येदे बोंडे पाडचे पडटात, सांग...

जगपाचें शेतकारान?

त्रधार: आसा तुमचे लागीं तांच्या प्रस्नांची जाप? सांगात.. आतां ओगी कित्याक रे? फकत मायनींग जाता हेंच अर्थकारण? शेतकारांचें पीक हो अर्थकारणाचो भाग न्हय? दियात जाप..!

र :

**नाल्लाच्या बोंड्यार सांवार आयला..**
**बेळगांवचे भाजयेर फवारो मारला..**

*(चाल : सुवारी)*

त्रधार: म्हज्या मोगाळ भावांनो आनी भयणांनो... कितें चल्लां ह्या संवसारांत? आमी आमचें वर्तमान भविश्याच्या भंयान जगल्या बगर पर्याय ना... जें जल्माक आयलां तें सोंपतलेंच एक दीस.. एक दीस उदेतलो, ज्या दिसा संवसारांत उदक नासतलें, पेट्रोल नासतलें, मातयेंत मीन, हवेंत ओक्सिजन नासतलो.

क : आमचे बुद्दीमत्तेच्या बळार दर वेळेक पर्याय सोदले आमी पूण ही बुद्द चलपा खातीर लागपी इंधनूच जेन्ना सोंपतलें तेन्ना रे कितें करतले आमी?

ोन : मनशा... म्हाप्रलय पयस ना...! तो केन्ना तरी येतलोच.. सगल्या गजालींची सोसपाची एक तांक आसता.. एक दीस हें सैमूच जाप विचारतलें तुका.... तेन्ना कितें आसतली रे जाप तुजी?.. सांग मनशा सांग....!

(एक पेपरवालो पेपर घेवन येता, पेपराची जायरात करता)

ापरवालो : आज की ताजा खबर... आज की ताजा खबर.. पेट्रोल परतें वाडलें... पेट्रोल परतें वाडलें... आज की ताजा खबर... आज की ताजा खबर..

एक : शाबल्यो... आतां कितें करपाचें रे? एक लिटर पेट्रोलाक एक हजार रुपया मेजपाचे?

दोन : आरे! कितें करता रे सरकार?

**तीन** : आनी पेट्रोल कंपन्यांक कितें मोद मारला तर रे?

**सुत्रधार** : हेंच... हेंच चुकता आमचें.. पेट्रोल कंपन्यो सांगच्योनात तुम पेट्रोल कमी वापरात म्हूण, तुमकां बदलचें पडटलें, पेट्रोल कंपन्य तुमी पेट्रोल चडांत चड विकत घेतिल्लें जाय, आरे! तांचें तुमच्या खर्चानूच भागता हें कशें कळना तुमकां. पूण तुमच्या मदत रेड्या पाड्यांच्या झगड्यांनी सैमाचेर मात काळ येता.

**सुत्रधार** : जागो जा मनशा, जागो जा... सैम आमची जीण घडयता, ता इबाडप सोपें, पूण ताची रखण केल्ल्याचो फायदो आमकांच आ हें विसरूं नाका.

(उदकाच्या पेल्या खातीर दोगां मदीं झूज आनी दुसरो ताचो ज घेवंक सोदता)

**एक** : ए...! उदक म्हजें तें.... दी म्हाका पयलीं..!

**दोन** : तूं मार म्हाका, पूण हांव दिवचों ना...

**एक** : आरे..! म्हजीं भुरगीं तानेल्यांत.. दी तो उदकाचो पेलो म्हाका..

**दोन** : तूं मुखार येनाका... हांव रकयतलों पेलो जमनीर.

(दोगांयचें झगडें.. उदक शेणटा.. दोगूय तकलेरे हात मारून घेतात दोगूय आकांत करतात)

**सुत्रधार** :

**आरे मनशा तूं मातयेच्या पुता**
**सैम इबाडपाचें सोड रे तूं..**
**सैम इबाडपाचें सोड रे तूं..**

**सगले** :

**पर्यावरणाचें हें रडगाणें घेवन आमी आयल्यात**
**तुमकां जागोवंक आमी आयल्यात**
**तुमकां जागोवंक आमी आयल्यात**

-सोंपता-

## 14

# यो रे यो रे पावसा!

(घुमटार थाप पडटा. गडे दोन वटांनी उबे आसात. गड्यांचो एक पंगड भितर सरता)

**गड एक :**

**यो रे यो रे पावसा यो**
**दिता तुका पयसो यो**
**पावस जालो खोटो**
**पयसो आयलो मोटो**
**खोट्या खोट्या पावसा**
**खरो केन्ना येतलो**
**झाडां - पेडां, रांना मळां**
**पावसा केन्ना भिजयतलो?**

(ह्या गिताचेर पयलो पंगड येवन झाडां - पेडां, रानां - मळां जावन उबो रावता. इतल्यान दुसरे वटेन पंगड मोटे उमेदीन दुसरें गीत घेवन भितर सरता)

**ंगड दोन :**

**यो रे सायबा यो रे**
**खेळ आमचो पळोवंक तूं यो**
**हुंवार पावलो खंयचे कडेन**
**पावस गेलो भलते कडेन**
**खेळ आमचो पळोवंक तूं यो**

एक : पावस हो विशयूच मुळांत पातळ... उदका भशेन.... पावसाचे
आनी पथनाट्य सादर करूंक जाता रे?

दोन : पथनाट्यां सादर करतलो जाल्यार विशय गडगंज जाय....

तीन : राजकारण

चार : समाजकारण

पांच : डी मोनीटायजेशन

स : काळो पयसो आनी भारत

एक : आनी तुमी कसलो खेळ घेवन आयल्यात? यो रे यो रे पावसा? आ
उपाट पावस पडपी देश हो. चार चार दीस हालना पावस... आन
तुज्या पथनाट्याचो विशय कितें? यो रे यो रे पावसा? तुमी पिसावल्यात
वेळ वगडावंक आयल्यात आमचो.?

सुत्रधार : पळयलें. पावसाक म्हत्व दिवपी पिळगी खंयचे कडेन नाच जाव
गेल्या. दर एकल्या खातीर म्हत्वाचे विशय भलतेच. पावसाव
बेजारपी वाडल्यात. पावस हो विशय आमकां कवींचो गीतकारांच
दिसपाक लागला. ही पावसा बद्दलची अनास्था..... खंय व्हरतल
काय आमकां? नवी पिळगी तर सगल्याच गजालींक मनोरंजन म्हूण
पळयता.

आंठ : ए! बंद कर तुजीं शाणेपणां! हें मात बरें तुमचें, जाणट्यांलें कितें
जालें काय पयलें बोट तरनाट्यांचेर दवरून मेकळे जातत मरे तुमी

णव : तरनाट्यांनी आवाज केलो म्हूण येतलो पावस.

तीन : पावस ना जाला, जावं. जाय तितलो पडना हाका कारण जाणटेलेच
झाडां मारलीं तुमी! रानां कापलीं तुमी! पर्यावरणाक लाथायलें तुमी
आनी आतां तरनाट्यांक जागे करतात खंय!

चार : आनी राव रे! पावसाचें उदक कितें फकत तरनाट्यांकूच लागता
तुमकां जाणट्यांक लागना तान - भूक? भोंक धुंवपाक लेगीत

उदक वापरप्यांची पिळगी तुमची ! आमीं तुमी कापिल्ल्या झाडांतल्यान जल्मलो पेपर वापरतात... मागीर सांग कोणें जावचें पडलें जागे पयलीं, नेणट्यांनी कांय जाणट्यांनी रे ?

ळे :

**नाका बाबा नाका**
**झगडीं असलीं नाकात**
**सगल्यांनी समजूचें**
**जाय पावस म्हाका**

*(चाल : सुंवारी)*

क : हय, हें आतां सारकें जालें. पावस ही सगल्याचींच गरज. फकत मनशालीच न्हय तर सबंद संवसाराची. कारण पावस होच एकमेव स्त्रोत मनशाले सगल्यांत व्हडले गरजेचो. आनी सगल्यांत व्हडली गरज म्हळ्यारूच उदक !

ळे :

**झाडांक उदक**
**रानांक उदक**
**रानांतल्या जनावरांक**
**दोंगर, भाटां, शेतांक**
**पावसाचें उदक**

*(चाल : दत्त दत्त)*

(सगले गडे वेगवेगळीं जनावरां जावन मदीं नाचपाक लागतात)

गळे :

**रानांत भरल्या सभा**
**ताची लायव्ह कव्हरेज बाबा**
**पळोवपाक खंयूच मेळची ना**
**लागीं यो रे भावा.**

**कोलो** : सैमीक आपत्ती येता तेन्ना एकठांय येवप होच खरो जनावर ध
आनी ह्याच धर्माक पाळो दिवन आयज आमी हांगा एकठांय आयल्य

**वाग** : उणो जायत वचपी पावस ही व्हडली समस्या आनी हे समस्ये
चर्चा जावचीच पडटली.

**सोसो** : पूण वागमाम, आतां पडटाच न्हय रे जाय तितलो पावस? मागीर
प्रस्नाचेर आतांच कित्याक रे चर्चा?

**वाग** : पावस कितें नोटीस दिवन बंद जावपाचो ना! त्या वेळार वि
करतले आमी? देखून ही चर्चा हांगाच जावची पडटली.

**बेबो** : हो पावस ना जावपाक खरो मनीसच कारण. मनशान पर्यावर
कडेन आनी निसर्गा कडेन केल्ले खेळ आयज आमच्या जिव
बेतपाच्या मार्गार आसात... हाची जाण मनशाक केन्ना जात
काय?

**कोलो** : आनी ही जाण मनशाक जालीच ना जाल्यार?

**बेबो** : चलात तर, वनदेवतेकूच जागी करून विचारुया ह्या प्रस्नाची जा

**सगले** : हय हय! वनदेवतेकूच जागी करून विचारुया. पावसाक आम
मेरेन हाडपी वनदेवते जागी जा, जागी जा. संवसारांतल्या सगल
जिवांक जगोवन दवरपी वनदेवते जागी जा, जागी जा. येवपा
आसात संकटां. मरणाचीं आयल्यांत सावटां. संवसारांतले शांत पृ
सर्वशक्तीशाली देवते - जागी, जा जागी जा.

(कांय झाडां वयर सरतात.... तातूंतलेंच एक झाड आसता वनदेवत

**वनदेवी** : कितें जालें? आयज खूब वर्सांनी उगडास जालो तुमकां म्हजो?

**वाग** : ना देवी, अशें उलोवं नाका! मनशांनी केल्या कर्मांचो राग
आमचेर काडूं नाका.

**कोलो** : सारकें देवी! जनावरांची जात सदांच प्रामाणीक रावल्या तुका. ज
कोणे दगो केलाच जाल्यार तो मनशान! मागीर ताचो कोप मोनजातं

कित्याक?

**वनदेवी** : तुमचें म्हणणें बरोबर! पूण जें जातलें ताचो त्रास तुमकांय जातलोच. पावस देव रागार जालो जाल्यार पयलो बळी तुमचोच वतलो. मनीस तो मनीस. तो दर्यादेवाचे मदतीन आपणाली तान भागयतलो. पूण तुमी कितें करतलीं?

**वाग** : तेंच तर कळना आमकां आनी देखुनूच पाचारण केलां आमी तुजें. आमच्या प्रस्नांच्यो जापो दी देवी. पावस खऱ्यांनीच वतलो?

**सगळे** :

**वतलो वतलो खंय वतलो?**
**पावस भावा खंय वतलो?**
**येतलो येतलो येतलो**
**आकांत सगल्यांचेर येतलो**

(एक घर. घरांत तीन पिळग्यो. घरांतलीं भुरगीं मोबायलार. मदली पिळगी टिव्ही मुखार. आनी सामकी जाणटी पिळगी देवा मुखार)

**सुत्रधार** : हय! हीं आमचींच घरां. एके एके पिळगेचें एक एक धोंग! भुरगे शेणले मोबायलांनी, मदले शेणल्यात टिव्हींनी आनी जाणट्यांक लागला मरण पिशें...!

**एक** : अशा कुटुंबांतल्यान पावस ह्या विशयार चर्चा करतलो तरी कोण आनी केन्ना?

**दोन** : तुमी पावस मागतात कित्याक? आरे पावस पडुनूच बुडिल्ली मुंबय विसरले? पावस पडुनूच बुडिल्लें काणकोण! तेंवूय विसरले?

(घरांतलो टिव्ही पळोवपी उठ्ठा)

**तीन** : आवय देवा! कीत पिरपीर लायल्या पावसान सकाळच्यान... आयज आनी हालना दिसत हो. पाड पडिल्लें पावसांत टिव्हीक सिग्नलूय मेळना सारकें. (नदर मोबायलांत व्यस्थ आशिल्ल्या भुरग्याचेर)

आरे बाबू, कितें हें! सकाळच्यान मोबायलार मरे तूं!

**चार** : (चलो बापाय कडेन तिडकीन पळयता आनी उठून भितर वता... पूण मोबायल सोडिना)

**पांच** : (घरांतली जाणटेली पुताक) आयज कामाक वचना पुता?

**तीन** : काम आनी खंयचें? पावस पळयला कसो पडटा भायर. रॅनकॉट बी घेतलो ना हांवें अजून. सांचो वतां बाजाराक आनी घेतां....

**सुत्र.** : पळयलें, पावस आयलो म्हणटकच आमचे विशय हे! हाकाच लागून मागतात आमी पावस?

**स** : हें! पावस जाय रे! पावसा कुल्ल्यो वयर चडटा जाण तूं! आवय कसलें सावें नुस्तें खावपा मेळटा आनी श्रावणा अळमीं, किल्ल.... तवशीं, चिबडां!

**सुत्र.** : वा! पळयात, आमी कशे पळयतात पावसा कडेन.... खऱ्यांनीच सांगतां, आमकां कोण्णाक पावस नाका. हें जें आमी चलयलां पळय तें धोंग, एक निव्वळ धोंग!

**सुत्र.** : आत्तां आयलो पावस.... कितले लोक हांगाच अश्शे उबे रावन पावसाक तोखेतले सांगात? काडात हात वयर, पळोवया तरी....

**एक** : हांव आडसाक धांवतलों. म्हाका थंडी जाता.

**दोन** : हो आडवेळो पावस बरो न्ही हां!

**सुत्र** : आत्तां पावस आयलो जाल्यार पयलो आकांत येतलो आयोजकांचेर आनी दुसरो परिक्षकांचेर! हें तरी मानतात तुमी?

**सुत्र.** : मोगाळ भावा भयणांनो. आमी सैमा कडल्यान खूब म्हळ्यार खुबूच पयस गेल्यात. आमी खऱ्या अर्थान एक्स्प्लोयट केलां सैमाक... हय! लुटलां आमी सैमाक. साळावली धरणांत वर्सभराक जाय तितलें उदक भरलें अशी बातमी वाचून जाल्या उपरांत पडटा तो सगलो पःवस वेश्टूच आमच्या खातीर.

ार : आनी कित्याक जाय आमकां पावस? आमी करतात शेतां..? आमी पिकयतात? कोण तरी पिकयता तें आमी पयशे दिवन खातात मरे.

ांच : आमची वेवस्थाच मुळांत पावसा आड आसा! जें शिक्षण आमी शिकतात, जें काम आमी करतात त्या खंयच्याच मळार पावसाक इल्ली लेगीत सुवात ना. मागीर यो रे यो रे पावसा कित्याक?

ा : रस्ते व्हांवून वचपाक?

सात : सत्र्यो रेनकोट खपपाक?

आठ : नुस्तें कुल्ल्यो खावपाक?

णव : ऑफिसाक दांडी मारपाक?

सगळे :

**आमी वतात खंयचे वटेन**
**हो विशय खंय वता?**
**पावस लागता कित्याक आनी**
**आमी कित्याक मागतात?**

**पथनाट्यकार :**

म्हज्या मोगाळ भावा भयणांनो! ह्या पथनाट्याचो बरोवपी हांव...! एक यशस्वी पथनाट्यकार! हावें जायतीं पथनाट्यां बरयल्यांत आजय मेरेन. पूण हे फावट म्हजी उतरां आडखळ्ळ्यांत. देखून हांव स्वता देवलां रस्त्यार. खऱ्यांनीच म्हाकाय कळना कित्याक मागतात आमी पावस? खऱ्यांनीच जाय आमकां पावस? हय! उदक जाय जाल्यार पावसूय जाय! पावस जाय? पडटाच न्ही रे पावस! मागीर प्रस्नूच खंय आयलो. कित्याक येवचें पडलें रस्त्यार. आयोजकांक दिसलें म्हणून? पथनाट्य हें जनजागृतीचें माध्यम खंय! आरे वेगवेगळ्या विशयांनी आमी केल्ले जागृतायेंतल्यानूच पयस गेला पावस हें वास्तव मरे! समजुना हांव कितें म्हणटां तें. म्हाका सांग, पावसांत भिजप ही उदरगत काय पावस लागचो न्ही म्हूण घर बांदप हो विकास. सगलो

यत्न पावस चुकोवपाक. अडचणी कडल्यान सोपे कडेन वचपाक... मागीर लागताच कित्याक पावस? आनी आमी जागो करचो तरी कोणाक आनी कित्या खातीर हें तरी सांगात मात्शें? देखून हें पथनाट्य हांव हांगाच सोंपयतां. रागार जाय नाकात. पथनाट्य गिता शिवाय सोंपोवप समा न्हय हाची जाण इतल्या वर्सांच्या अणभवान म्हाका दिल्या. देखून हें निमणें गीत... सुरवाती भशेनूच!

**सगळे :**

**यो रे तूं यो रे तूं यो रे पावसा**
**मनीस पिसावला... पावसाक विटला**
**केन्नाच्याय पडपी पावसा....**
**पयस वचूं नाका**
**कोणूय करूं कितें**
**तूं रागार जाय नाका!**
**यो रे तूं यो रे तूं यो रे पावसा**
**मनीस पिसावला... पावसाक विटला**

*(चाल : परदेसी परदेसी )*

- सोंपता -

परिशिश्ट १

# हेमंत अय्या हांच्या पथनाट्यांतली सर्जनशिलताय आनी नाविन्य

बरोवपी

**मंगेश पा. हरिजन**

**सुश्मिता सं. देसाय**

संस्था

**कलारंग - केरी,**

फोंडें - गोंय

शांतादुर्गा विजयते कला मंडळ कुंकळ्ये, म्हाड्डोळ - गोंय हांणी घडोवन हाडिल्ल्या उर्वा २०१६ ह्या महोत्सवा खातीरचे प्रबंद सर्ती खातीर खासा तयार केल्लो अभ्यास.

# हेमंत अय्या हांच्या पथनाट्यांतली सर्जनशिलताय आनी नाविन्य

## सारांश

पथनाट्य ह्या प्रकाराक साहित्य म्हणचें काय कितें हो वादाचो प्रस्न. ताचेर चर्चा जावं येता. पूण साहित्य प्रकारांचे संकल्पनेंतल्यान पथनाट्याक भायर दवरले जाल्यारूय पथनाट्याचेर आनी तें बरोवपी रचनाकारांचेर अभ्यास जावं नज; अशें काय ना! पथनाट्य ही एक कलाच. व्यापक अर्थान नाटक ह्या प्रकारांतलो तो एक उपप्रकार. ह्या प्रकाराक साहित्याचे निकश लावपाचें कोणूय न्हयकारत. पूण ललित कलेचे कक्षे भायर पथनाट्य ना. साधारणपणान २००६ वर्सा सावन हेमंत अय्या पथनाट्य बरयतात. तांचीं जायतीं पथनाट्यां गोंयांत वेगवेगळ्या वाठारांनी सादर जाल्यांत. तांच्या पथनाट्यांतली नविदाद खंयची? ताचे फाटलीं कारणां कितें? अशा आनी संबंदीत मुळाव्या प्रस्नांचो सोद हांगा घेतला.

## प्रस्तावना

गोंयच्या 'पथनाट्य' क्षेत्रांतलें हेमंत अय्या हें नामनेचें न्हय जाल्यारूय एक वळखीचें नांव. तांणी बरोवन बसयिल्ल्या जायत्या पथनाट्यांचो आस्वाद फाटलीं धा वर्सां गोंयकारांनी घेतला. केपेंच्या सरकारी महाविद्यालयाचे, ते एक मराठी प्राध्यापक जाल्ल्या कारणान तांणी जल्माक घातिल्लीं साबार पथनाट्यां हीं गोंयच्या महाविद्यालयीन पांवड्या वयल्यान गोंयकारांक अणभवपाक मेळ्ळ्यांत. संवसारीक पांवड्यार पथनाट्य ह्या प्रकाराचो साहित्य प्रकार म्हूण उल्लेख जायना. खरें म्हणल्यार आतां मेरेन तो जालो ना. पथनाट्य हो नाटक ह्या साहित्य प्रकारांतलो एक प्रकार. नाटक ह्या साहित्य प्रकाराचो उल्लेखूच आमचे साहित्य संस्कृतायेंत 'अर्धवाङ्मय' प्रकार म्हूण केला. तेदे वेळार पथनाट्या सारक्या प्रकाराक साहित्य प्रकार म्हणप हें

कांय समिक्षक आनी संशोधकांचे नदरेन धाडसाचें जातलें. पूण जिवीत मुल्ल्यां आनी साहित्यीक मुल्ल्यां ह्या घटकांचो बारीकसाणेन विचार केलो आनी साहित्याच्या 'सामाजीक बांदिलकी' वा 'सामिलकी' ह्या घटकांक साहित्य निर्मिती फाटलें प्रयोजन म्हणलें जाल्यार, हेमंत अय्या हांणी केल्ल्या पथनाट्याच्या वावराक साहित्यीक मळा वयलो वावर अशेंच म्हणचें पडटलें. एक पथनाट्यकार म्हूण तांच्या बरोवपांत आनी त्या पथनाट्यांच्या सादरीकरणांत जायते नवे प्रयोग येतात. तांच्या पथनाट्यांतले हे सर्जनशिलतायेचो आनी नाविन्याचो सोद घेवपाचो वावर ह्या सोद निबदावरवीं जावं 'मोनोग्राफा' वरवीं केला.

नाविन्य हो खंयचेय सर्जनशील निर्मणेचो आत्मो. देखून दर फावटीं वेगळ्या विशयांचेर पथनाट्यां बरयतना ह्या नाविन्याचो सोद तांची लेखणी बऱ्यापैकीं घेता. कोणेंय एका फाटल्यान एक तांचीं पथनाट्यां सादर करपाचें येवजिलें जाल्यार पळयतल्याक हीं पथनाट्यां एकल्यानूच बरयल्यांत काय कितें असो दुबाव उप्रासतलो इतलें वेगळेपण तांच्या दर एका पथनाट्यांतल्यान पळोवपाक मेळटा. मुळांत हेमंत अय्या हांचो साहित्यीक पिंड कविते कडेन वचपी. आनी देखुनूच तांच्या पथनाट्यांचें स्वरूप हें एकादऱ्या लोककथा गिता वरवीं जावं कथाकाव्या वरवीं आसता. कांय कडेन तर ह्या तांच्या काव्य तंत्राक मराठी संगीत नाटकाचो आदार मेळ्ळा काय कितें असो दुबाव मारता. हे विशीं उलयतना ते म्हणटात, ''संगीत नाटकां हीं काव्यात्मक आनी गितात्मक अणभव दीत कथनात्मकतायेचो आविश्कार घडयतात. संगीत नाट्याचें प्रयोजन हें सौंदर्यानुभवाचें दर्शन घडोवप इतलें मेरेन मर्यादीत आसता जाल्यार पथनाट्य समाजाची व्यथा समाजा मुखारूच ह्या सौंदर्य साधनांतल्यान घडयता.''

### संहितेंतली सर्जनशिलताय :

नाटक जावं संगीत नाटक ह्या प्रकाराचें प्रयोजन हें पुरायपणान वेगळें आसता. नाटककाराक समाज प्रबोधन हें प्रयोजन स्विकारचें पडटाच

ना. पूण हे तुळेंत पथनाट्यकाराक अदीक मर्यादांक तोंड दिवचें
ा. ह्यो मर्यादा सकयल दिल्ले भशेन :

१) मनोरंजन हो पथनाट्या फाटलो हेतू जावंक शकना. एकादरे समस्येक समाजा मुखार दवरप आनी लोकां मदीं जागृताय घडोवन हाडप होच वावर पथनाट्यकाराचे नदरेन म्हत्वाचो आसता.

२) पथनाट्याचो प्रेक्षक हो वेगळो आसता. आपणाल्या कामा खातीर तो आयिल्लो आसता. आनी अकस्मात तो रस्त्यार, बसस्टॉपार, मैदानार पथनाट्याचो प्रेक्षक जाता. नाटकाच्या प्रेक्षका भशेन तो तिकीट काडून जावं मुद्दाम नाटक पळोवपाक आयिल्लो नासता.

३) पथनाट्य हें लोकां खातीर आसता म्हणिना फुडें लोकांक समजतलें अशेच सादे सोपे भाशेंत तें रचचें पडटा.

४) विशय हाताळटना प्रेक्षकांची अभिरुची सांबाळपूय तितलेंच गरजेचें आसता.

ह्यो सगल्यो मर्यादा आव्हानां भशेन अय्याचें पथनाट्य पेलतना टी पडटात. तांची भाशा सादे सोपे अळंकारीकतायेन फुलता आनी डटा. कुंतक ह्या भारतीय साहित्य शास्त्रज्ञान 'वक्रोक्ती' ह्या लक्षणाक व्याचें जिवीत मानलां. जाल्यार आनंधवर्धन हो साहित्य शास्त्रज्ञ ाव्यस्यात्माध्वनि' अशी काव्याची व्याख्या करता. साहित्यदर्पण ह्या ग्रंथाचो र्गो विश्वनाथ हाणें 'वाक्यं रसात्मकं काव्यम्' म्हणल्यार 'रसयुक्त वाक्य गल्यार काव्य.' अशी काव्याची व्याख्या सांगल्या. अळंकार, वक्रोक्ती, नी आनी रस अशीं काव्याचीं मुखेल लक्षणां हेमंत अय्या हांच्या पथनाट्यांच्या हेतांचें वाचन करतना दिश्टी पडटात. आधुनीक काळांतल्या मराठी हित्यिकांनी सांगिल्ल्या 'सामाजीक बांधिलकी' सारक्या तत्वांचो पुरस्काररूय वी संहिता करता. हें करतना कोणाच्याच पथनाट्य संहितांचें वाचन, हेर णाल्याच प्रतिकांचो स्विकार तांची लेखणी करिना. ह्यो संहिता वापरिल्ल्या

गितांच्यो चाली सोडल्यो जाल्यार पुरायपणान स्वतंत्र आसतात.

“चडशे स्ट्रीट प्ले हे त्या त्या काळांत तयार जाल्ल्या प्रस्नां आसतात. कांय तेपान ते कालबाह्य जातात. देखून तांचीं पुस्तकां का जायना. पूण कांय प्रस्न अनंत काळा खातीर तशेच उरतात. ते बे कालबाह्य जावचे ही स्ट्रीट प्ले कलाकाराची भावना आसली तरीय जायना.” सार्वकालिकता हो दर्जेदार साहित्याचो निकश कांय वेळार पथना ह्या प्रकाराक लागना. पूण बरयतल्याचें प्रयोजनूच मुळांत दर्जेदार साहित्य जल्माक घालची अशें आसना. तो फकत प्रस्नांक फुडें दवरता अ समाजाक ह्या प्रस्नांचेर वाट काडपाचें आवाहन करता.

नाविन्याचो विचार करतना हेमंत अय्या हांचे पथनाट्य वि आनी त्या पथनाट्य विशींची सादरीकरणांतली मांडावळ हांचेर अभ्यासक नदर थिरावता. ‘सिंबोलिझम’ जावं ‘मॅटाफोर’ हांचो प्रायोगीक नाट भशेन वापर ते करतात. पूण ही सुचकात्मकताय ‘बाळबोध’ स्वरुपा आसता. आपणा मुखार आशिल्लो प्रेक्षक जावं पळोवपी हो सर्वसाम वर्गांतलो आसतलो ह्या गजालींची जाणविकाय ते बाळगितात. विशय सहजता प्रेक्षकांक समजुचो हे नदरेन ‘सिंबोलिझम’ जावं ‘मॅटाफोर’ हांचो वापर करतात. देखीकः एड्स सारक्या विशयाचेर पथनाट्य बरयतना ते एड्सर असूर आपणाल्या सादरीकरणांत वावुरतना दाखयतात. हो एड्सूच पथना पळोवप्यां कडेन पथनाट्यांतलें एक पात्र जावन उलयता. वेंचणूक सार विशय हाताळटना तांचे संहितेंत लोकशाय नांवाचें पात्र येता. आपणा जावपी जुलूम, अत्त्याचार हांकां तें पात्रूच लोकां सामकार दवरता. हे अय्या हांच्या पथनाट्यांतलें एक खाशेलें वेगळेपण जावं नवखेपण म्हूण गजालींक पळोवचें पडटा.

**सादरीकरणांतलें नाविन्य :**

सर्जनशील आनी स्वतंत्र तंत्रान रचिल्ल्या ह्या संहितांचें सादरीक

अर्थांतूच नाविन्यान भरिल्लें आसता. देखुनूच पळयतल्यां खातीर हेमंत
या हांच्या पथनाट्यांच्या सादरीकरणांत जावपी दर एक गजाल ही
ायाचे नदरेंतल्यान सदांची आसुनूय अजापाची दिसता. ह्या संदर्भांत
चो फामाद संगीत निर्मातो आनी संगीत वादक बाब राजू बलनायक
ाता, "हेमंत सरांची चालींची निवड ही अचूक आसता. खंयचीय एकादरी
ल वेंचतना ते घडये खूब बारकायेन विचार करतात. संगिताची भयंकर
ण आनी संगितांत ओरिजीनल प्रयोग करपाची क्षमता आनी प्रतिभा
शिल्ल्यान हेरांक जड दिसपी सादरीकरण व्हड सहजतायेन ते लोकां
वार दवरतात." फुडें ते अशेंय म्हणटात, "हेमंत सरांचे तुळेचीं पथनाट्यां
वें तरी म्हजे जिणेंत पळयलीं नात! देखून तांचे तोडीचीं पथनाट्यां जे मेरेन
ल्मनात ते मेरेन तांच्यो उणिवो आनी त्रुटी काडप हें पिशेपणाचें जातलें."
क मर्यादेंत तरी राजू बलनायक हांचे हें मत मान्य करचें पडटा. पूण दोतोर
शोक मणगुतकारा सारक्या सिद्धहस्त समिक्षकान आनी राजदीप नायक
रक्या नाट्य कलाकारान अय्या हांच्या पथनाट्यांच्या सादरीकरणांतल्यो
ांय उणिवो ठळकपणान दाखोवन दिल्यात. दोतोर अशोक मणगुतकार
णटात, "हेमंत आपली सगली जीण, सगली शक्त *(physical &
nancial)* पथनाट्याक दिवन पथनाट्य रुपाक हाडटना केन्ना केन्ना
मींतल्या कलाकारां मदीं आत्मविश्वासांतल्यान - अतीआत्मविश्वास येता.
ानी कलाकर आपणाकूच ग्रेट समजूंक लागतात." पूण दोतोर मणगुतकारांनी
ागिल्ली ही त्यांच्या पथनाट्याची उणीव एका अर्थान तांच्या पथनाट्याचें
श्ठत्वूच दाखोवन दिता. घडये सगल्यां परस वेगळें पथनाट्य करपी
लाकारांच्या ह्या नाविन्याकूच मणगुतकार अतिआत्मविश्वास म्हणटात जावंये.

रंगकर्मी राजदीप नायक अय्या हांच्या पथनाट्यांतली उणीव वेगळे
ाशेंत सांगतात. ते म्हणटात, "हेमंत अय्या हांच्या पथनाट्यांतलो दर एक
लाकार हो हेमंत अय्याच दिसपाक लागता. दर एका कलाकाराक आपली
अशी शैली आसप गरजेची!" नाविन्यांत भरिल्लो हेमंत अय्या हो पथनाट्यकार

कलाकाराचे सर्जनशिलतायेक आपले कलाजाणविकायेचे आड लिपयत
काय कितें? असो प्रस्न निर्माण जाता. पूण तो अभ्यासाचो वेगळो विश
जातलो. हेमंत अय्या हांच्या पथनाट्य सादरीकरणाचें जैत हें की अन्वेश
सिंगबाळ, अनंत अग्नी, मंगलदास भट सारके लोक तांची पथनाट्य
सर्तींतल्यान भायर लोकां मेरेन जाय तितल्या प्रमाणांत पावनात ही कळक
उकतायतात.

तांच्या पथनाट्य सादरीकरणांत दर फावटीं वेगवेगळ्या गजालींच
दिश्टावो घडटा. मागीर तें *human body formations* जावं; न
जाल्यार वाद्यांचो *prop* म्हूण केल्लो वापर. प्रेक्षकां खातीरचो *surpris*
*elemet* पथनाट्य सोंपले बगर काबारूच जायना. आनी देखुनूच तां
पथनाट्य लोकांक आवडटा, हेरांचे तुळेन वेगळें दिसता. अशे तरेचें म
तांचीं पथनाट्यां पळयल्ले चडांत चड लोक उकतायतात.

"तांत्रीक नदरेन पळयल्यार रस्तोनाट्य वा स्ट्रीट प्ले हो पारंपारीक
लोकनाट्याचोच आधुनीक नाट्याविश्कार." आनी संगीत हो पथनाट्यांतल
मुखेल घटक. देखून पथनाट्यांचें संशोधन पथनाट्यांत सादर जाल्य
गितांचे चर्चे बगर शक्य ना. गितांचें सादरीकरण करतना लोकांक खब
आशिल्ल्या चालींचो, फामाद गितांचों आनी लोकगितांचो आदार हेमंत
अय्या घेता. पथनाट्य हें लोकजागृतायेचें माध्यम जाल्ल्यान; सामान्य भौसाचे
पसंतीक पडसारकिल्लें गितांचें सादरीकण अय्या हांच्या पथनाट्यांतल्यान
जाता. देखीक :

**वाडली रस्त्याचेर तुमच्या येरादारी रे**
**पूण रस्ते तुमचे रुंद जायनात रे**
**मोडणां फोंडांनी भरिल्ले रस्ते रे**
**स्पीड ब्रेकर पावता आफ्टर डेथ रे**
**मोडणां फोंडांनी भरिल्ले रस्ते हे आमचे**

**पक्के रस्ते म्हयन्या भरांनी जातात रे कच्चे**
**रस्त्यांचेर वाहनां परस चड लूट गोरवांची**
**दुकरांक, सुण्यांक सांबाळटना जाता वाहनांची गोची**
**रस्त्यांचेर तुमच्या ह्या असल्या दुकानां लागतात**
**जायो कणगां चिबडां घोंसाळी, रस्त्यार बरीं खपतात**

*(चाल : महंगाई डायन खायत जायत है!*
*फिल्म : पिपली लायव*
*पथनाट्य : रस्तो सुरक्षा)*

जो आशय सांगपाचो आसा तो मात ते लोकतालाचो आदार घेवन गतात. हें करतना ते लोकगितांचो आदार मोट्या प्रमाणांत घेतात. तांचें विन्य लोकतालांतल्यान सादर जाल्ल्या ह्या गितांतल्यान पळोवपाक मेळटा. ब्रीक :

**हाचेंय खावया ताचेंय खावया**
**आतांच खावन घेवपाचें रे**
**आतांच खावन घेवपाचें रे**

*(चाल : धालो - पान तुजें पोफळ म्हजें*
*पथनाट्य : वेंचणुको जाल्यो, आतां कितें?)*

कोंकणी साहित्याच्या मळार आयज पथनाट्याच्या संहितांक पुस्तकांचें प मेळपाक लागलां. कोंकणी भाशेंत पथनाट्यांचीं दोन पुस्तकां उजवाडाक ायल्यांत. 'पथनाट्यकारांच्या पथनाट्यांचो तुलनात्मक अभ्यास' हें समिक्षा ानी संशोधनाचें मळ नव्या नेटान गोंय सारकिल्ल्या ल्हान वाठारांत निर्माण ाता.

**नेश्कर्श :**

१) हेमंत अय्या हांचे सर्जनशिलतायेचें मूळ हें त्यांच्या दुहेरी व्यक्तित्वांत दडलां. ते स्वता एक पथनाट्यांतले अभिनिते, गितकार आनी

दिग्दर्शक आशिल्ल्यान पथनाट्य बरयता आसतनाच त्या पथनाट्याचें मांडावळ, गितांची रचना अशे गरजेचे घटक आपसुकूच येवन तांच्या पथनाट्याक चिकट्टात.

२) काणकोण म्हालांतल्या लोलयें सारकिल्ल्या गांवगिऱ्या वाठारांत तांचो जल्म आनी वाड जाल्ल्यान लोकाविश्कारांचो अणभव तांणी खूब लागीं सावन घेतला. लोकताल तांच्या संगिताचे जाणविकायेक चड बळिश्ट करता. आनी जायते फावट हो लोकतालूच नाविन्याचो आविश्कार जावन तांच्या पथनाट्यांतल्यान खेळटा.

३) मुळांत कवीमनाचो हो साहित्यीक, ताचे संवेदनशिलतायेक गांवगिऱ्या वाठारांत आकार मेळ्ळा. देखून लोकांच्या प्रस्नांक स्वताचेच प्रस्न समजून मुखार वचप ताका सहजपणान जमता. खरें म्हणल्यार हें करपाकूच तो फुडें सरता आनी त्या समस्यांच्या संवसारांत रमता.

४) आपणालो 'स्ट्रीट प्ले' हेरां पसून वेगळो उरचो हे खातीर हेमंत अय्या खास यत्न करता.

५) हेमंत अय्याचे चडांत चड 'स्ट्रीट प्ले' हे सर्ती खातीर जल्मल्ले. देखून हें नाविन्य त्या पथनाट्यांनी येता आनी ताची सर्जनशीलताय, प्रतिभा तोखणायेक पात्र थारता.

६) हेमंत अय्याचीं पथनाट्यां साहित्यीक मुल्ल्यां निश्चितूच जपतात. देखुनूच तांचीं पथनाट्यां पळयतल्याक विसरप कठीण जाता.

७) हेमंत अय्या सारके पथनाट्यकार ह्या प्रकाराक मूळ साहित्य प्रकारांचें वळेरेंत हाडून बसोवपाच्या कापझदादीचो. पूण ते खातीर तांचें हें लेखन पुस्तक रुपांत येवन हे निर्मणेंत सातत्य येवप चडांत चड गरजेचें थारता.

*****

## वळेरी


१) कुळकर्णी अरविंद वामन - साहित्यविचार, प्रतिमा प्रकाशन, सदाशीव पेठ - पुणे, द्वितीयावृत्ती १५ जुलै १९९७.

२) फळदेसाय कविंद्र - सर फुडें, प्रभूदेसाय संदेश, संजना पब्लिकेशन्स, सांगें - गोंय, पयली उजवाडावणी १८ जुलय २०१४.

३) नायक सत्यवान - जनजाग, जैत प्रकाशन, तिसवाडी - गोंय, पयली उजवाडावणी २०१४.

४) पाटील गो. तू. - नटसम्राट : समीक्षा, सारांश प्रकाशन, नाशिक, द्वितियावृत्ती १४ सप्टे. २०१२.

५) भालेराव भरतकुमार, शिखरे गोकुळ - साहित्यशास्त्र व समीक्षा, शब्दालय प्रकाशन, श्रीरामपूर, पहिली आवृत्ती मार्च २००९.

६) वडेर प्रल्हाद - तेंडुलकर नावाचे वादळ, प्रतिमा प्रकाशन, सदाशीवपेठ - पुणे, प्रथम आवृत्ती २०१२.

७) वेरेंकार श्याम, सरदेसाय माधवी, म्हाळशी कमलाकर - कोंकणी भास साहित्य आनी संस्कृताय, कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय, पयली खेप मार्च २००३.

८) संगोराम श्रीरंग - वेध : संगीत नाटक आणि नाट्य संगीत, प्रोग्रेसिव्ह ड्रामेटीक असोसिएशन - पुणे, प्रकाशन फे. १९९३.

९) शिरसाठ शीवदास - दलित नाटक आणि दत्ता भगत यांचे नाट्यविश्व, कैलास पब्लिकेशन्स - औरंगाबाद, प्रथम आवृत्ती, जानेवरी २००९.

१०) शेळके शुभदा - काही नाटके : काही नाटककार, शालका प्रकाशन, मुंबई, आवृत्ती पहिली, जुन १९८९.


## भाखत वळेरी (व्यक्तिनामावळ)

१) अग्नी अनंत, फस्ट फ्लोर, अमृत प्लाझा, अंबाजी, फातोर्डें - गोंय. वेवसाय : शिक्षक, पिराय : ४८

२) अय्या हेमंत बाळकृष्ण, घर क्र. १३५१, माड्डीतळप, लोलयें, काणकोण - गोंय, वेवसाय : शिक्षक, पिराय : ३०

३) नायक राजदीप, सावयवेरें, फोंडें - गोंय, वेवसाय : निर्मातो, अभिनेत
पिराय : ३७

४) बलनायक राजू मारती, फ्लॅट नं ६२४, दुसरो मजलो, एफ बिल्डींग
एल. आय. जी. कॉलनी, दवर्ले, हावजींग बोर्ड, साश्टी - गोंय. वेवसा
: संगितकार, निर्मातो पिराय : ३३

५) भट मंगलदास, एफ २, इश कृपा हावझींग सोसायटी, काकोडा, कुडच
- गोंय, वेवसाय : शिक्षक, पिराय : ३७.

६) मनगुटकार अशोक, पुजाभिपेक, शेल्डें, केपें - गोंय. वेवसाय : शिक्षव
(उपप्राचार्य : सरकारी महाविद्यालय केपें - गोंय) पिराय : ५८.

७) सिंगबाळ अन्वेशा, गौरीश अपार्टमेंट, खडपाबांद, फोंडें - गोंय, वेवसा
: संपादक, द न्यूट्रल व्ह्यू, पिराय : २९.

(**नोंद** : पथसम्राट ह्या पुस्तकांत वयलो सोद निबंद छापतना मूळ सो
निबंधांतल्या कांय गजालींचो आसपाव जावंक ना. देखीक : संदर्भ आन
टिपो, परिशिश्टां, आनी हेर गजाली. हाची वाचकांनी मुजरत नोंद घेवची

# प्रतिक्रिया

## १) भौ. राजदीप नायक

**प्रस्न** : हेमंत अय्या ह्या पथनाट्यकाराचीं पथनाट्यां तुमी कितलीं वर्सां जालीं पळयतात?

**जाप** : हेमंत अय्या हांकां फाटलीं १० वर्सां जालीं वळखतां आनी तांचीं पथनाट्यां पळयतां.

**प्रस्न** : हेर पथनाट्य लेखक आनी दिग्दर्शक हांचे परस हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांतलें तुमकां गवसल्लें वेगळेपण कितें?

**जाप** : हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांतले विशय ज्वलंत आसतात, खंयचीय चळवळ जर चालू आसा जाल्यार ते चळवळीचो गाबो ते आपल्या पथनाट्यांत घेतात.

**प्रस्न** : 'साहित्यीक दर्जो' हे संज्ञेंत हेमंत अय्यांचें पथनाट्य खंय बसता? आनी कित्याक?

**जाप** : 'साहित्यीक दर्जो' म्हणजे नेमकें कितें हे विशीं हांव साशंक आसां. पूण हेमंत आय्याचीं पथनाट्यां हीं साहित्यीक दर्जोहीण अशें हांव म्हणपाक शकना, तांच्या पथनाट्यांक साहित्यीक दर्जो नक्कीच आसा.

**प्रस्न** : 'नाविन्य' हे संज्ञेचो स्पर्श हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांनी कितल्या प्रमाणांत जाता?

**जाप** : हेमंत अय्या पखवाज, घुमट सारकीं लोकवाद्यां वापरून भजन, किर्तन जावं लोकगितांचो वापर आपल्या पथनाट्यांनी करता. जाका लागून तीं पथनाट्यां लोकांक चड भावतात हें तांच्या

पथनाट्यांतलें नाविन्य जावन आसा.

**प्रस्न** : सामाजीक चळवळींत तुमकां गवसिल्लें हेमंत अय्यांचें पथनाट्य?

**जाप** : सामाजीक चळवळ तांच्या पथनाट्यांतल्यान दिश्टी पडटा, ज्वलंत अशे विशय जे समाजांत चालू आसात अशा विशयांचेर हेमंत अय्या पथनाट्य बरयता.

**प्रस्न** : हेमंत अय्यांचें पथनाट्य लेखन आनी दिग्दर्शन हातूंत तुमकां जाणवलेल्यो त्रुटी जावं उणिवो खंयच्यो?

**जाप** : एक त्रुटी म्हणल्यार हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांतलो दर एक कलाकार हो हेमंत अय्याच दिसपाक लागता. दर एका कलाकाराक आपली अशी शैली आसप गरजेची.

## २) भौ. अनंत अग्नी

**प्रस्न** : हेमंत अय्या ह्या पथनाट्यकाराचीं पथनाट्यां तुमी कितलीं वर्सां जालीं पळयतात?

**जाप** : हेमंताचीं पथनाट्यां हांव फाटलीं पांच वर्सां जालीं पळयतां.

**प्रस्न** : हेर पथनाट्य लेखक आनी दिग्दर्शक हांचे परस हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांतलें तुमकां गवसल्लें वेगळेपण कितें?

**जाप** : कोमन मनशाचे विशय, गांवगिरी भास, विशयाची केल्ली सर्वांगी विस्कटावणी आनी सुचयिल्ले उपाय.

**प्रस्न** : 'साहित्यीक दर्जो' हे संज्ञेंत हेमंत अय्यांचें पथनाट्य खंय बसता? आनी कित्याक?

**जाप** : म्हज्या कोतान पथनाट्याक साहित्यीक दर्ज्या परसूय पेळोवप्यांक जागोवपाचो मुद्दो चड म्हत्वाचो. पथनाट्य सातत्यान बरोवप्यां मदीं हेमंताची सुवात उंचेली आसा.

प्रस्न : 'नाविन्य' हे संज्ञेचो स्पर्श हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांनी कितल्या प्रमाणांत जाता?

जाप : लेखनांतलें आनी सादरीकरणांतलें नाविन्य ताचे संहितेंत, गितांनी आनी देखाव्यांनी दिश्टी पडटा.

प्रस्न : सामाजीक चळवळींत तुमकां गवसिल्ले हेमंत अय्यांचें पथनाट्य?

जाप : मायनींग ह्या विशया वयलें पथनाट्य म्हाका चड आवडिल्लें.

प्रस्न : हेमंत अय्यांचें पथनाट्य लेखन आनी दिग्दर्शन हातूंत तुमकां जाणवलेल्यो तृटी जावं उणिवो खंयच्यो?

जाप : हेमंतान आपली पथनाट्यां सर्ती पुरतींच मर्यादीत दवरचीं न्हय. लोक जागृतायेचें माध्यम म्हूण सातत्यान करत रावचीं.

## ३) भौ. राजू बलनायक

प्रस्न : हेमंत अय्या ह्या पथनाट्यकाराचीं पथनाट्यां तुमी कितलीं वर्सां जालीं पळयतात?

जाप : फाटलीं चार - पांच वर्सां.

प्रस्न : हेर पथनाट्य लेखक आनी दिग्दर्शक हांचे परस हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांतलें तुमकां गवसल्लें वेगळेपण कितें?

जाप : हेरांचे स्ट्रीट प्ले एक सारकेच आसतात. पूण हेमंत सरांचे स्ट्रीट प्ले वेगळे आसात. म्युजीक, डायलोग, डायरेक्शन ह्यो गजाली बाकीच्यां परस वेगळ्यो आसात.

प्रस्न : 'नाविन्य' हे संज्ञेचो स्पर्श हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांनी कितल्या प्रमाणांत जाता?

जाप : हेमंत सराची चालींची निवड अचूक आसता. खंयचीय एकादरी चाल वेंचतना ते घडये खूब बारकायेन विचार करतात. संगिताची भयंकर जाण आनी संगितांत ऑरिजीनल प्रयोग करपाची क्षमताय

आनी प्रतिभा आशिल्ल्यान हेरांक जड दिसपी सादरीकरण मोटे सहजतायेन ते लोकां मुखार दवरतात.

**प्रस्न** : सामाजीक चळवळींत तुमकां गवसिल्ले हेमंत अय्यांचें पथनाट्य?

**जाप** : समाजाक मेसेज दिता आसना जें कितें सांगपाक जाय तें लोकांक कळटा ते भाशेंत, लोकांक समजता ते पद्दतींत ते सांगतात.

**प्रस्न** : हेमंत अय्यांचें पथनाट्य लेखन आनी दिग्दर्शन हातूंत तुमकां जाणवलेल्यो त्रुटी जावं उणिवो खंयच्यो?

**जाप** : हेमंत सरांचे तुळेचीं पथनाट्यां हांवें तरी म्हजे जिणेंत पळयलीं नात. देखून तांचे तोडीचीं पथनाट्यां जे मेरेन जल्मनात ते मेरेन तांच्यो उणिवो आनी त्रुटी काडप हें पिशेपणाचें जातलें.

## ४) भौ. मंगलदास भट

**प्रस्न** : हेमंत अय्या ह्या पथनाट्यकाराचीं पथनाट्यां तुमी कितलीं वर्सां जालीं पळयतात?

**जाप** : फाटल्या चार वर्सां सावन हेमंत अय्याचीं पथनाट्यां हांव पळयतां.

**प्रस्न** : हेर पथनाट्य लेखक आनी दिग्दर्शक हांचे परस हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांतलें तुमकां गवसल्लें वेगळेपण कितें?

**जाप** : प्रा. हेमंत अय्याची विशयाचेर आशिल्ली जबरदस्त पकड, जिते जागते संवाद, लोकवाद्यां, लोकगितांचो वापर ही ताची जमेची बाजू.

**प्रस्न** : 'साहित्यीक दर्जो' हे संज्ञेंत हेमंत अय्यांचें पथनाट्य खंय बसता? आनी कित्याक?

**जाप** : गोंयचे सावार ज्वलंत प्रस्न हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांनी दिसतात आनी तांची मांडपाची शैली पळयल्यार नक्कीच तांकां साहित्यीक दर्जो आसा म्हणचें पडटलें.

प्रस्न : 'नाविन्य' हे संज्ञेचो स्पर्श हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांनी कितल्या प्रमाणांत जाता?

जाप : नवे-नवे विशय हेमंत अय्याच्या पथनाट्यांनी दिसतात. म्हादय, संस्कृताय, भास, वेंचणुको अशे साबार विशय तांच्या पथनाट्यांनी नाविन्य हाडटात.

प्रस्न : सामाजीक चळवळींत तुमकां गवसिल्लें हेमंत अय्यांचें पथनाट्य?

जाप : हेमंत अय्याचीं चडशीं पथनाट्यां हीं सामाजीक आशयाचीं. समाजांतलीं धोंगां-पोंगां तांच्या पथनाट्यांनी दिसतात, तो मागीर माध्यम प्रस्न जावं वा म्हादय प्रस्न.

प्रस्न : हेमंत अय्यांचें पथनाट्य लेखन आनी दिग्दर्शन हातूंत तुमकां जाणवलेल्यो त्रुटी जावं उणिवो खंयच्यो?

जाप : तांचीं पथनाट्यां फकत सर्ती पुरतींच मर्यादीत दवरिनासतना गांवा गांवांनी पावपाक जाय. पथनाट्यांची चौकट बदलूंक जाय, एकसारकेपण कमी करून नवे तरेन पथनाट्यां येवपाक जाय.

## ५) बाय अन्वेषा सिंगबाळ

प्रस्न : हेमंत अय्या ह्या पथनाट्यकाराचीं पथनाट्यां तुमी कितलीं वर्सां जालीं पळयतात?

जाप : सुमार चार वर्सां.

प्रस्न : हेर पथनाट्य लेखक आनी दिग्दर्शक हांचे परस हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांतलें तुमकां गवसल्लें वेगळेपण कितें?

जाप : पथनाट्यां काळजाक भिडटात, सामान्य मनशाक सहज समजतात अशीं सोपीं सरळ उतरां, सादर करपी लोक भितर वतात, खऱ्या अर्थान पथनाट्यांचो गाबो सांबाळून भोंवतणच्या लोकांक म्हणणें पटोवन दितात, वाद्यांचो सुंदर आनी अचूक वापर.

प्रस्न : 'साहित्यीक दर्जो' हे संज्ञेंत हेमंत अय्यांचें पथनाट्य खंय बसता?

आनी कित्याक?

**जाप** : सादी, सोपी, सरळ भास. संदेश अचूक पावोवपी मांडणी. साहित्यीक दर्जो म्हणल्यार क्लिश्ट, जड उतरां अशें कोणाक दिसता जल्यार तो तांचो गैरसमज. म्हजे खातीर काळजाक भिडटा ती साहित्य कृती दर्जेदार.

**प्रस्न** : 'नाविन्य' हे संज्ञेचो स्पर्श हेमंत अय्यांच्या पथनाट्यांनी कितल्या प्रमाणांत जाता?

**जाप** : दर फावटीं जाला. कितें तरी नवें घेवनच हीं पथनाट्यां येतात. ती तांची जमेची बाजू, पात्रांचो 'प्रोपर्टी' म्हूण केल्लो वापर सदांच घोस्ताक गेला.

**प्रस्न** : सामाजीक चळवळींत तुमकां गवसिल्लें हेमंत अय्यांचें पथनाट्य?

**जाप** : पथनाट्य फकत सर्ती पुरतेंच दवरिनासतना तें गांवः गांवांनी सादर करप हें कवतूक. दर एक विशय सामान्य मनशाक भिडटलो अशे तरेन हाताळ्ळा.

**प्रस्न** : हेमंत अय्यांचें पथनाट्य लेखन आनी दिग्दर्शन हातूंत तुमकां जाणवलेल्यो तृटी जावं उणिवो खंयच्यो?

**जाप** : कांयच नात!

***

## परिशिश्ट ३

### हेमंत अय्या लिखीत, दिग्दर्शीत पथनाट्यांतले यसस्वी कलाकार (वळेरी)

१) पुर्वा वस्त
२) जयदिप पावसकार
३) प्रियंका सावंत
४) करिष्मा सावंत
५) प्रज्ञा तारी
६) प्रियंका गांवकार
७) अक्षय दाभोळकार
८) विष्णू खौठणकार
९) सुदेश यमकर
१०) अक्षदा नायक
११) निलीशा नायक
१२) साईली नायक
१३) सुजीत प्रसाद
१४) सुशांती नायक
१५) शंतनू अय्या
१६) सिध्दी देसाय
१७) संगीता कुंभार
१८) विनीत नायर
१९) मुज्जफर शेख
२०) विपूल कुडाळकार
२१) कौशल मायनात
२२) लक्षता मातोंडकार
२३) धिरज गांवकार
२४) सिमरन रावत
२५) आदेश तारी
२६) समीर वेळीप
२७) ओमकार देसाय गांवकार
२८) साईश नायक
२९) युवराज नायक
३०) लक्षांती भंडारी
३१) दत्तराज (दत्तू) नायक
३२) श्वेता देसाय
३३) देवान परब
३४) मोहीत नायक
३५) अस्मीता नायक
३६) हर्षाली नायक
३७) हर्षद देसाय
३८) सुश्मीता देसाय
३९) कांचन ताम्हणकार
४०) हर्षला पाटील

४१) विशाल गांवकार
४२) वृषभ पटणशेट्टी
४३) अंकीता धोंड
४४) पंकज देसाय
४५) कांचन नायक
४६) विघ्नेश शेंदे
४७) गौरेश गांवकार
४८) रामा बिले
४९) रतीका नायक
५०) निकीता नायक मडगांवकार
५१) सुप्रीया काणकोणकार
५२) अनील गांवकार
५३) कल्पीत सांवत देसाय
५४) श्रीराम आडपयकार
५५) सिद्धांत सावंत देसाय
५६) स्वप्नेश गांवकार
५७) इरफान खान
५८) मुकेश नायक
५९) सोमेश गांवस देसाय
६०) युती केणी
६१) दुर्गा गांवकार
६२) रोहीता घाडी
६३) रोहन नायक
६४) प्रियंका शेटकार
६५) आशीष प्रभू देसाय
६६) जयेश प्रभू दाभोळकार
६७) संस्कृती अय्यीर
६८) दुमती कुंभार
६९) प्रज्ञा माळकर
७०) शुभम भंडारी
७१) नेहा नायक
७२) उत्तम गांवकार
७३) केवल नायक
७४) अभीषेक नाईक
७५) नर्सींह शेट वेरेंकार
७६) अंजली मापारी
७७) देवेंद्र कोठारकर
७८) नम्रता गांवकार
७९) सुनीता येडगो
८०) रवीना नाईक
८१) संजना देसाय
८२) अवीराज वेळीप
८३) स्टॅला बोश्को
८४) मंजली प्रभूगांवकार
८५) जयदीप पावसकार
८६) केदार करमली
८७) सुलक्षा पांढरमीसे
८८) संकल्प नाईक
८९) सिद्धेश तारी
९०) बबीता वरक

) अमोल सांवत देसाय

) रतेश गुंडड

) प्राची पाटील

) कपील दाबोळकार

) सचीन खोलकार

) राहूल गांवकार

) राहूल देसाय



''मंगेश पांडुरंग हरिजन हाका हांवें पयले फावट केपेंच्या महाविद्यालयांत पळयलो. उपरांत म्हज्या पथनाट्याचो सुत्रधार म्हूण तो फुडलीं तीन - चार वर्सां तरी वावुरलो. तो पथनाट्याक अभिनयांतल्यान जितें करतालो.

आमच्या वांगडा दालनांत वावुरपी समेस्तांनीच पथनाट्याचेर उपाट मोग केला. *'केपें कॉलेज आनी पथनाट्य'* अशें समीकरण फाटल्या सात - आठ वर्सांनी जुळ्ळें तें हाकाच लागून. साहित्याच्या मळार ह्या पथनाट्यांचो फुडार जावं सुवात कितें हें हांव नकळ. म्हज्या पथनाट्यांचें पुस्तक बी येवं येता, जावं हांवें तें काडचें अशें म्हाका केन्नाच दिसलें ना. तो वावर मंगेशान करपाचो थारायलो. हातबरबां मंगेशाल्या हातांत दिवन हांव मेकळो जालों. फाटलें वर्स भर ह्या पुस्तकाचो वावर ताणें केला. हो वावर चडांत चड फुलचो... परजळचो हे खातीर ताणें घेतिल्ले त्रास पुस्तकाचो आटाप पळयल्यार कोणालेय नदरेंत येवं येता. एके तरेन म्हज्या सारक्या मनशाचो म्हज्याच एका भुरग्यान केल्लो हो भोवमान अशें हांव मानतां. मंगेशाक चडांत चड देव बरें करूं! तुज्या परजळीत फुडारा खातीर मागणें मागतां!''

- हेमंत बा. अय्या -


ISBN 978-81-936363-0-5
9 788193 636305




